# कोङ्कणी साहित्य-मञ्जिरी
## (नदर आनी नियाळ)

प्रियदर्शिनी तडकोडकार






के दा र प्र का श न गृ ह




# कोङ्कणी साहित्य-मञ्जिरी
## (नदर आनी नियाळ)

प्रियदर्शिनी तडकोडकार

के दा र प्र का श न गृ ह



कोङ्कणी साहित्य-मञ्जिरी (नदर आनी नियाळ) - प्रियदर्शिनी तडकोडकार

Konkani Saahiyta Manjiri (Nadar aani Niyaall) by Priyadarshini Tadkodkaar



ISBN 81-900262-7- 5



पयली आवृत्ती : २००५ / १९२७

**मुखपृष्ठ :** केदार-प्रियद

**मुद्रण :** ओमेगा ऑफसेट,
४५७४, शेट्टी गल्ली, बेळगांव - ५९० ००१

**प्रकाशक :** केदारनाथ सुधीर तडकोड,
केदार प्रकाशन गृह,
१/बी, एस-५, दी कामत प्लाझा, सांता इनेज,
पणजी, तिसवाडी, गोंय ४०३ ००१

वितरण व्यंवस्था : प्रियद सुधीर तडकोड
प्रियद वितरण,
१/बी, एस-५, दी कामत प्लाझा, सांता इनेज,
पणजी, तिसवाडी, गोंय ४०३ ००१

मोल : रु. १३५/-

**पयली प्रसिद्धी :**

(चत्राय: मुखार दिल्ले लेख खंयच्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयले म्हणपाचें नोंदयिल्लें आसा. हांव त्या त्या नेमाळ्यांच्या संपादप्यांचे काळजाथावन उपकार मानतांव. ते लेख, तांका सुधारीत रूप दिवपाचो येत्न करून, ह्या पुस्तकांत दिल्यात.)

१. गोंयची लोकांकाणी जाली मराठणाची लिखणी (जाग, प्रियोळ, वर्स ३०, आंक ३, नोव्हेंबर-देजेम्ब्र २००३, पानांक २५-३५),

२. लक्ष्मणरावांच्या कोंकणी कथनात्मक साहित्यांतली प्रादेशिकताय (जाग, प्रियोळ, ऑक्टोबर २००३, पानांक २४-२७),

३. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या साहित्यकृतींतलीं व्यक्तिचित्रणां (जाग, प्रियोळ, एप्रिल २००४, पानांक ),

४. कवी रघुनाथ विष्णू पण्डित हांचे कवितेंतली प्रादेशिकताय (जाग, प्रियोळ, वर्स २०, आंक १२, मार्च १९९४, पानांक २६-२८),

५. पुण्डलीक नायक: कोंकणी साहित्याची प्रगल्भताय (वेंचीक पुंडलीक, कोंकणी भाशा मण्डळ, गोंय, १९९९, पानांक २४९-२६०),

६. कोंकणी अस्तुरी साहित्यिकांच्या साहित्यांतली अस्तुरी (जाग, प्रियोळ, वर्स २६, आंक ८, मार्च २०००, पानांक १२-२५),

७. वेणिमाधव बोरकारांची कविता: नार्सिससचें कोंकणी पडबिंब (जाग, वर्स २८, आंक ६, जानेवारी २०००, पानांक २२-२४),

८. कथा, आधुनिकताय आनी कोंकणी कथा (जाग, वर्स २९, आंक ११, जून २००३, पानांक २३-२४),

९. कोंकणी 'एकांकी'च्या निमतान (सोद, पर्वरी)

१०. रमेश वेळुस्कारांली कविता (जाग, प्रियोळ, वर्स २७, आंक १२, जुलाय २००१, पानांक २२-२४),

११. *निमज्जन* : केरळी कोंकणीचो सर्जनशील आविश्कार (जाग, प्रियोळ, वर्स २७, आंक ७, फेब्रुवारी २००१, पानांक २३-२४),

१२. कोंकणी साहित्यांतलें सैमदर्शन

**प्रियदर्शनी तडकोडकार हांचे हेर प्रकाशीत साहित्य :**
**पुण्डलिक नारायण नायक साहित्यसूची : वर्णनात्मक, १९९९**

अनुक्रम :

# गोंयची लोकांकाणी जाली मराठणाची लिखणी

मराठीतलो कादंबरीकार दोतोर सुभाष भेण्डे हांणी प्रा० अनंत काकबा प्रियोळकार हांचे संबंदान बरयतना तांकां 'ऋषितुल्य विद्वान' अशें म्हणून पाचारिल्लें; परंत गोंयान असो एकलो एकसुरोच ऋषितुल्य विद्वान घडोवंक ना. मराठणातल्या बौद्धिक उदरगतीखातीर गोंयान अशे कितलेशेच विद्वान दिले आनी त्या शीमेपलतडच्या वाटारांक समृद्ध केलें. संस्कृत भाशेंत आशिल्ल्या 'भागवता'च्या धाव्या खंडातल्या पयल्या धा प्रकरणाचो मराठी अवतार इसवी सन १५२८त, म्हळ्यार सोळाव्या शेंकड्यांत उक्तायलो कृष्णदास शामान, एका गोंयकारान. उपरान्त मराठणातल्या एकनाथान तसो यत्न १५६६त केलो. सोहिरोबानाथ आंबिये उपाख्य अच्युत अनंत संझगिरी (१७१४-१७९२) या गोंयकारानच अठराव्या शेंकड्यांत मराठणांतल्या संतकवींचें दायज चलयलें. एकुणिसाव्या शेंकड्यांत तर गोविंद नारायण माडगांवकार, डॉ० भाऊ दाजी लाड, माधव चंद्रोबा डुकले, अनंत चंद्रोबा डुकले, धर्मानंद कोसंबी ह्या दिग्गज मंडळींची मांदियाळी गोंयानच निर्माण केल्ली. विसाव्या शेंकड्यांत आसताना गोंयान शेकड्यांनी विद्वान मराठणाक दिले. एकाच व्यक्तीन न्हय तर अगणित व्यक्तींनी, एकाच न्हय तर जायत्या मळांचेर मराठणाक गिन्यानाचें दान दिलें. मुंबयतल्या राणीच्या बागेंत रोवपाखातीर जी रुखावळ हाडिल्ली तातूंतली कितलीशीं झाडापेडां भाऊ दाजींच्या भाटांतली आशिल्लीं. ह्या भाऊ दाजींचे मुळावें नांव रामकृष्ण विट्ठल लाड-पार्सेकार अशें आशिल्लें. हे विशीं प्रा० प्रियोळकार हांणी 'डॉक्टर भाऊ दाजी: व्यक्ती, काल व कर्तृत्व' ह्या तांणी संशोधन करून बरयिल्ल्या चरित्रांत स्पष्टपणान दाखोवन दिल्लें आसतानाय मराठणातले महान नवकथाकार गंगाधर गाडगीळ हांणी तांच्या '*प्रारंभ*' ह्या कादंबरींत भाऊ दाजींचें नांव '*गणपत*' अशें आशिल्लें म्हणपाची धांवती नोंद केल्ली आसा. मराठणातलो लोक गोंयच्या भाशेचें नांव बदलता, मनशांचे नांव बदलता, गांवांचीय नांवां बदलून वडयता. गोंयकारांक जें मात्तुय सोंसना तें कर्म जे गोंयकार न्हयंत ते करीत असतात. देखीक गोंयांतली विंगड विंगड थळांची नांवां दायजमोगी गोंयकारांक भारी प्रिय तर जे गोंयकार न्हयंत ते 'कोलवा' या निसर्गरम्य वेळेक 'कळवा' म्हणून संबोधतात, 'आमोडें' या ग्रामनामाक 'अम्बोडे', 'ताळगांवां'क 'तळेगांव' तर 'साळगांवां'क 'साळेगांव' अशें संबोधतात. रा० भि० जोशीबी मराठणातलो लोक गोंयांत भोंवडेकार म्हूण येता तो तेंच दायज चलयता आनी ती नांवां सहजपणान बदलून वडयतात.

अशी परिस्थिती आसूनय गोंयान सदांच मराठणाक कितें ना कितें तरी, या ना त्या तरेन दिवपाचें असिधारा व्रत धरिल्लेभशेन वावर केलो. परतें, अशें कितें ना कितें तरी

दिवपाची आपणाक संद दिली अशें मानून गोंयान मराठणाकडेन कृतज्ञतायेची भावना परगटायली. उरफाटी गजाल अशी की मराठणान 'कोंकणी ही मराठीची बोली आहे' अशें परतें परतें विधान करून कोंकणीक पर्यायान गोंयाक सदांच हिणसायलें. खरें तर मराठणान गोंयातल्यान साहित्याचे सगळे प्रकार, तेविशींची गोंयांक कसलीच तस्रीप ना दितां वा सुलूस लागूंक न दितां, आपणायले आनी नामनाय जोडली. मराठी संगीत नाटकाची गंगोत्री गोयांत आसताना तेविशीची नोंद करपाची तकालस मराठणान चुकूनय घेंवक ना. मराठीतल्या भूपाळी काव्याचो स्रोत गोंयांतच; परंत विट्ठल केरीकराची 'घनश्याम सुंदरा' ही भूपाळी होनाजी बाळान आपणाल्या नावार खपयली वा मराठणान ती तशी खपोवपाची संद दिली अशेंय म्हणूंक येता. 'मराठी ज्ञानप्रसारक' (१८५०-१८६६) या नावाच्या नेमाळ्यांत कथा वाङ्मयान पयलीफावट आंग धरूक आरंभ केलो अशें म्हणूंक येता. तांतली पयलीवयली कथा गोविंद नारायण माडगांवकारान, म्हळ्यार एका गोंयकारान, बरयिल्ली, अशी नोंद संशोधनमहर्षि सातोस्कारानच, म्हळ्यार एका खांप्या गोंयकारानच, केल्या. हाचेविशींची खर जाणविकायेन नोंद कोण घेता व्हय? उपरान्त वि० स० सुखणकार, लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी हेरांनी तर मराठी कथावाङ्मयाच्या इतिहासाकच आकार दिलो. अंदू लक्ष्मणराव सरदेसाय हांची जल्मशताब्दी; परंत मराठणातल्या कितल्या संस्थांच्या जाळवणदारांनी फुडारपण घेवन ती मनोवपाचो येत्न केलो? 'मोचनगड' ही मराठीतली पयली ऐतिहासिक कादंबरी रामचंद्र भिकाजी गुंजीकारान, म्हळ्यार एका गोंयकारान, बरयली तर रहस्यमय कादंबरी 'वेशधारी पंजाबी' सूर्याजी सदाशिव महात्मे हांणी, म्हळ्यार पर्थून एका गोंयकारानच, बरयिल्ली. मराठी शब्दकोशांच्या इतिहासांत 'शब्दरत्नाकर' ह्या शब्दकोशाक भोवच महत्त्व आसा. ताचो कर्ता आशिल्लो माधव चन्द्रोबा डुकले, एक गोंयकार.

मराठी भाशेन मात कोंकणी भाशेक खावन वडोवपाचो जळींमळीं यत्न केलो. 'कोंकणी' हे उतरातले पयलें अक्षर नाखयें; परंत तातूंत नाखयेंपण आसचें ना हेविशींची जतनाय मराठीन घेतली. 'अकरा' हें उतर कोंकणीचें न्हय. कोंकणींत 'अकरा' हें उतर ना परंत 'इकरा' अशें आसा. कोंकणी शिकोवपी मास्तर मराठीचें दायज घेवन आयिल्लो आनी ताणें 'इकरा'चे 'अकरा' अशें करून वडयलें. जंय जंय कोंकणी उतरां आसात थंय थंय मराठी उतरां भरसून दिली. मराठीचें कोंकणी प्रदेशांत वचून आपणालें वसाहतीकरण करपाचो हो येत्न आयजचो वा लागीच्या कालचो न्हय तर शेंकड्यांनी वर्सासावन हें चलत आयिल्लें आसा. संसारातल्या साबार भाशांचो अभ्यास करपी, त्या भाशांचेर मोग करपी, सरळ सुताभशेन वावुरपी गोंयकार 'मराठी', 'मराठी' करीत रावले तर मराठीन कोंकणीचें अस्तित्वच पुसून वडोवपाचें व्रत घेतलें. या लेखाच्या निमतान हांवे अभिजात शैलीतली

मराठीतली एक काव्यरचना दिल्या. तिचे वांगडा कोंकणीतल्या लोकवेदांतल्यो तीन रचना दिल्यात. ह्यो चार रचनांच्यो देखी वाचतकच सतराव्या शेंकड्यात वावुरतल्या मराठणातल्या एका कवीन तेन्नामेरेन चालंत आशिल्ल्या गोंयांतल्या लोककाव्याचो कसो अपहार केल्लो आसा हें स्पष्ट जाता. इतलेंच न्हय तर, कालांतरान गोंयातल्या मराठीच्या चडत्यावाडत्या प्रभावान कोंकणीतल्या उतरावळींत मराठीतली उतरां कशी भरसून वडयल्यात हें स्पष्टतायेन दिसता. ह्यो चार काव्यरचना एकेच कथेची कथा सांगतातच खेरीज भाशीक स्वरुपांत अंतर कशें पडत गेले हेविशिंचीय कथा सांगतात. ह्या चार रचनांतली मुळावी कथा अशीः

मुळाव्या कोंकणी लोककवितेंतल्या घरकान्नीचें नांव 'कांगणी' अशें आसा. परंत हेर दोन रचनांतल्यान 'कांगणी' ह्या नावाच्या बदला त्या घरकान्नीचें नाव 'चांगुणा' अशें मेळटा. कितेंय जांव परंत घराब्याचें नांव इबाडचें न्हय म्हणपाची जतनाय घेत घेत संसार करपी ही बायल. एक दीस परमेश्वर शिवशंकराक आपणाचेर निस्सिम भक्ती करतल्यांची परीक्षा करची अशे दिसता. कोणेच आपणाक परमेश्वर म्हूण वळखूचें न्हय असो गुरूबाबाचो भेस न्हेसून शिवशंकर गांवांत येता. मुळाव्या कोंकणीतल्या रचनेंत कांगणी ही जनसामान्याची प्रतिनिधी आशिल्ल्यान परमेश्वर शिवशंकराक गांवातल्या साबारांची परीक्षा करपाची गरज दिसना. हेर दोन रचना दिल्यात तातूंत चडावतपणान मराठी उतरांची भरसण दिसता. ह्या दोन रचनांतल्यान परमेश्वर शिवशंकराक साबार समष्टीचीच परीक्षा करपाची वांछा जाता, अशें दाखयिल्लें आसा. पयली गजाल म्हळ्यार ह्या हेर तरेचो भेस न्हेसून आयिल्ल्या परमेश्वराक गांवगिऱ्यातलो कोणूच वळखूक पावना. दुसरी गजाल म्हळ्यार जण एकलो जरी शिवभक्त आसलो तरीकूय ताका घरांतली कांय कर्तव्यां आसतातच. म्हणकीच एक घरकान्न म्हणटा - 'मियां हो बाळा हातांत घेतिल्ला।' गुरूबाबाक भिरभिरी मारता. जंय अतिथीचो सत्कार जाय ना थंय राविनास्तना बावा तिका 'आशिर्वाद' दिता - 'हो गे तूं बाळा भाईरी।' अशें म्हणून तो दुसऱ्या घरांत वता. थंय ताका एकली म्हणटा - 'माझा हो हात शेणांत भरिल्ला।' गुरूबाबा तिडकून म्हणटा - 'हो गे तूं शेणा भाईरी।' थंयसर राबितो करिनास्तना तो फुडल्यां घरांकडेन वता तर थंयची बायल ताका म्हणटा - माझा हो हात उष्ट्यांत भरिल्ला।' परमेश्वर शिवशंकर तिका म्हणटा - 'हो गे तूं उष्ट्या भाईरी।'

कांगणी अतिथीधर्म पुराय करतल्या वृत्तीचें प्रतिकच म्हळ्यार जाता. ती गुरूबाबाचो सत्कार करता. तिची भलायकी बरी नास्तनाय ती गुरूबाबाक अन्नदान करूंक सोदता. मुळावे लोककवित म्हणटा की कांगणेन - 'सोन्याचे दालयेंत । घातल्यो पांच मुठी । घ्या गूरू बाबा गा । तुमचा नि धर्म ।।' गुरूबाबा तर तिची परीक्षा करूंक आयिल्लो. म्हणटकच तं शिवराक अन्नदानान तृप्त कसो जातलो? गुरूबाबा म्हणटा - 'तसला गे धर्म । घेयिना

आमीं । चिल्लया नि बाळ । भोजनाला गे जायो।' हेर दोन कवितांत मात पयली पयली गुरूबाबा कुकड्यो आनी बोकड्यो रांदून मागता आनी उपरान्त चिल्लयाचें मांस रांदून वाडूंक सांगता. बायलांक आपणाल्या संसाराचो मान-सन्मान सांबाळून दवरपाची भोवच लागणूक. कांगणीय अशा लागणूकेक वचनबद्ध आशिल्ली पतिव्रता. अतिथीधर्म पाळपाची जापसालदारकी तिचीच. अशा साबार गजालीमुखार आवयचें काळीज चिड्डून वेता. आवयच्या काळजाचे तळमळे हो या काव्याचो स्थायीभाव. ही गजाल आनी एका शक्यतायेकडेन अंगुलीनिर्देश करता, ती म्हळ्यार मुळाव्या कोंकणी लोककवितेतल्यान हेर दोनीं रचना उप्रासल्यात आनी तातूंतल्या कथाभागाचो विस्तार जायत गेला. त्या निमतान या कवितेच्या माध्यमातल्यान समष्टीचें दर्शनय घडोवपाचो येत्न केला. त्या घरकान्नीचें नांव मराठीकरणाच्या येत्नातल्यान 'कांगणी'च्या बदला 'चांगुणा' तर जालेंच खेरीज त्याच निमतान तिची जात-वर्णय बदलपाचो येत्न जालो. स्वाभाविकपणान रंजकताय हाडपाच्या निमतान सदांच कलाकार आपणाल्या कल्पनाशक्तीक ताणटना दिसतात. तशेंच हांगसरय जालां अशें म्हणूंक येता. मुळावी राजाची राणी आशिल्ली 'कांगणी' तर फुडल्या लोकगीतांत 'चांगुणा' जालीच खेरीज ती एका रचनेत नुस्तयें खावपी 'बामणीं' तर हेर रचनांनी 'बिरामणी' जाल्या. मुळाव्या कोंकणी रचनेंत कांगणी ही राणी आशिल्ल्यान तिचो घोव शिवळ्या मेळटा; परंत हेर रचनांनी चांगुणेच्या घोवाचे दर्शन जायना. 'कोंबडी-बकरी' ही उतरां गोंयांतल्या मुळाव्या कोंकणींतली न्हयंत हेंय सत्य उजागर जाता. 'कोंबडी-बकरी' ह्या अर्थाची मुळावीं उतरां 'कुकडी-बोकडी'. यमकाच्या पावंडेरय हीं उतरां मुदयेर थिक कशीं दिसतात. कोंबडी-बकरी हीं मराठीतली उतरां उपरान्त कोंकणींत शिरकून पडल्यातशें दिसता. कोंकणी प्रत्यय तशेंच मराठी प्रत्यय आशिल्ली उतरां एकाच वेळार मेळटात. 'एकच' आनी 'एकूच' अशी कोंकणी-मराठी उतरां एके-एके फावटी वाचूंक मेळटात. मराठीन कोंकणी वाठारांत प्रवेश करतास्तना अशी व्याकरणीक बांदावळय बदलून वडोवपाचें पेंगट् बांदिल्लें म्हणपाचें कळीत जाता. भाशेच्या नदरेन पळयत जाल्यार मुळावी कोंकणी लोककवित ही संस्कृतांतल्या उतरांसावन चिकी पैसावल्ली दिसता तर हेर दोन लोककवितांनी मराठीच्या सांगाताच भरसून गेल्लं संस्कृतांतलीय उतरां वाचूंक मेळटात. जंय ह्यो सोकारती मेळ्ळयो थंय जरी कोंकणी भास चालन्त आसली तरी गोंयातल्या ह्या पेडणेचो वाठार हो मराठणातल्या कोंकणी प्रदेशाक लागीचो, म्हणटकच थंयची मराठी उतरांय निज कोंकणीत भरसून गेल्ली दिश्टी पडटात. अशें आसूनय श्रीधरकवीच्या रचनेंत कोंकणी उतरांची सुलूस लागना.

'चिल्लया नि बाळ', 'तुमचा नि धर्म', 'जनांत नि हांसता', 'कांदो नि सांबार', 'तसनें नि मच्छार', 'शीर नि देवुनीं', 'चार पानां नि कोणाक', 'मांसन् कुकड्या', 'मांसन् बोकडिय',

'मांसन् पुतरी', 'मांसन् आहार', 'मांसन् शागोती', 'एक नि तुज्या चिल्लया, एक नि तुज्या धनया, एक नि तुज्या देविया, एक नि माजियावाटी', 'उरितलो नि तो तुज्या वाटी' अशे वैशिष्ट्यपुराय उतरांच्यो जोडी कोंकणींत कांय काळाआदीं आशिल्ल्यो म्हणपाचे कळीत जाता. 'पांच मुठी', 'पांच सवायशिणीं', 'पांचांचि पांच पानां' ही पांच आंकांची नोंद तर लोकवेदाक लागीचीं तर एक, एकूच, दोगांय, तिसऱ्या, तीन, चार, पांच ही संख्यावाचक विशेषणां आनी तांचे सामान्यीकरण जावप ही भाषेच्या गिरेस्तकायेची कुरू. कोंकणींतय ही कुरू दिसून येता.

कांगणी गे नार । मनातशी रडता ।  
जनांत नि हांसता । मनांत गा रडता ।।,  
एकच माजो बाळ । एकूच माजो तान्हो ।  
कसो दान दींव । ह्या गोसांयाक देवा ।। ,  
चिल्लया बाळाचें । कसो करूं गा वध ।  
आनी अशें म्हण । कांगणी रडता धळधळ्यां देवा ।।



कोंकणी लोकवेदान हो आकांत शेंकड्यांनी वर्सांसावन सांबाळून दवरलो. आवयचें काळीज लोकवेदाक जितल्या प्रमाणांत होलमलें तितलें श्रीधरांक होलमूंक पावलेंशें दिसना.

श्रीधर कवीक गोंयांतली ही मुळावी कोंकणी रचनाच मेळ्ळयाशें दिसता. कारण ताणें 'कांगणी'च्या बदला 'चांगुणा' आनी 'शिवळया'च्या बदला 'श्रियाळ' परंत 'चिलया'चें अशें नामकरण केल्लें आसा. हेर कथा जशीच्या तशी दवरल्या; परंत अभिजात मराठी भाषाशैलीक अनुरूप असो तिचो भावरम्य कथाविस्तार केल्लो वाचूंक मेळटा. श्रीधरकवीन ते कथेक पुराणातल्या हेर गजालींची जोडय दिल्ली दिश्टी पडटा. म्हण्टकच, निकश असो काडूंक येता की ह्या कवीन कोंकणी उतरां आपणाल्या अभिजात मराठी रचनेंतल्यान तांदळांतले फातर काडून उडयतात तशीं काडून उडयली परंत कथानक मात तशेंच दवरलें. ताका गोंयातल्या ह्या लोकवेदान अपरूप अशें कथानक आनी तातूंतली व्यक्तिरेखा दिली. ही गजाल सतराव्या शेंकड्यातली. आयज लोकांच्या ओंठांर घोळटा ती शिवलीलामृतांतली कथा. उपरान्त मराठीच्या आक्रमणान कांगणीची चांगुणा जाली जावंये. कोंकणीच्या संबंदान उलयतास्तना 'मराठी भाषक' कोंकणी उलोवप्यांक, ते उच्चारणांत कशे चुकतात हें, सद्दां सांगत आसतात, हो तर आमचो नित्याचो अणभव. कालांतरान गोंयकारांनीय कांय नांवां बदललीं. समाजीक कारणांचोय प्रभाव पडिल्ल्यान कथानकाक ढळ लागचो ना अशी जतनाय घेवन लोकवेद केळयलो. पेडणेकारांनी हो लोकवेद सांबाळून दवरूंक नाशिल्लो जाल्यार आमीं श्रीधरकवीचीच तुस्त गायत रावतले आशिल्ले.

**(१) <u>'चिल्लया बाळ'</u> : गोंयांतली - पेडणे महालांतली - चिलयाबाळाची *सोकारत* : एक लोकगीत**

आकाशीचे गुरू । खालींशे उतरले ।
नयें गे सवळें । नयें गे वस्तर ।।
वस्तर पिंनूनि । झोळीशी शिवल्या ।
खांकेंक लायल्या झोळी । हातींन घेतलां पात्र ।।१।।

आनी गुरूबाबा चालता । मारगान देवा ।
चालतां-बोलतां पावला । शिवळ्या राज्यांत ।।
आनी भिक्षा-भिक्षा म्हण । साद केला देवा ।
कांगणी गे नार । बाहेर सरल्या ।।२।।

सोन्याचे दालयेंत । घातल्यो पांच मुठी ।
घ्या गुरू बाबा गा । तुमचा नि धर्म ।।
तसला गे धर्म । घेयिना आमीं ।
चिल्लया नि बाळ । भोजनाला गे जायो ।।३।।

कांगणी गे नार । मनांतशी रडता ।
जनांत नि हांसता । मनांत गा रडता ।।
एकच माजो बाळ । एकूच माजो तान्हो ।
कसो दान दींव । ह्या गोसांयाक देवा ।।४।।

शिवळ्या रे राजा । गेला वयल्या वाड्यार । .
कुकडाच्यो । सांगडी हाडल्या ।।
सांगडी हाडून । वांयनांत कुटिल्या ।
कांदो नि सांबार । वांयनांत कुटिला ।।५।।

आनी मच्छर रांदिला। कुकड्याचें देवा ।
उठा गुरू बाबा । चला हो भोजनाक ।।
तसलें नि मच्छार खांयना गे आमीं ।
आमकां गे जाय चिल्लया नि बाळ ।।६।।

एकच माजो बाळ । एकूच माजो तान्हो ।
कसो दान दींव । ह्या गोसांयाक देवा ।।
शिवळ्या रे राजा । गेला वयल्या वाड्यार ।
बोकड्यांच्यो सांगडी । घेऊन रे आला ।। ७।।

सांगडी हाडून । वांयनांत कुटिल्या ।
कांदो नि सांबार । वांयनांत कुटिला ।।
आनी मच्छाऱ रांदिला। बोकड्याचें देवा ।
उठा गुरू बाबा । चलां हो भोजनाक ।।८।।

तसलें नि मच्छार । खांयना गे आमीं ।
आमकां गे जाय । चिल्लया नि बाळ ।।
एकूच माजो बाळ । एकूच माजो तान्हो ।
कसो दान दींव । ह्या गोसांयाक देवा ।। ९।।

चिल्लया बाळाचें । कसो करूं गा वध
आनी अशें म्हण । कांगणी रडता धळधळ्यां देवा ।।
मातेन धरिलो । पित्यान वध केलो ।
शीर थेयलें शिंक्यार । लूण थेयलें वांयणांत ।।१०।।

वांयनांर थेवून । मच्छार कुटिलें ।
कांदो नि सांबार । वांयनांत कुटिलो ।।
आनी मच्छार रांदिला । चिल्लयाचें देवा ।
उठा गुरू बाबा । चला हो भोजनाक ।।११।।

कांगणी गे नार । मनांत दुबावपण ।।
शीर थेयलय शिंक्यार । लूण थेयलय वांयनांत
आपुल्या बाळाचें कशें । कुटू गा मुख ।
पांच सवायशिणीं आपोन । शीर गा देवयलें ।।१२।।

शीर नि देवुनीं । वायनांत कुटिला ।।
आनी मच्छार रांदिला । चिल्लयाचें देवा ।
उठा गुरू बाबा । चला हो भोजनाक ।
कांगणी गे नार । चार पानां गे कर ।।१३।।

चार पानां नि कोणाक । आमीं अवघीं तिगां जाणा ।।
चिल्लयाचें माते । दारी उभी गे राव ।
आनी चिल्लया बाळाक । साद घाल देवा ।
पयलो नि गे साद । वाऱ्यार रे हुबला ।।।१४।।

दुसरो गे साद । कानी नि पडला ।।
आनि तिसऱ्या सादाक । बाळ धांवून येयला देवा ।
खंय बाळा गेल्लय । खंय बाळा आसल्लय।
घुडघुडी ओडुनी । गुरू-मठांर पडलेलों ।।१५।।

तुजो नि साद । आयकून गे आयलों ।।
उकलून बाळाक । पोटाशी धरिलो ।
आनी मायेचें मच्छार । रांदुनी भोजन केलें देवा ।
चौगांय बसोनी । भोजन गा केलें ।।१६।।

शिवळ्या रे राजा । खुशाल राज्य कर ।।
कांगणी गे नारी । खुशाल राज्य कर ।
चिल्लया नि बाळा । खुशाल राज्य कर ।
आनी आमीं चलता । चलता आमच्या गांवां ।।१७।।

**(२) '<u>चिल्लया बाळ</u>' : गोंयांतली - पेडणे महालातली - चिलयाबाळाची *सोकारत* : एक लोकगीत**

भगवान खाला उतरलो । माखिल्लीं बिबूद अंगाक ।
लायिल्लीं झोळी काखेक। दाण्डो घेतिल्लो हातींत ।।
गे पयिला घरां गेलो । घरांत कोण बाया गे । धरम करा ।
मियां हो बाळा हातांत घेतिल्ला । बावांनी आशिर्वाद दिलो । हो गे तूं बाळा भाईरी ।।

गे दुसरा घरां गेलो । घरांत कोण बाया गे । धरम करा ।।
माझा हो हात शेणांत भरिल्ला । बावांनी आशिर्वाद दिलो । हो गे तूं शेणा भाईरी ।।
गे तिसरा घरां गेलो । घरांत कोण बाया गे । धरम करा ।।
माझा हो हात उष्ट्यांत भरिल्ला । बावांनी आशिर्वाद दिलो । हो गे तूं उष्ट्या भाईरी ।।

गे चवथा घरां गेलो । घरांत कोण बाया गे । धरम करा ।।
दादला भाईरी । चिल्लया भाईरी । चांगूची कूड दुखेस्ती । एकलीच घरी ।।
चांगू नारीनं । देखिले गे दूरसून । दायें हाती बसा म्हणी । आणी उजये हाती पाणी ।
बाबांचो बसकार केलो । सुवर्ण सूप काडिलो । रातीक पोटावीन । रान्नीं धाकिल्ला ।

मूठभर साळी आणि । मूठभर दाळी । चांगुनी नार गे । धरम करू लागली ।।
धरम हाडिला गे नारी । मूठभर दाळी? तसलो धरम नको गे नारी । जातली तूं दाळी भाईरी?
धरम सांगा हो स्वामिया । आमकां जाई मांसन् कुकड्या । खिणभर हो स्वामिया । सोदून हाडिते पांखुड्या ।।
चांगुन्या नारीनं गे । भाईरी धाऊ घेतली । गांवकारां वाड्यार । गे एकलीच गेली ।।

गांवकारमामानं देखिली । हांगसर बामिणी अचकित येयली? दायें हाती बसा म्हणी । आणी उजये हाती पाणी ।
गांवकारमामा तूं । माझा बाबा हो गा । कुकड्या सांगाडा आसतल्यो । बेगीं तूं देगा ।।
बामणी गे तुमची जात । कुकड्या काय काजा जाई । नुसत्यें तुमीं सदां खाई। । सोयरो घरा आला बाई ।
गांवकारमामानं दिली । सवाष्ण पाखुडी । चांगुनीची गे । गेली कुडकडी ।।

चांगुनी नारी । आली घरांलागीं । कानो कोथमिरीं काय । हळडी हिंगां फोण्णी ।
तळीलो भाजिलो । निवन्या देंवियलो । उठा उठा स्वामिया । चला गा न्हायाला ।
मान्न्यांत शिंदलय । उदकाचां भारो । न्हाउनुं गा । तुमीं भोजन करा ।।
कसला भोजन । रानलय गे नारी । गा रानल्या । मांसन् कुकड्या ।।

भोजन पाड । नाय आमकां चाड । तसलां भोजन । नको गे वाडी ।।
सांगा भोजन । स्वामिया झडकरी । आमकां जाई । मांसन् बोकडी ।

खिणभर रावात । हो स्वामिया । हाडिते धवशी । दुमखिरी खाया ।।
बकरीचा खाणां । रांदिते भाणां । धादोशी सोयरा । होउनिं जाया ।।

कोणी विचारील । स्वामिया बोल लावील । देखून दोळियां । तेळून दिली ।
चांगुन्या नारीनं गे । भाईरीं धाऊ घेतली । धनगरां वाड्यार । गे एकलीच गेली ।।

धनगरबाबानं देखिली । हांगसर बामिणी अचकित येयली? दायें हाती बसा म्हणी । आणी उजये हाती पाणी ।
धनगरबाबा तूं । माझा मामा हो गा । बोकडिये सांगाडा आसतल्यो । बेगीं तूं देगा ।।
बामिणी गे तुमची जात । बोकडिये काय काजा जाई । नुसत्यें तुमीं सदां खाई। । सोयरो घरा आला बाई ।
धनगरबाबानं दिली । न्हाती चौखुडी । चांगुनीची गे । गेली कुडकडी ।।

चांगुनी नारी । आयली घरांलागीं । कानो कोथमिरीं काय । हळडी हिंगां फोण्णी ।
तळीलो भाजिलो । निवन्या देंवियलो । उठा उठा स्वामिया । चला गा न्हायाला ।
मान्यांत शिंदलय । उदकाचां भारा । न्हाउनुं गा । तुमीं भोजन करा ।
कसला भोजन । रानलय गे नारी । गा रानल्या । मांसन् बोकडिया ।।

भोजन पाड । नाय आमकां चाड । तसलां भोजन । नको गे वाड ।
सांगा भोजन । स्वामिया झडकरी । आमकां जाई । मांसन् पुतरी ।।

चिलया बाळाचा गे कर । मांसन् आहार । हर हर महादेवा । शिरी शिरी रे भगवनां ।
मजो देवा एकच पूत । स्वामियाचा सूत । गेली गे खळ्याचे पेळेर । चिल्लया चिल्लया म्हणून पाचारिलें ।।
चिल्लया बाळ । धांवूनी आयलो । मातेच्यो मिरयो घुसळिलो । देवाक आर्गे दे । म्हणूंक लागलो ।
काडिली पाखेची सुरी । मारिली बाळाचे उरीं । दोळ्यांच्या पापण्यांक । आड करी झरी ।।

बाळा कसली रे तुजी माता । जल्मलेल्या जिता खाता । अशें नाका म्हणूं । देव माजा अतिती ।

काळिज चिलयाचे । म्हणे थातार गे माते । शीर थेयलें खुंटीवरी न् । रुंडाची केली मांसन् शागोती ।।
चांगुनी नारी । काळजाघाय भरी । कानो काय कोथमिरीं । हळडी हिंगां फोण्णी ।
तळीलो भाजिलो । निवन्या उतरिलो । उठा उठा स्वामिया । चला गा न्हायाला ।

भोजन पाड । नाय आमकां चाड । दुभंगाचा भोजन । नको गे वाड ।
सांगा भोजन । स्वामिया झडकरी । शीर थेयला तुंवे । लपवुनि खुंटीवरी ।।
चांगुनी नारी । रडें थाकायलें उरीं । कानो काय कोथमिरीं । हळडी हिंगां फोण्णी ।
तळीलो भाजिलो । निवन्या देंवियलो । उठा उठा स्वामिया । चला गा न्हायाला ।

बिबुदी देव बोलिला । देह जाई वांटिला । कर गे पाचांचि पाच पानां । आतां जाऊ खंयच्या रानां?
एक नि तुज्या चिल्लया । एक नि तुज्या धनया । एक नि तुज्या देविया । एक नि माजियावाटी ।।
उरितलो नि तो तुज्या वाटी । रांदिलें गोमटी । भरू आमचें पोटीं । चिलयाक खंयी सोदू?
तूं भाईरी जा गे । खळ्याचें पेळेर । चिल्लया चिल्लया कळवळून । हाकां-साद घाल गे ।।

गेली गे खळ्याचे पेळेर । चिल्लया चिल्लया कळवळून । चांगून पुताक हाकां घातिल्यो ।
चिल्लया बाळ गे धावुनि आलो । ना थकिला ना मातिलो । मातेच्या मिरयां । घुसळिलो ।।
चांगूनं कडसरावरी थेयिला । डोळियांच्या झरी व्हांवल्यो । भगवन् संतोसलो । भक्तिक पळोवन ।
देवालें गे येणें । कोणी ना गे जाणें । रुपाक देखून । भक्तिक ना मोखणे...।।

**(३) <u>'चिल्लया बाळ'</u> : गोंयांतली - पेडणे महालातली - चिलयाबाळाची *सोकारत* : एक लोकगीत**

भगवान खालीं उतरला । अंगाला माखिली बिबूद ।
काखेला लाविली झोळी । हातींत घेतिला दाण्डा ।।
गेला ग पहिला घरा । घरात कोण बाया गे धरम करा ।
मियां हो बाळा घेतिला । बावांनी आशिर्वाद दिला - हो गे तूं बाळा भाईरी ।।

गेला ग दुसऱ्या घरा । घरात कोण बाया गे धरम करा ।
माझा हो शेणांत भरला हात । बावांनी आशिर्वाद दिला हो गे तूं शेणा भाईरी ।।
गेला ग तिसऱ्या घरा । घरात कोण बाया गे धरम करा ।
माझा हो उष्ट्यात भरला हात । बावांनी आशिर्वाद दिला हो गे तूं उष्ट्या भाईरी ।।

गेला ग चवथ्या घरा । घरात कोण बाया गे धरम करा ।
चांगूने नारीनं ग दूरसून देखिलेन । दाये हाती म्हणी काय उजये हाती पाणी ।
बावांचा बसकार केला । काडिला सवर्ण सुप ।
मूठभर साळी काय मूठभर दाळी । चांगूनी नार ग धरम करू आली ।।

कसला धरम आणलाय गे नारी । हाडिला मूठभर साळी आणि दाळी ।
तसला धरम नको गे नारी । कसला धरम सांगा हो स्वामी ।।
मज हव्या भोजन कोंबड्या मच्छर । चांगुन्या नारीन ग धाऊ घेतली ।
गेली ग गांवकारा वाड्यार । गांवकार मामान दूरसून देखिल्यान ।।

दाये हाती म्हणी काय उजये हाती पाणी । चांगूने नारीचा बसकार केला ।
गांवकारा मामा तूं मैतर हो गा । कोंबड्या सांगाडा लौकर देगा ।।
तुमची बिराम्नी जात । कोंबड्या सांगाडा काय काजा जाई ।
आमच्या घरी आला अवचित पावना चांगूनी नारी ग आली घरापाशी ।।

कानो कोथंमिरी काय हिंगा फोडणी । तळीला भाजिला निवऱ्या उतरिला ।
उठा उठा स्वामिंनू आंघोळी करा । आंघोळी करा तुम्ही भोजन सरा ।।
कसला भोजन रानलय गे नारी । रानीलय कोंबड्या मच्छर ।
तसल्या भोजनाची नाय आम्हा चाड । तसला भोजन नको गे नारी ।।

कसला भोजन सांगा हो स्वामी । मज हव्या बकऱ्या मच्छर ।
चांगुन्या नारीन ग धाऊ घेतली । गेली ग धनगरा वाड्यार ।।
गेली ग धनगरा वाड्यार । धनगरा मामान दूरसून देखिल्यान ।
दाये हाती म्हणी काय उजये हाती पाणी । चांगूने नारीचा बसकार केला ।।

धनगर मामा तूं मैतर हो गा । बकऱ्या सांगाडा लौकर देगा ।
तुमची बिराम्नी जात । बकऱ्या सांगाडा काय काजा जाई ।।
आमच्या घरी आला अवचित पावना । चांगूनी नारी ग आली घरापाशी ।
कानो कोथंमिरी काय हिंगा फोडणी । तळीला भाजिला निवन्या उतरिला ।।

उठा उठा स्वामिंनू आंघोळी करा । आंघोळी करा तुम्ही भोजन सरा ।
कसला भोजन रानलय गे नारी । रानीलय बकऱ्या मच्छर ।।
तसल्या भोजनाची नाय आम्हा चाड । तसला भोजन नको गे नारी ।
कसला भोजन सांगा हो स्वामी । कर गे चिल्लया बाळाचा ।।

हरी रे हरी नारायणा । शीरी रे शीरी भगवना ।
मज देवा एकाच एक । गेली गे खळ्याचे पेळेर ।।
चिल्लया चिल्लया म्हणून हाका मारिल्या । चिल्लया बाळ गे धावूनी आला ।
मातेचे मिऱ्या घुसळिला । काडिली कमरेची सुरी ।।

मारिली बाळाचे उरी । शीर गे थेयला खुंटीवरी ।
रुंडाचा केला मच्छर । कानो कोथंमिरी काय हिंगा फोडणी ।।
तळीला भाजिला निवन्या उतरिला । उठा उठा स्वामिंनू आंघोळी करा ।
आंघोळी करा तुम्ही भोजन सरा । कसला भोजन रानलय गे नारी ।।

रानीलय बकऱ्या मच्छर । रानिला चिल्लया बाळाचा ।
दुभंगाचा भोजन नको गे नारी । शीर गे आहे खुंटीवरी ।।
घेतिला बाळाचा शीर । कानो कोथंमिरी काय हिंगा फोडणी ।
तळीला भाजिला निवन्या उतरिला । उठा उठा स्वामिंनू आंघोळी करा ।।

आंघोळी करा तुम्ही भोजन सरा । कसला भोजन रानलय गे नारी ।
रानीलय बकऱ्या मच्छर । रानिला चिल्लया बाळाचा ।।
कर गे पांच नि पानां । पांच नि पानां कोणांक ।
एक नि तुझ्या चिल्लया । एक गे तुझ्या भरतार ।।

एक गे तुझ्या देवाला । एक गे मज नि साठी ।
एक गे तुज नि साठी । चिल्लयी बाळ ।
माजा हाई जा कोणी । जा गे तूं खळ्याचे पेळेर ।।
चिल्लया चिल्लया म्हणून हाका मार गे । गेली गे खळ्याचे पेळेर ।।
चिल्लया चिल्लया म्हणून हाका मारिल्या । चिलया बाळ ग धाउनि आला ।
मातेचे मिरया घुसळिला । उचलुनी कडेवर घेतला ।।

**(४) श्रीधरस्वामीविरचित 'शिवलीलामृता' (अध्याय चौदावा) तली विलापिका:**
(कवीचो परिचय: श्रीधर नाझरेकर (१६५८-१७२९), श्रीधर ब्रह्मानंद वा श्रीधरस्वामी या नांवानय परिचित. पंढरपूरसावन बत्तीस मैल अंतराचेर नाझरे गावांत राबितो आशिल्लो मराठणातलो नावाजतो कवी. हरिविजय, रामविजय, पांडवप्रताप, वेदान्तसूर्य व *शिवलीलामृत* अशी ही सव्वालक्ष रचना करण्याचे लक्ष्य पूराय.) या भागांत कवी श्रीधराच्या नावान दाखयिल्ली 'शिवलीलामृता' (अध्याय चौदावा) तली विलापिका उद्‌धृत केल्या. ती वाचतकच अभ्यासकाक गोंयातल्या चिलयाबाळाच्या सोकारतीचो आदार घेवन श्रीधर कवीन आपणाल्या शिवलीलामृतांत एक स्वतंत्र प्रकरण रचिल्लें आसा म्हणपाचें पुराय तरेन स्पष्ट जावं येता.

करीं वीणा घेऊनि ब्रह्मसुत । शिवाजवळी आला अकस्मात । म्हणे हे विश्वंभर विश्वनाथ । तुझे भक्त देखिले बहु ।।११५।। परी कांतिनगरी श्रियाळ । धीर गंभीर उदार सुशीळ । कीर्तीनें भरलें दिग्गमंडळ । सात्त्विक केवळ क्षमावंत ।।११६।। तेणें घातलें अन्नसत्र । झालीं वर्षे दहा सहस्त्र । इच्छाभोजन दान पवित्र । अतीतांप्रति देतसे ।।११७।। अवनीं जे अगम्य वस्त । भोजनी मागीतली अकस्मात । ती प्रयत्नें आणोनि पुरवीत । शिवभक्त थोर तो ।।११८।। ऐसें नारद सांगतां वर्तमान । त्याच्या गृहाप्रति पंचवदन । कुश्चळ अतीतवेष धरून। येता झाला ते समयीं ।।११९।। आंगणीं उभा ठाकला येऊन । परम कोपी जेवीं दावांग्न । दुष्टवचन बोले कठिण । रूपही संपूर्ण कुश्चळचि ।।१२०।। म्हणे मज देई इच्छाभोजन । नातरी जातों सत्त्व घेवोन । श्रियाळ चांगुणा येवोन । पाय धरिती *सद्भावें ।।१२१।। आणोनि बैसविला आसनीं । त्याचीं क्रोधवचने सोसूनी। षोडषोपचारें पूएजा करोनी । कर एजोडोनि ठाकती पुढे ।।१२२।। मागा स्वामी इच्छाभोएजान । येरू म्हणे नरमांस देईं आणोन । तूं चोर आणिसी धरून । त्याचे मांस न घे मी ।।१२३।। धरूनि माझा उद्देश । विकत आणिसील मनुष्य । तें न घें मी नि:शेष । सत्य सत्य त्रिवाचा ।।१२४।। चांगुणा* म्हणे कर जोडून । मी आपुलें मांस देतें करीं भोजन । श्रियाळ म्हणे मानेल पूर्ण । माझें मांस देतों मी ।।१२५।। येरू म्हणे तुम्ही पवित्र तत्त्वतां । परी सर्व याचकांचे मातापिता

। तुम्हां दोघांसी भक्षितां । अन्नसत्र खंडेल ।।१२६।।तरी तुमचा एकुलता एक स्नेहाळ । पांच वर्षांचा चिलया बाळ । बत्तीसलक्षणी वेल्हाळ । तो मज देईं भोजना ।।१२७।। ऐसें ऐकतां वचन । मायामोहजाळ दूर करून । म्हणती अवश्य जा घेवोन । मग सदाशिव बोलत ।।१२८।। मी काय आहें वृक व्याघ्र रीस । भक्षूं तव पुत्राचं मांस । उबग न मानूनि विशेष । पचवूनि घालीं मज आतां ।।१२९।। मायामोह धरून । कोणी कराल जरी रुदन । तरी मी जाईन उठोन । सत्त्व घेवोन तूमचें ।।१३०।। अवश्य म्हणोनि पतिव्रता । उभी ठाकोनि बाहे निजसुता । म्हणे बाळा चिलया गुणवंता । खेळावया कोठें गेलासि ।।१३१।। तुजलागीं खोळंबला अतीत । बाळा माझ्या येईं धांवत । ऐसे ऐकतां अकस्मात । बाळ आला धांवोनी ।।१३२।। अतीतासी करूनि नमन । मातापितयांचे धरी चरण । माता म्हणे तुझें पिशितदान । अतीत मागतो राजसा ।।१३३।। बाळ बोले स्नेहेंकरून । हा देह म्यां केला शिवार्पण । अतीत होतां तृप्त पूर्ण। उमारमण संतोषेल ।।१३४।। ऐसें ऐकता झडकरी । बाळ घेतला कडियेवरी । पाकशाळेभीतरीं । घेवोनि गेली वधावया ।।१३५।। चिलयासी चुंबन देऊन । हृदयीं धरिला प्रीतींकरून । बाळ म्हणे पुढती येईन । तुझ्या उदरा जननीये ।।१३६।। मायाजाळ सर्व सोडून । मन केले वज्राहूनि कठिण । चिलयाचें शिर छेदून । काढिलें मांस आंगींचें ।।१३७।। आपणांसी पुत्र नाहीं म्हणोनियां । शिरकमळ ठेविलें पहावया । शरीराचा पाक करूनियां । उठवी भोजना अतीतांते ।।१३८।। अतींद्रियद्रष्टा श्रीशंकर । अनंत ब्रह्मांडांचा समाचार । सर्व ठाऊक सूत्रधार । कळलें शिर ठेविलें तें ।।१३९।। उठोनि चालिली तात्काळ । धांवती चांगुणा श्रियाळ । येरू म्हणे कळलें सकळ । शिरकमळ ठेविलें ।।१४०।। सर्व गात्रांत शिरप्रधान । तेंचि कैसें ठेविलें वंचून । तंव तीं दोघें धरिती चरण । तेंही पचवून घालितों ।।१४१।। क्षोभ न धरावा अंतरी । नेणतपणें चुकलो जरी । तरी सर्वज्ञा तूं क्षमा करीं । सत्त्व आमुचें राखावें ।।१४२।। मग बैसला आसनीं येऊन । म्हणे शिर येईं बाहेर घेऊन । उखळांत घालूनि कंडन । मजदेखतां करीं आतां ।।१४३।। अश्रु आलिया तुझ्या नयनीं । कीं कष्टी झालिया अंतःकरणीं । तरी पुत्र गेला सत्त्वासी हानी । करूनि जाईन तुमच्या ।।१४४।। अवश्य म्हणे नृपललना । शिर आणोनि करी कंडणा । सत्त्व पाहे कैलासराणा । अंतरीं सद्गद होऊनी ।।१४५।। निजसत्त्वाचे उखळ । धरिलें धैर्याचें करीं मुसळ । कांडित बैसली वेल्हाळ । निर्धार अचळ धरूनिया ।।१४६।। अतीत म्हणे परम मंगळ । गीत गाय रसिक सुढाळ । खंती करितां पयःफेनधवल । दुरावेल जाण पां ।।१४७।। ते सद्भावसरोवरविलासिनी । कोमलहृदय नृपकामिनी । कीं निश्चळ गंगा भरूनी । जात मर्यादा धरूनियां ।।१४८।। तिचे पाहतां निजवदन । काळवंडला रोहिणीरमण । मृगशावाक्षी गुणनिधान । उपमा नाहीं स्वरूपातें ।।१४९।। म्हणे कोमलांगा बाळा सुकुमारा

। सुलक्षणा सुशीला नृपकिशोरा । सुहास्यवक्त्रा राजीवनेत्रा । येवोनि उदरा धन्य केलें ।।१५०।। तूं सुकुमार परम गुणवंता । माझे निष्ठुर घाव लागती माथां । तुजविण परदेशी आतां । दुबळी भणंग झालें मी ।।१५१।। कुचकमंडलीं अतिसुंदरा । कंचुकीबाहेर फुटल्या दुग्धधारा । कीं भूमिलिंगासी एकसरा । गळत्या लाविल्या तियेनें ।।१५२।। म्हणे अतीत जेवोनि अवधारीं । जाऊं दे राजद्वाराबाहेरी । देह त्यागीन ये अवसरी । यावरी धीर न धरवे पैं ।।१५३।। कैलासपंथ लक्षून । सखया एकला जातोसी मज टाकून । तुझे संगतीं मी येईन । उभा राहें क्षणभरी ।।१५४।। तूं मोक्षद्वीपाचें केणें भरून । जासी कैलासराजपेठ लक्षून । तुझे संगतीं मी उद्धरेन । मज टाकूनि जाऊं नको ।।१५५।। उदकाविण जैसा मीन । तैसी मी तान्हया तुजविण । माझे हृदय कठिण । लोकांत वदन केवीं दावूं ।।१५६।। तुझी माउली मी म्हणतां । लाज वाटे रे गुणवंता । तुवां आपुली सार्थकता । करूनि गेलासी शिवपदा ।।१५७।। हे त्रिभुवन शोधितां सकळ । तुजऐसा न दिसे बाळ । मग तें पचवून तात्काळ । उठा म्हणें अतीतातें ।।१५८।। अतीत म्हणे अवनीपती । उठा तुम्ही यजमान माझे पंक्ती । ऐसे ऐकतां श्रियाळनृपती । झाला चित्तीं संकोचित ।।१५९।। चांगुणा म्हणे नृपनाथा । सत्त्व राखावें सत्वर आतां । विन्मुख जाउं न द्यावे अतीता । मनीं चिंता न धरावी ।।१६०।। नव मास वाहिला म्यां उदरात । तुम्हांसी जड नव्हे चौंप्रहरांत । पोटीचा पोटी घालिता सुत । चिंता काय नृपश्रेष्ठा ।।१६१।। राव बैसला पंक्तीसी । ताट वाढोनि आणिलें वेगेंसी । अतीत म्हणे चांगुणेसी । तूंही येईं सवेग ।।१६२।। अवश्य म्हणोनि झडकरी । येवोनि बैसली नृपसुंदरी । यावरी अतीत म्हणे तुमच्या मंदिरीं । अन्न न घ्यावे सर्वथा ।।१६३।। निपुत्रिकाचें न पहावें वदन । मग तेथे कोण घेईल अन्न । दीपेंविण शून्य सदन । पुत्राविण तेवीं तुम्ही ।।१६४।। नासिकेवांचोनि वदन । कीं वृक्ष जैसा फळाविण । कीं बुबुळाविण जैसे नयन । शून्य सदन तुमचें तेवीं ।।१६५।। तंव ती दोघे बोलती सद्गदित । एक होता तो अर्पिला सुत । चांगुणा म्हणे गेलें सत्त्व । अतीत विन्मुख जाईल आतां ।।१६६।। एक बाळ तो दिधला भोजनासी । आतां महाराजा सत्त्व किती पाहासी । ऐसे बोलतां चांगुणेसी अद्भुत गहिंव दाटला ।।१६७।। म्हणे सत्त्वही बुडाले सकळ । वृथा गेलें माझें बाळ । मग कंठ मोकळा करूनि ते स्नेहाळ । हांक फोडी चांगुणा ।।१६८।। नयनीं चालिल्या प्रेमाश्रुधारा । म्हणे आहा शिव कर्पुरगौरा । दीर्घस्वरे बाहे उमावरा । पाव सत्वरीं या आकांती ।।१६९।। आहा झालें वंशखंडन । न देखों पुढती पुत्रवदन । ऐसें ऐकतां अतीताचे नयन । स्त्रवों लागले प्रेमभरें ।।१७०।। बाहेर फुटली मात । वळसा होत नगरांत । लोक दुःखें वक्षःस्थळ पिटीत । राजकिशोर आठवूनी ।।१७१।। विमानीं दाटले सुरवर । म्हणती धन्य पतिव्रता सत्त्वधीर । ईस प्रसन्ना होवोनि श्रीशंकर । काय देईल तें न कळेचि ।।१७२।। अतीत म्हणे चांगुणेसी

। जें प्रिय असेल तुझे मानसीं । तें मजसीं माग सद्गुणराशी । यावरी सती काय बोले ।।१७३।। मज निपुत्रिक म्हणतील लोक । हा धुवोनि काढीं कलंक । ऐसे ऐकतां कैलासनायक । बोलावीं म्हणे पुत्रासी ।।१७४।। सत्य मानून अतीतवचना । दीर्घ हांका फोडीत चांगुणा । म्हणे चिलया गुणनिधानां । येई स्नेहाळा धांवोनी ।।१७५।। अतीत तुजविण न घे ग्रास । कोठे गुंतलासी खेळावयास। माझें तान्हें तूं पाडस । सत्व राखें येवोनियां ।।१७६।। तूं न येसी जरी धांवोन । तरी माझा जाऊं पाहे प्राण । दशदिशा विलोकून । चांगुणा पाहे तेधवां ।।१७७।। मागुती हांक फोडी वेल्हाळ । तों जैसा उगवे मित्रमंडळ । तैसा धांवतचि आला बाळ । पाहे श्रियाळ स्नेहभरें ।।१७८।। अतीतस्वरूप टाकून । शिव प्रगटला निजरूप पूर्ण । दशहस्त पंचवदन । दीनोद्धारणें जगद्गुर ।।१७९।। चिलया शिवें हृदयीं धरिला । निज अंकावरी बैसविला । श्रियाळचांगुणा ते वेळां । पायांवरी लोळती ।।१८०।। सुरवर सुमनें वर्षती अपार । दुंदुभिनादें कोंदलें अंबर । आनंदमय झाले नगर । धांवती लोक पहावया ।।१८१।। शिवें आणविले दिव्य विमान । श्रियाळ चांगुणा दिव्यरूप होऊन । चिलयासी सिंहासनीं स्थापून । छत्र धरिलें तयावरी ।।१८२।। सचिवांसी निरवोनि राज्यभार । विमानीं बैसलीं सत्वर । निजपदी जगदुद्धार । श्रीशंकर स्थापी तयां ।।१८३।। कांतिनगरीं सौख्य अगाधे । त्रिभुवनीं न माये आनंद । श्रीधरस्वामी तो ब्रह्मानंद । अभंग न विटे कालत्रयी ।।१८४।। शिवलीलामृत ग्रंथ । झाला चतुर्दश अध्यायपर्यंत । चौदा भुवनांचें सार यथार्थ । चौदा अध्याय निर्मिले ।।१८५।।

ही कोंकणी लोकवेदातली कथा मराठींतल्याच बरपावळींत न्हय तर संस्कृतातल्या एकाद्या हिंदू पुराणांत वाचूंक मेळटा अशें कोणेंय नदरेंक हाडून दीत तर बरें जातलें. ह्या रचनांतलीं 'दुखेस्ती', 'पोटाळटा' ह्या सारकी कांय उतरां सतराव्या शेंकड्यांत गोंयांत राबितो करतल्या किरिस्तांव पाद्रिंनी ज्यो जेजू-मेरीच्या संबंदान कथा सांगपी विलापिका बरयल्यात तातूंतय घोळटिकेंत दिसतात. पयले फावट गोंयान 'भागवता'चो अणकार केलो, उपरान्त तो मराठींत जालो. पयली एका गोंयकारान भूपाळी पद्धतीचो काव्यप्रकार केळयलो. तो उपरान्त मराठींत आयलो. पयली फावट गोंयकारान संगीत नाटकाचे नेम मारले आनी ताचे उपरान्त मराठींत त्या लेखनप्रकाराक ठशठशीतपणान इमारत लाबली. कोंकणीं मनशान कथा, कादंबरी प्रकारय केळयले. तेच भशेन 'विलापिका' हो काव्यप्रकार कोंकणीन पयली केळयलो. हाचेपयलीं हांवे ज्यो लोककाव्याच्यो तीन देखी दिल्यात त्यो 'सोकारत' म्हळ्यार 'विलापिका' (ELEGY) अशाच संबोधनान लोकचालंत आसात. अशे तरेन हो काव्यलेखनप्रकार कोंकणींत आशिल्लो म्हणपाचें कळीत जाता. हांव जेन्ना 'विलापिका' अशें म्हणूंक सोदतां तेन्ना ते संज्ञेंत आशिल्लो करुणरसाचो परिपोषय मतींत घेंवचो पडटा. हांगसर

कांगणीक चिलया, जाका आपणे कातरून, शिजोवन - ताची शाकुती करून गुरूबाबाक वाडली तो, पर्थून आपणाक मेळटलो म्हणपाची आस्त ना. जगन्नाथ पंडितान म्हणिल्लेंच आसाः 'यदा तु सत्यपि मृत्वज्ञाने देवता प्रसाददिना पुनरुज्जीवनज्ञानं कथचित्साात तदालंबनस्यांत्यतिकनिरासाभावाच्चिरप्रवास इव विप्रलंभ एव नसकरुणः' (अर्थात्: जंय आपलो मनीस भायर पडला अशी जाणविकाय आसूनय देवतेच्या कृपाप्रसादान तो मनीस पर्थून जितो जावपाची शक्यता आसा म्हणपाचें गिन्यान जाता थंय त्या मनशाचें अस्तित्व नष्ट जायना हे स्पष्टच दिसता. म्हणटकच तो रस विप्रलंभ शृंगाररस जाता, करुणरस न्हय.' -रसगंगाधर, पानांक ८८.) या विचारान वचत जाल्यार येशूचे खुरसार मरण जावप ही कथा करुण रसाची निष्पत्ती करीना तर विप्रलंभ शृंगाररसाचो अणभव दिता अशेंय म्हळ्यार जाता. कारण येशू पर्थून मेळूंक येतलो अशें ताणेंच म्हणिल्लें अशी किरिस्तांवांची श्रद्धाय आसा.

संस्कृत साहित्यरचनांचो विचार करूंक लागत जाल्यार प्रियजनांच्या विरहकथांनी शोक अनुस्यूत आसता हें स्पष्टतायेन दिसता. रामान सीतेखातीर केल्लो शोक, वनवासांत आसतना नलान तोंड लिपोवन घेतलें आनी देशांतराक गेलो. तेदनां नल आतां पर्थून मेळचोच ना, म्हण्टकच सर्वस्वच शेणोवन बसलें आपुण अशें समजून घेतिल्ल्यान् दमयंतीक जाल्लो शोक, इंदुमतीच्या मृत्यून अजाची जाल्ली करुण मनोवस्था, उर्वशीच्या स्वर्गारोहणाउपरान्त पुरुची जाल्ली व्याकुळ अवस्था म्हळ्यार एकेक तरेच्यो सोकारतीच अशें म्हळ्यार जाता. ह्या कथांतल्या नायक-नायिकेचे संबंध प्रेमामोगाचे आशिल्ले. परंत पयलीच फावट गोंयातल्या ह्या कोंकणी लोकवेदांत आवय आनी पूत हांचेमदल्या वात्सल्याचो भावाविष्कार दिसता. गोंयची मायेमोगाची संस्कृती मतींत घेयत जाल्यार कोणाकच अजापय जांवचें ना. गोंयांतच देवकी-कृष्णाचें मंदीर मेळटा. साबारांक मोट्टे आजाप जाता तें ह्या गोंयच्या संस्कृतायेचें. ह्या पृथ्वीतलाचेर हेर थळांनी अशीं देवळां आसात व्हय? म्हणटकीच गोंयांतल्या ह्या चिलयाबाळाच्या सोकारतीन लोकवेदान श्रीधराकय ती रचना जशीच्या तशी उबारून व्हरपाक फाव तशी उर्बा दिल्ली आसूंये.

**उतरावळः**

(चत्राय : या उतरावळींत गोंयांतल्या - पेडणे महालातल्या - चिलयाबाळाची *सोकारत* या लोकवेदांतलींच उतरां आस्पावल्यात. कवी श्रीधराच्या काव्यरचनेतलीं उतरां आस्पावन घेवंक नात.)

**अ :** अचकित, अवचित, अतिती, अवघीं, अशें, अंगाक, आकाशी.

**आ :** आड करी झरी, आपोन, आमीं, आमकां, आमच्या, आणी, आतां, आनी, आणि,

आयकून, आयलों, आला, आली, आगें दे, आशिर्वाद दिलो, आसतल्यो, आसल्लय, आंघोळी करा.

**उ :** उकलून, उचलुनी, उजये, उठा, उभी, उतरले, उतरलो, उदकाचां भारो, उरीं, उष्ट्यांत भरिल्ला

**ए :** एकच, एकूच, एकलीच.

**क :** कडसरावरी थेयिला, कडेवर, कमरेची, कर, करूं, कसली, कसो, कळवळून.

**का :** काखेक (पळयात - खांकेक), काजा, कानो, काळिज, काळजाघाय भरी, काडिली, काय, कांगणी, कांदो

**कु :** कुकड्या सांगाडा, कुकडाच्यो, कुकड्याचें, कुडकडी, कुटिल्या, कुटू, कूड

**को :** कोण, कोणाक, कोणी, कोणी ना गे जाणें, कोथमिरीं, कोंबड्या.

**ख :** खळ्याचे पेळेर, खंय,खंयच्या, खंयी

**खा :** खाता, खाया बकरीचा खाणां, खाणां, खाला, खांकेंक, खाई, खांयना, खालींशे

**खि :** खिणभर

**खु :** खुशाल, खुंटीवरी

**ग :** ग,

**गा :** गा, गांवां, गांवकारमामानं, गांवकारां वाड्यार

**गु :** गुरू, गुरूबाबा, गुरू-मठांर पडलेलों,

**गे :** गे, गेल्लय, गेला, गेली, गेलो

**गो :** गोमटी, गोसांयाक

**घ :** घरां, घरांत, घरी, घरांलागीं

**घु :** घुडघुडी ओडुनी, घुसळिलो,

**घे :** घातल्यो, घेऊन, घेतलां, घेतिल्ला, घेतली, घेतिल्लो, घेयिना, घ्या

**च :** चला, चलता, चवथा, चवथ्या, चौगांय

**चा :** चालता, चालतां-बोलतां, चार, चांगू, चांगुन्या, चांगूची, चांगुनीची, चांगुन्या नारीनं, चांगुनी नारी,

**चि :** चिल्लया, चिल्लयाचें, चिल्लया बाळाक, चिल्लया नि बाळा, चिलया बाळाचा, चिल्लया चिल्लया, चिल्लया बाळ, काळिज चिलयाचे, चिल्लयी बाळ

**ज :** जनांत, जल्मलेल्या जिता खाता

**जा :** जा, जाई, जाय, जायो, जाऊ, जात, जातली, जाणा, जाणें

**जि :** जिता खाता,

**झ :** झडकरी, झरी,

**झो :** झोळी, झोळीशी

**डो :** डोळियांच्या झरी

**प :** पयलो, पयिला, पहिला, पळोवन

**पा :** पाखुडी, पांखुड्या, पाखेची सुरी, पांच मुठी, मूठभर साळी आणि मूठभर दाळी, पांच सवायशिणीं, पांचांचि पांच पानां, पाचारिलें, पाड, पाणी, पात्र, पावना, पावला

**पि :** पित्यान, पिंनूनि

**पु :** पुताक

**पू :** पूत

**पो :** पोटाशी धरिलो

**फो :** फोण्णी

**ब :** बकऱ्या, बकऱ्या मच्छर, बसकार केलो, बसा, बसोनी

**बा :** बामिणी, बामणी, बाई, बाया, बाहेर सरल्या, बाबा बावा, बाबांचो, बाळ, बाळा, बाळाक, बाळाचें

**बि :** बिबूद, बिबुदी देव, बिराम्नी

**बे :** बेगीं

**बो :** बोकड्याचें, बोकड्यांच्यो, बोकडिये सांगाडा, बोल लावील, बोलिला

**भ :** भक्तिक पळोवन, भक्तिक ना मोखणे, भगवन्, भगवान, भरतार, भरी, भरूं आमचें पोटीं

**भा :** भाईरी (बाळा भाईरी, शेणा भाईरी, उष्ट्यां भाईरी, दाळी भाईरी), भाणां, भाजिलो

**भि :** भिक्षा-भिक्षा

**भो :** भोजन केलें, भोजनाला, भोजनाक

**म :** मच्छऱ, मच्छार, मजो, मनांत, मनातशी

**मा :** माखिल्लीं, माखिली, माजो, माजा, माझा, माजियावाटी, मामा, माता, माते, मातेन, मातेच्यो, मातिलो, मान्यांत, मारगान, मारिली बाळाचे उरीं, मांसन् कुकड्या, मांसन् बोकडिया, मांसन् पुतरी, मांसन् आहार, मांसन् शागोती

**मि :** मियां, मिरयो घुसळिलो

**मु :** मुख

**मू :** मूठभर साळी आणि मूठभर दाळी

**मै :** मैतर

**त :** तसला, तसलें, तसलो, तळीलो भाजिलो । निवन्या देंवियलो

**ता :** तान्हो

**ति :** तिगां, तिसरा, तिसऱ्या

**तु :** तुजी, तुमचा, तुमची, तुज्या, तुमीं

**तू :** तूं

**ते :** तेळून दिली

**थ :** थकिला

**था :** थाकायलें, थातार गे माते

**थे :** थेयलें, थेयलय, थेयला, थेयिला

**दा :** दादला, दान दींव, दाण्डा, दाण्डो, दायें, दारी, दालयेंत,

**दि :** दिली, दिलो

**दु :** दुखेस्ती, दुबावपण, दुभंगाचा, दुमखिरी, दुसरा, दुसंरो, दुसऱ्या, दूरसून

**दे :** देखिली, देखिले, देखून दोळियां, देवयलें, देंवियलो, देवा, देवाक आर्गें दे, देव माजा अतिती, देविया, देवालें गे येणें, देवाला उरितलो नि तो तुज्या वाटी, देह जाई वांटिला

**दो :** दोळियां, दोळयांच्या पापण्यांक,

**ध :** धनगरबाबानं, धनगरां वाड्यार, धनया, धरिलो, धवशी, धर्म, धरम करा, धरम हाडिला, धरम सांगा

**धा :** धाकिल्ला, धाऊ, धांवूनी आयलो, धावुनि आलो, धाउनि, धादोशी सोयरा

**न :** नको, नयें

**ना :** ना थकिला ना मातिलो, नाका, नाय आमकां चाड, नार, नारी, नारीनं, न्हाती चौखुडी, न्हायाला

**नि :** नि, निवन्या

**नु :** नुसत्यें

**ये :** येयली

**र :** रडता धळधळ्यां, रडें थाकायलें उरीं

**रा :** राजा, राज्यांत, रातीक पोटावीन, रानां, रात्रीं धाकिल्ला, रांदिला, रांदिते, रांदुनी, रानलय, रानल्या, रांदिलें गोमटी, रानीलय, राव, रावात

**रु :** रुंडाचा, रुंडाची, रुपाक देखून

**रे :** रे

**ल :** लपवुनि

**ला :** लायल्या, लायिल्लीं, लागलो,

**लू :** लूण

**व :** वध केलो, वयल्या, वस्तर

**वा :** वांटिला, वाडी, वाड्यार, वांयनांत, व्हांवल्यो

**वि :** विचारील

**शि :** शिरी शिरी रे भगवनां, शिवल्या, शिवळ्या, शिवळ्या रे राजा, शिंक्यार, शिंदलय

**शी :** शीर

**शे :** शेणांत भरिल्ला

**स :** सदां, सवळें, सवाष्ण, संतोसलो

**सा :** साद केला, साद घाल, साद वाऱ्यार रे हुबला, साद कानी नि पडला, सादाक बाळ धांवून येयला, स्वामिया, स्वामियाचा सूत, स्वामिंनू, सांगा, सांगडी, कुकड्या सांगाडा, सांबार

**सु :** सुवर्ण सूप काडिलो, सुरी

**सू :** सूत

**सो :** सोदू, सोदून हाडिते, सोन्याचे, सोयरो

**ह :** हर हर महादेवा, हरी रे हरी नारायणा, हव्या, हळडी, म्हण, म्हणी, म्हणूंक लागलो, म्हणून पाचारिलें

**हा :** हाकां-साद घाल, हाकां घातिल्यो, हात, हातांत, हाती, हातींत, हातींन, हाडल्या, हाडून, (सोदून) हाडिते, हांगसर, हांसता, ह्या

**हि :** हिंगां

**हो :** हो, हो गे तूं बाळा भाईरी, हो (संबोधनार्थी)

या लेखाच्या माध्यमातल्यान भाशेशास्त्राच्या विद्यार्थ्यांक ध्वनिविन्यास, शब्दविन्यास आनी वाक्यविन्यास अशा पावंड्यांवेलो अभ्यास करपाची संद आसाच खेरीज सतराव्या शेंकड्यांतल्या किरिस्तांव पाद्रींचो कोंकणीतलो वावर मतींत धरून कितले प्रतिशत कोंकणी शब्द आशिल्ले म्हणपाचे नदरेतल्यान आलेखाची मांडावळय करूंक संद आसा. ह्या तीनूय सोकारतीतल्या कोंकणीत कांय नव्या उतरांचो सोद लागलो आसत जाल्यार प्रोफेसर सुमित्र मंगेश कत्रे हांगेल्या The Formation of Konkani ह्या पुस्तकाचो आदार घेवन भाशाभ्यास करपय समा जातलेंशें दिसता. पुण तो अधिकार भाशेशास्त्रीय अध्ययन करतल्या विद्वानांचो.

## लक्ष्मणरावांच्या कोंकणी कथनात्मक साहित्यांतली प्रादेशिकताय

दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजा उपरान्त भारतीय साहित्यांत जायत्यो नव्यो प्रवृत्ती उदेल्यो. तांतूंत अस्तित्ववादी, मनोविश्लेशणात्मक, दलीत, स्त्रीवादी, प्रादेशिक ह्यो वाङ्मयीन प्रवृत्ती मुखेल आशिल्ल्यो. तांतूतलीच प्रादेशिकताय ही प्रवृत्ती आयज कोंकणी बरोवप्या-वाचप्यांचें लक्ष आपले वटेन ओडून घेता.

संवसारीक साहित्यांत रोमँटिसिझमाचे चळवळीतल्यान प्रादेशिकताय उदरगतीक आयलीशें दिसता. शारांतल्या मनशाक 'सैमाकडेन पर्थून वचपा'ची उमळशीकशी लागली आनी ताका लागून जाल्ल्या वैचारिक आंदोलनान साहित्यांतले प्रादेशिकतायेक जल्म दिलो. 'जीं राष्ट्रां ह्या आंदोलनान प्रभावित जालीं ती राष्ट्रां स्वताल्या साहित्यांत प्रादेशिकतायेंचें दर्शन घडयतात' अशें मत्त डेनियल हॉफमन सारकेल्यान उकतायलें. विसाव्या शतमानाचे सुरवेक म्हळ्यार १९१० सावन बंगालींतल्या शरदबाबून, हिंदीतल्या मुंशी प्रेमचंद बी लेखकांनी गांवगिऱ्या शेतकामत्यांचे संस्कृतायेचेर आदारिल्ले जिणेच्या वास्तवरुपाचें दर्शन घडोवपाक आरंब केलो. ते तरेची बरपावळ आयजय चालूच आसा. गांवगिऱ्या जिविताच्यो जाणविकायो घेवन १९२५सावन मराठींत कथालेखन चलतालें. पूण १९३१त *सह्याद्रीच्या पायथ्याशी*न मराठीतल्यान प्रादेशीक चित्रां चितारपाक आरंब केलो. खरें म्हळ्यार मराठींत पयलेंच फावटीं प्रादेशिकताय हाडपाचें श्रेय गोंयकार लेखकांक वता. विनायक सदाशिव सुखठणकारां फाटोफाट प्रोफेसर लक्ष्मणराव श्रीपाद सूर्यराव सरदेसाय (१७ मार्च, १९०४ - ०४ फेब्रेर, १९८६) हांचीय मराठी कथा उजवाडाक आयली. ह्या दोगांय कथाकारांनी गोंयचे फाटभूंयेर बरयिल्ल्या कथांक लागून मराठी कथेक नागरी जिणेच्यो शिमोमेरो कळून आयल्यो अशें म्हाकां दिसता. वांगडाच मनोरंजन करून घेतास्तना आनी अज्ञात वाठाराचो आवांठ जाणून घेतास्तना मराठणातलो वाचपी जिणेच्या विंगड-विंगड तासांक भिडूंक लागलो तो लक्ष्मणरावांक लागून. ह्या संबंदान दोतोर वासुदेव मुलाटे म्हण्टात, 'तांच्यो ह्यो कथा वर्णनांत रमपी, प्रतीतीच्या पांवड्यार न वचपी आनी जातूंत कल्पनारम्य आदर्शवाद रंगयल्लो आसा अश्यो सामान्यतायेन रंजकताये भोंवतणी घुंवपी' आसात. लक्ष्मणरावांच्या कथांचे संकलन-संपादन करपी श्री० ज० जोशी म्हणटात, 'लक्ष्मणरावांच्यो कथा वाचतकच बशिल्ले कडेन पुराय गोंयचें दर्शन घडटा.'

अशे तरेच्या बरोवपान मराठी साहित्यविश्वांत गांवगिऱ्या विश्वाची जाणविकाय जाली आनी गांवगिऱ्या भौसाचे जिणेविशीं आस्था तयार जावन प्रादेशिक संस्कृतायेकडेन मराठी समीक्षेचें लक्ष गेलें. तांचेच प्रेरणेन गोंयचे आनीक जायते लेखक बरोवपाक लागले हें

वास्तव विसरायेर घालून चलचें ना. जयवन्तराव सरदेसाय, वि० ल० बर्वे, सांवळाराम घनश्याम कंटक, व्यंकटेश पै रायकार, बाळकृष्ण दत्तात्रय सातोस्कार, रघुवीर सामन्त हीं तातूंतली कांय म्हत्त्वाचीं नांवां. हांच्यो साबार कथा तंत्रांत मुदयेर थिक कश्यो नकसूद, तांतूंतली फाटभूंय प्रादेशिक, प्रभावी कथनात्मकता हें तांचे यश परंत एकाच फॉर्माच्यो आनी आशया-विशयाच्यो वो वातावरणाचें वैचित्र्य, विविधताय नाशिल्ल्यो अशो आसुनूय ते फाटभूंयेचेर चित्रायल्ले जिणेक फावो तशी खोलाय ना ही ह्या कथांची मर्यादा.

अशें आसूनय गोंयच्या बरोवप्यांनी चित्रायिल्ल्या गोंयच्या सांस्कृतिक दायजांतलें वेगळेंपण, हांगाच्या समाजाचें, भौगोलिक आनी सैमीक चित्रांचे वेगळेंपण रोखडेंच नदरेंत भरता. आधुनिक काळातल्या विमानांनी आयज कितलीय भरारी घेवं, तांची गंगोत्री रायट-बंधूच्या जोडयेंच्या कर्तुपांत मेळटा. तद्वतः मराठी कथेच्या मळार कोंकणाचें, अस्तंत मराठण, विदर्भ, मराठवाडा बी वाठारांचे चित्रण बर्वे, माधव काटदरे, गोपाळ नीळकण्ठ दाण्डेकार, व्यंकटेश माडगूळकार, आनंद रतन यादव, शंकर पाटील, द० मा० मिरासदार, मधू मंगेश कर्णिक, चिंतामण त्र्यम्बक खानोलकार, जयवन्त दळवी हांच्या बरपावळीतल्यान जावपाक लागलें परंत सुरवेक लक्ष्मणरावान आख्ख्या मराठी कथेच्या मुखामळाचें परिवर्तन करून वडोवपाची दिका दाखयली अशें म्हणूं येता. तांका लागूनच आयजचे प्रादेशिकतायेचें रुपडें ग्रामप्रधान जालें आनी ग्रामीणता म्हळ्यारच प्रादेशिकता, थंयची वृत्ती ह्या गजालींकडेन साबार अभ्यासकांची नदर गेली.

मराठींत सुखठणकार-लक्ष्मणराव हांच्या बरपातल्यान प्रादेशिकतेचें दर्शन जावप जरीय १९३१सावन सुरू जालें तरीकूय ती कोंकणीतल्यान उगती जावपाक १९३५वर्स उदेंवचें पडलें. जयवन्त कुलकर्णी हांणी संपादीत केल्लो *ओंवळां* हो कथा झेलो उजवाडाक आयलो. *स्वाती* हो लघुनिबंद संग्रहय अशाच प्रादेशिकतायेचो आलाशिरो घेवन आयिल्लो संपादीत झेलो. कोंकणीतल्यान कोंकणी जिणेची, सैमाची प्रादेशिकताय घेवन आयलो. विंगड-विंगड कोंकणी वाठारांतल्या मोडींचो आदार घेवन बरयिल्ल्यो ह्यो कथा त्या वाटारांची निखटीं वर्णनां करिनात, निखटी बोली उलयनात तर तांतुतल्यान त्या वाटारांतल्या वृत्ती-प्रवृत्तीचेंय दर्शन मुखेलपणान घडयतात. प्रादेशिकतायेची हीच तर मुखेल कुरू.

प्रादेशिकतायेची संकल्पना स्वताली कांय खाशेलपणां घेवन येता. सैमीक आनी संस्कृतीक वातावरणाक म्हत्व दिवपी अशी ही एक साहित्यिक वृत्ती. विशिश्ट वाटाराची संस्कृताय, भास, थंयच्यो चाली-रिती, थंयचे प्रस्न, जिवीत आनी समाजीक जीण, थंयचें वेगळें सैम हांचो दिश्टावो घडोवपी साहित्य म्हळ्यारूय प्रादेशिक साहित्य. ह्या बरपावळींत गांवगिरी जीण स्वतंत्रपणान येना, जाल्यार ती त्या वाटाराचें पुराय आनी थंयचे संस्कृतायेचें

ल्हानशें आंग म्हूण येता. वाटाराची संस्कृताय प्रादेशिकतायेंत म्हत्वाची थारता देखून थंय व्यक्तिकेन्द्रीतपणा बदला भौसकेन्द्रीकरण साकार जाता. त्या वाटाराचो आनी ताच्या वातावरणाचो प्रभाव थंयच्या लोकांचेर आसता आनी हाचे वरवींच थंयच्या मनशाचें जिवीत घडटा. प्रादेशिकताय म्हळ्यार कलात्मक प्रवृत्तीचीच एक नवी उगतावणी अशेंय म्हणनशें दिसता.

प्रादेशिक संवेदना उगती करपी बरपावळ विचारांत घेतना निखटी थंयचे बोलभाशेंत बरयिल्लीं सैमाचीं वर्णनां वो गांवगिरो वाटार, जिवीत आनी थंयचीं संस्कृतीक वर्णनां प्रादेशिक म्हणूंक येनात तर थंयच्या पारंपारिक मुल्यांचेर पोशिल्ली आनी थंयच्या जिविताचो अणभव घेतिल्ले संवेदनशील जाणविकायेचची प्रतिक्रिया म्हळ्यार प्रादेशिक संवेदना आनी ती उगती करपी साहित्य म्हळ्यार प्रादेशिक साहित्य.

लक्ष्मणरावांनी हीच संवेदना *पापडां कवळ्यो* (१९७९)तल्या गोपाळाच्या रुपान उगती केल्या. ते कोंकणीतल्यान बरप करपाकडेन उसराच पावले हें चिकें सत् आसल्यारय स्वताल्या कोंकणी बरपांत कोंकणी संवेदना सार्थतायेन उगती केल्या अशें म्हणूं येता. आत्महत्या करूंक भायर सरचें पयलींचो गोपाळ ज्या मानसीक घुसमटमारांत जियेता तो घुसमटमार गोंयच्या समश्टींतल्या एका विशिश्ट काळावेल्या तरनाट्याचो. एके काळच्या आसपतीच्या घराब्यांतल्या भुरग्याचेर परिस्थितीक लागून लाचार जावन दारांदारांनी पापड विकपाची पाळी येता तेन्ना तो कितें अणभवता हें गोंयचे भाटकारशाही समाजव्यवस्थेतल्यान गेल्ल्या मनशाकच बेस बरें होलमतलें. स्वाभिमानी गोपाळाक मावशेमुखार हात पसरावंक पुटवना तशें मावशेची वागणुकूय आपले आवयक सांगप ताका जमना. ताचे मदल्या खानदानी संस्कारांचें दर्शन ह्या प्रसंगांतल्यान जाता. *मनांत पेरिल्लो खोल उजो* (पानांक १५) तसोच दवरून तो वावुरता. व्यंकट कामतीचो धंदो गोपाळाच्या जल्मासावन गडगडलो. दर्यातल्या तुफानान ताका साप्प बुडयलो. ह्या आनी अशेच तरेच्या प्रसंगांतल्यान त्या वेळार गोंयातल्या वयल्या पांवड्यावेल्या समाजातलीं कितलेशेच घराबे रसातळाक पावले. *निमित्ताक कारण*सारकी अस्सल कोंकणी नाटक म्हूण गौरव जाल्ली साहित्यकृती असलेच तरेच्या घडणुकांचेर आदारून बरयिल्ली मेळटा. प्रसाद, जातक असल्या दकियानुसी गजालींचेर गोंयच्या भौसाची भोवच स्रद्धा आनी ताका लागून जिणेंत योगायोगान घडिल्ल्यो गजालीय तांकां आपणाल्या 'नक्षत्रा'क लागून वो 'पायगुणां'क लागून घडटात हाचेर विस्वास. ह्या भौसाच्या पारंपारिक मुल्ल्यांक पाळो दीत आयिल्ली ही लघुकादंबरी गोंय मुक्तताये आदल्या गोंयच्या समाजाची समग्र संवेदनशीलताय बरे तरेन उगतायता.

*खबरी कांय कर्माच्यो, कांय वर्माच्यो* (१९८०) ह्या तांच्या दुसऱ्या कोंकणी पुस्तकांत गोंयच्या भौसाचीं कांय खाशेलेपणां ठळकपणान दिसतात. ह्या बरपांतल्यान गोंयच्या संस्कृतीक

वेगळेपणाचें दर्शन घडटा. पुर्तुगेज राजवटीक लागून गोंयचे लोकजिणेची खेरीज बांदावळ जाली. तिका लागून हांगासल्ले जिणेक एके तरेचे वेगळेंच परिमाण मेळ्ळयारय समश्टीक एकात्मतायय लाबल्या. *खबरीं*तल्यान तांणी गोंयच्या समश्टीचें यथार्थच चित्रण केलां आनी गोंयच्या समाजांतले कांय घटक, कांय वृत्ती अज्रंवर करून प्रादेशिकताय जपल्या. आदल्या गोंयांतल्यो चाली-रिती, धर्मीक, राजकी, शासकी, समाजीक संस्था, लोकाचार आनी जिणेचें दर्शन घडयलां. *खबरीं*तल्यो व्यक्ती खऱ्योच कशो दिसल्यो जाल्यारूय त्यो प्रत्यक्षांत समश्टींत आसात अशें म्हणूंक येना. पूण त्या लोकांचें वागप, न्हेसप, खावप, जेवप, तांचें जिणेविशींचे तत्वगिन्यान, तांच्यो रिती-रविसो हांचेवेल्यान तांची एक खाशेली प्रतिमा तयार जाता. ते प्रतिमेची अभिव्यक्ती एका विशिश्ट वो खाशेल्या, प्रातिनिधिक व्यक्तिचित्रणाच्या आदारान *खबरीं*त जाल्या.

'भगत', 'गोंयचो शेट' अशा गोंयच्या समश्टीतल्या पारंपारिक घटकांवांगडाच गोंयांत कदीमकाळासावन घट्ट पाळां-मुळां पातळून-रोमून आशिल्ल्या समाजाचे फास्कींतच पूण हालसरी म्हळ्यार सोळाव्या शेंकड्यासावन, चिके पुर्तुगेज राजवटीच्या प्रभावाक लागून, 'आयात' जाल्ल्या संस्कृतींच्या आदारान जियेवपी घटकांचेय वर्णन आमकां *खबरीं*त मेळटा. 'रेन्देर', 'मास्तर', 'देमान्दिस्त' अशे हे भायल्या प्रभावाक लागून आयिल्ले गोंयच्या समश्टीचे घटक गोंयकारांक हेर देशभावांसावन वेगळायतात. 'सुशेगाद वृत्ती' ही एक ताचीच एक पत. हाकाच पुरुशोत्तम लक्ष्मण देशपाण्डे *गोंयकारांली गोंयाभितल्ली हांसणूक* अशें संबोधताले. हें कितें सुचयता?

भुरगेपणांतले संस्कार मनशाक आयुश्यभर सांगात दितात. ह्या तत्वाचेर आदल्या गोंयकारांचो पुराय विस्वास. ताका लागून बऱ्या संस्कारा खातीर तेन्ना वाडी, वेंगुर्लें ह्या कोंकणांतल्या गांवांसावन 'मास्तर' येताले. गोंयच्या म्हालगड्यांनी, आसपत आशिल्ल्यांनी अशे तरेचे 'मास्तर दवरप' ही एक प्रतिश्ठेची गजाल. स्वतालें शिकप अर्दकुटें आसूनय भुरग्यांक अनुशासन लावपाच्या वावरांत कडक आशिल्ल्या मास्तरांचे चित्रण लक्ष्मणरावांनी केलां. तशें सुखठणकारांन आनी ऋषितुल्य विद्वान प्रा० अनंत काकबा प्रियोळकारानय केलां आनी पु० ल०नय केलां. पूण 'गोंयच्या मास्तरा'चें थळावेपण पु० ल०च्या 'चितळे मास्तरा'क येना. आयजच्या आमच्या म्हालगड्यांच्यो कितल्योश्योच पिळग्यो हे तरेच्या मास्तरांचे तालमींत व्हड जाल्यो हें एक भूतकालीन वास्तव आनी तीच तर प्रादेशिकताय.

'फटो आनी रामगो' हांचे भोंवतणचें वातावरण रंगोवन ही मनशां एके खाशेले समश्टीचे संस्कृतायेचें प्रतिनिधित्व करतात म्हूण लक्ष्मणरावान दाखोवन दिलें. तांचें वेगळेंपण सांगतना हीं मनशां म्हळ्यार 'कांय गुणांचें प्रतीक' अशें खासा बरोवपीच म्हण्टा. 'भगत',

'घाडी' हे गोंयचें आनीक एक खाशेलें आंग. भगताचें गोंयकार घराब्यांतलें प्रस्थ आजूनय मात्तूय हालूंक ना. आदल्या तेंपावेल्या भगताचें म्हत्त्व ताचेवेली स्रद्धा, ताचे आचार हांची कल्पना शणै गोंयबाब हांच्या *झिलबा राणो*तल्यान येता. आयजय तांतूंत व्हडलोसो बदल जावंक ना. गोंयच्या समाजांत देवाचे समाजस्थितींत परिवर्तन जायत गेलें पूण भगताचे बाबतीत मात तशें कांयच जावंक ना. गोंयच्या समश्टीन कांय गजाली जाणविकायेन भायर मोखून माल्ल्यो, कांय आपणायल्यो. तांतूंतल्यान विंगड-विंगड जाती-पाती-कातीं हांच्या चोम्याचें अस्तित्व एकठांय येवप कशें शक्य जालें तें कळटा. गोंयातल्या कोंकण्यांच्या समश्टींत तर हें खाशेलेंपण भोवच बरे तरेन उगते जाता.

'गोंयचो शेट' रंगयताना लक्ष्मणरावान शेटपणाच्या उद्देगाचो परिणाम तो उद्देग करतल्या मनशाच्या सभावाचेर कसो जाता हे विशींचें वर्णन केलां. 'रेन्देर' म्हळ्यार गोंयचे लोकसंस्कृतायेचे पुराय आंगान दर्शन घडोवपी व्यक्तिचित्र. लेखक ज्या वाटारांत जल्मलो आनी व्हड जालो, ज्या मनशांच्या मोगान ताच्या 'मनाची कळी फुलली' अशा मनशां मदलो एक म्हळयार रेन्देर. विसाव्या शेंकड्यांतलो एक ज्येश्ठ आनी श्रेश्ठ कोंकणी-मराठी कवी बाळकृष्ण भगवन्त उपाख्य बाकीबाब बोरकार हांणी तर स्वताल्या प्रतिभेची कळी फुलपाक एक रेन्देर कारणीभूत जाल्लो म्हणपाचीय आवर्जून नोंद केल्या. बाकीबाब हांणी आपल्या काव्यातल्यान गोंयचें वर्णन कितलेशेच फावटीं केल्लें आसा. बरोवप्यांक ही गोंयची जाणविकाय ह्या वाटाराची प्रादेशिकताय उगती करून दाखयता.

फिरंग्यांनी म्हळयार पुर्तुगेजांनी स्वताल्या सांगातान गोंयांत कांय आकांताच्यो गजाली हाडल्यो तांतूतली एक भयांकृत करपी गजाल म्हळयार देमान्द. गोंयच्या मुक्तीउपरान्त फिरंग्यांच्यो जायत्यो बऱ्यो आनी उपेग पडपी अशो गजाली आमीं गोंयकारांनी भायर मोखून माल्ल्यो; परंत तांचे कांय दोश मात सहजकायेन सांबाळून दवल्ले देखीक फिदाल्ग वृत्ती, सुशेगादपणां, झेत, फसफस, माज-मस्ती. गोंयकारांक तांणीं देमान्दांचें बाळकडू दिलें. पूण ह्या गार्फाक विशेश आनी स्वतंत्र रूच हाडली ती गोंयकारांनीच. स्वताले बुद्दीन त्या शास्त्राक अशें लखलखीत तेज हाडलें की ताचे फुडें खासा देमान्द शिकयतल्यांनी मान सकयल घाली अशें दत्ताराम सुखठणकारांनी *मान्नी पुनवें*त म्हळां. कायद्याचो अर्थ आदवोगादान सांगलो जाल्यारय कायद्याच्या कोदीग उतरांतल्यान अनर्थ कसो उत्पन्न करचो हें गोंयचो देमांदिस्त बेस बरें विस्कटावन सांगतलो. ही गोंयचे विशींची जाणविकाय एके परीची प्रादेशिकतायच उगती करता अशें म्हळयार जातलें.

देखून लक्ष्मणरावांची कथा गोंयचे मातयेतलें स्वत्व घेवन आयिल्ली. तिची भास, तिचो साज-शिणगार, सगळें गोंयच्या सैमाकडेन, संस्कृतायेकडेन, लोकजिणेकडेन जोडिल्लें

आशिल्ले. ह्या कथांतल्यान गोंयचो वाटार, ह्या वाटाराचीं खाशेलपणां रसरशीतपणान चित्रायिल्लीं. ताका लागून 'प्रादेशिकताय' हें कथेच्या घटकांतलें एक मुखेल तत्व जावं येता अशें गोंयांतली कोंकणी-मराठी साहित्याची एक गंभीर अभ्यासक प्रा० आशा मणगुतकार (*लक्ष्मणरावांचे कथालेखनातली प्रादेशिकताय,* जाग, ऑक्टोबर, २००३, पानांक २०) म्हणटा तें सार्थच. हेंच तत्व लक्ष्मणरावांच्या कोंकणी बरपांत अभ्यासपाची संद मेळटा.

सगळ्याच बरोवप्यांक तांचोच, म्हळयार दायजांकडसून तांच्यामेरेन आयिल्लो देश-प्रदेश वा मायभूंय आसताच, अशें म्हणू नज. परंत लक्ष्मणराव हे गोंयचेच. मुंबय रावल्यारय ते गोंयांतच आशिल्ल्यावरी जीण घालयली. फोंडे महालातल्या सावय-वेरें वाटारांत तांचो घराबो. खेरीज फोंड्यां, पणजे, मडगांवां, म्हापश्यां, वेलंगा तांचो राबितो आशिल्लो. हो एका साहित्यिकाचो गांव. तांच्याच गांवांतले. तांच्या गांवच्या लोकमानसाचो तांका बेस बरो अंदाज आयिल्लोच खेरीज त्या लोकांत ते भावनेच्या नदरेतल्यान गुंतून पडिल्लेय. एके परीन तांच्या वाटाराचो तांणी अभ्यासच केल्लो अशेंय म्हणूं येता. म्हण्टकच तांच्या बरपावळींतली प्रादेशिकताय अशें म्हणटास्तना खरें म्हळयार ती बरोवप्याची, भावनेच्या नदरेनतल्यान गुंतून पडिल्ल्यान, समकालीन आशिल्लीं रुढीग्रस्त समश्टीचीं चित्रां अशेंय म्हळयार चड बरें. मनशांच्या नांवांचीं एक वळेरीच ते दितात, देखीकः गुटी, गुटलो, चिंगो, चेपो, झिलो, झेमो, दोमळो, पिसो, पेटो, पोको, फेस्तु, बेबो, बोडको, मस्तो, शाणो, शेड्डो, हुंदीर हीं नांवां प्रादेशिकतेची जाणविकाय करून दितात. किरिस्तांव समश्टीतल्या बामण, चाड्डो, सुदीर अशा लोकांचोय परिचय जातकच वाचपी तांच्या ह्या समश्टींतल्या भाशेचें वाचन करूंक लागताः

*सुखा म्हज्या गोपान यो आंज्या*
*तुजविणें हें काळीज रोंडटा*
*आंतोस्कोन मुजे हें सुंदेता*
*गोपान दोरूंक वोरनुक तुकां*

अशा वातावरणांत गुल्ल जावन बरोवप्याच्या वांगडा *दिपकावणीय* करूंक, लक्ष्मणराव सांगतात तशे तरेन, भायर सरता. तांणी सांगलें देखून वाचपी त्या साबार आख्यायिकांचेर विस्वासय दवरता.

अशे तरेचीं गोंयच्या समश्टींत वावुरपी आनी त्या समश्टीसावन वेगळावं नज अशो वृत्ती-प्रवृत्ती धारण करपी कांय प्रातिनिधिक, प्रादेशिक स्वरुपांतली हीं चित्रणां. प्रादेशिक साहित्याच्यो तात्विक मर्यादा सांगतना ताचें मदीं जिविताची खराय, खोलाय आसना अशें म्हणतय कोणी. तें वास्तवाकडेन बांदिल्लें आशिल्ल्यान कलात्मक आंतरिकता अभिव्यक्त

जाताच अशें ना. साहित्यातलें वास्तव ही एक गजाल आनी समश्टीतलें वास्तव ही एक दुजी गजाल. देखूनच तातूंतली आकर्शक प्रतिती हीच गुरूत्व साद्‌क पावता. प्रादेशिकताय ही अशे तरेन थळाव्या जीणेचेर आदारिल्ल्या बरपावळीक एक उदात्त समज दिता अशें म्हणूं येता. परिणामी हें साहित्य जिणेकडेन बांदिल्लें आशिल्ल्यान ताका भव्यतायेचो वो उदात्ततायेचो स्पर्श आसना हें वास्तव आसल्यारय शिवराम कारंतांच्या बरपावळीन प्रादेशिकतायेच्यो सगळ्यो शिमो-मेरो हुंपून वचपाचो जैतिवंत येत्न केला हें विसरायेर घालून कशें चलतलें? अर्नेस्ट हेमिंग्वेच्या द *ओल्ड मॅन ॲण्ड द सी* ही नवलिकाय प्रादेशिकच पूण ती दिगन्त जावन गेली ना? साहित्याक धर्म नासता, राष्ट्रीयत्व नासता. ताका कसलोच अभिनिवेश नासता, तें पक्षपात करीना. तें कोणाचीच पार्त घेना...साहित्यिक हो कालातीत आसता अशें खासा लक्ष्मणरावानच म्हणिल्लें. म्हण्टकच साहित्यिकाक भूमिका आसूं येता परंत भूंय नासता अशें म्हणिल्ल्यावरी जालें.

आयज प्रादेशिक वाङ्मयाची सुवात कितें असोय एक प्रस्न पडू येता. नागरीकरण आनी उद्देगीकरण हांच्या सांगातान आयज वैश्विकीकरणूय साकार जायत आसा. एके परीन 'वसुधैव कुटुम्बकम्' अणभवाक येता अशें म्हणूं येता. परिणामी प्रदेशाची खाशेलपणां शेणत चल्ल्यांत. फाल्यांचो मनीस 'विश्वमानव' आसचो असो विचार मुखार येता तेन्ना प्रादेशिकतायेक घट धरून बसप कितलें समा थारतलें, असो प्रस्न विचारूं येता. हांतूंतल्यान प्रादेशिकताय मनशाचे संकुचित वृत्तीचें प्रतीक थारू येत काय होय आनीकय प्रस्न उप्रासू येता. पूण मनीस आपणाले जल्मभूंयेक विसरूंक पावना हेंय एक वास्तव. आपणाल्या मूळ केन्द्राकडेन तो चड चड आकर्शित जाता. एलेक्स हेलीच्या 'रूटस' ह्या आत्मचरित्रपर कथनाची हांगा देख घेवं येता. हाचोच अर्थ, प्रादेशिकतायेक साहित्यांत तरी गौरवास्पद फुडार आसा असो घेवं येता. प्रादेशिकतायेंतल्यानूय घडये विश्वात्मतायेचें दर्शन घडूं येता, कारण, प्रादेशिकतायेच्या सामर्थ्याचें दर्शन घडयतना बरोवपी कृतींतल्यान प्रतिकात्मक चित्रणां आनी तांतुतलो तपशील जितो-जिवो करता. ताची ही तांक जितली व्हड तितली ती कृती व्हड थारू येता.

लक्ष्मणरावांचे लिखणेतल्यान आरंब जाल्ल्यान तिचे सावन प्रेरणा घेवन तांतूंतल्या प्रादेशिकतायेचें उज्जवल पडबिब फुडारातल्या बरपावळींतय दिसतलें अशी आस्त बाळगीनशी दिसता.

## लक्ष्मणराव सरदेसाय हांच्या साहित्यकृतींतलीं व्यक्तिचित्रणां

गोंयान मराठी साहित्याक अगणित उपासक उपलब्ध करून दिले. कृशणदास शामा, कृशण जगन्नाथ बांदकर, संत सोहिरोबानाथ आम्बिये, विट्ठल नरसिंह केरीकार, बाळकृशण उपाख्य बाकीबाब भगवंत बोरकार, डॉ० वि० बा० प्रभुदेसाय, वि० स० सुखठणकार, र० वि० पण्डित, शंकर पाण्डुरंग रामाणी, लक्ष्मीदास बोरकार, विश्णू जयवंत बोरकार, नरेन्द्र बोडके, अरुण हेबळेकार हीं साप्प वयल्या पावंड्यावेलीं कांय नांवां. साहित्यसेवेची मुरवत दाखोवपी साबार मराठी सारस्वत तर प्रो० लक्ष्मणराव सरदेसाय ही नाममुद्रा मराठी साहित्याच्या वाठारांत मानान मिरयतात.

'साहित्य अस्तित्वांत नाशिल्लें जाल्यार संवसाराचो नरक जावपाचो; परंत साहित्य मंत्रावन येंवक जाय तें आत्म्याच्या तेजान. नाजाल्यार कालांतरान तें लोकमानसाक अंतरल्याबगर रावना. कथाकाराक सेल्फ आयडेण्टिफिकेशनची तांक व्हड प्रमाणांत गरजेची आसता. वास्तवाकडेन तादात्म्य पावपी शक्तीकडसून कल्पनेच्या बळग्यार न पळयिल्लीं थळां आविश्कृत जातात. असमाधानान आनी संघर्शानच साहित्यनिर्मणी जाता. कथाकाराचे आंतरिक प्रक्रियेची वाड जायत रावंक जाय. तत्त्वां आनी सत् गजाली कितल्योय गुरूत्व मेळोवपी आसल्यारय मनशाच्या अंतर्बाह्य जीणेचें दर्शन घडोवप हें कथाकारांचे काम.' ही समंजस पावंडेवेली भूमिका घेवनच प्रो० लक्ष्मणराव श्रीपाद सूर्यराव सरदेसाय (१७ मार्च, १९०४ - ०४ फेब्रेर, १९८६) हांणी स्वतःच्या लेखनाक आरंब केलो अशें म्हणूंक येता.

प्रो० लक्ष्मणराव हे कोंकणी आनी मराठी भाशांतले खांपे बरोवपी. १९२९सावन तांणी मराठीतल्या 'यशवन्त' ह्या मराठींतल्या नामनेच्या नेमाळ्यांतल्यान 'सासुरवासिनी' ह्या कथेन बरोवपाक आरंब केलो. आपणाल्या एका सोयऱ्याच्या चेडवाचो तिच्या घोवाकडल्या घरांतलो लोक छळ करतात म्हणपाचें प्रो० लक्ष्मणरावांक कळ्ळें आनी तांणी तेच काणयेचेर पयली कथा रचली अशें बाळकृष्ण दत्तात्रय सातोस्कार म्हण्टांत [१]. उपरान्त 'रत्नाकर', 'मनोरंजन', 'ज्योत्स्ना' सारकेल्या नामनेच्या नेमाळ्यांतल्यान तांची बरपावळ प्रसिद्ध जावंक लागली. म्हणसर १९३४त तांचो पयलो कथाझेलो उजवाडाकय आयलो. तेन्नासावन १९८६ मेरेन तांचे बरप चालूच आशिल्लें. कांय झेल्यांच्यो एका परस चड आवृत्ती आयल्यो. कांय कथांचे प्रातिनिधीक झेले उजवाडावन आयले. तांच्या 'गोव्याकडची माणसे'ची दुसरी आवृत्तीय पुणेच्या कॉण्टिनेण्टलान हालींच (२००४) प्रकाशित केली. उजवाडाक आयिल्ल्या तांच्या साहित्यापरसय चड अशा संख्येन तांचे संग्रहित न जाल्ली बरपावळ आसा अशें दिसता. देखीक तांच्यो स-एक नवलिका आजूनय छापपाच्योच आसात. त्यो अर्दकुट्यो स्वरूपांत

आसात म्हणपाचें प्रो० लक्ष्मणरावांले पूत मनोहरबाब हांणी म्हाकां सांगलें. कथेसारक्या बरपावळीच्या बारकेल्या अवकाशांत भावनांचीं अथांग आंदोलनां आनी मनसीक संघर्श दाखोवपाचो जैतवंत मार्ग तांणी दाखयलो. तांणी कथावस्तूक फुलोवपाखातीर सौंदर्याची पूजा केली. देखून कोंकणी उतरांची नकसूद पेरणीय केली. *कोकाऱ्या, पन्हळ, पेज* हीं उतरां मराठीन उप्रांत मानून घेतलीं. तशेंच तांणीं कथावस्तूक एक तरेचो वेग लाबतलो हेविशींचं जतनायय घेतली. तांचेर वामन मल्हार जोशी वो विश्णू सखाराम खाण्डेकार हांचो अल्प-स्वल्प प्रभाव पडिल्लो आसू येता. देखूनच तांच्या बरपावळींत आदर्श आनी नीतिमूल्यांचे उदात्तीकरण आयिल्लें आसा. तांणी सश्रद्ध भूमिकेतल्यान भावसेन्द्रिय कथालेखन केलें; परंत तांचेभशेन निखटो शब्द-विहार करपाखातीर सौंदर्याचो आयाम देखलो ना हेंच तांच्या यशाचें व्हड माप. अशी कथा वाचतकच र० वा० दिघे (घरकुल, लक्ष्मीपूजन, आसरा आदी), ग० ल० ठोकळ (कडू-साखर, पहिले चुंबन आदी), वामन चोरघडे (सुषमा, हवन आदी) हे प्रो० लक्ष्मणरावांनी दाखयिल्ल्या दिकांनी वचून मुखावेले पेणे हुपूक लागिल्ले. नवमतवादय मुखार आयलो. अशा वातावरणांत आसतना गोंयच्या ह्या प्रादेशिकतेचें नवें मळ दाखोवप्यान नारायण सीताराम फडके, वि० वि० बोकील, भार्गवराम वि० वरेरकर, अनंत काणेकार, कृष्णाबाई (श्रीमती मुक्ताबाई दीक्षित), दत्तात्रय रघुनाथ कवठेकर हांच्या मांदियाळींत रावन आपणाली नाममुद्रा उठयली. ताणेच दिघे, ठोकळ, चोरघडे, कुसुमावती आत्माराम देशपाण्डे हांका नव्यो पायण्यो उपलब्ध करून दिल्यो. गोंयच्यान पंडित महादेवशास्त्री जोशी हें एक अव्वंवर नांव मुखार आयलें. प्रो० लक्ष्मणरावांचे हें श्रेय कोण काडून घेतलो व्हय? तांणीच तर मुखार व्यंकटेश पै रायकार, जयवंतराव सरदेसाई, सांवळो घनश्याम कण्टक, जयराम पाण्डुरंग कामत, सुभाश भेण्डे, ज्ञानेश्वर कोलवेकार सारक्या गोंयांतल्या बरोवप्यांक उर्बा दिली. प्रदेशीक बरपावळ आनी प्रदेशीक जीणेंचें दर्शन हातूंत वाठाराचें आनी वृत्तीचें अंतर आसता अशें *प्रादेशिक साहित्य* ही संज्ञा भोवच प्रचलित आसूनय म्हणनशें दिसता. मधू मंगेश कर्णिक (माहीमची खाडी), जयवन्त दळवी (चक्र), ह० मो० मराठे (घोडा) हांच्योय रचना प्रादेशिकच आसतात. थंय एक तरेचो भू-प्रदेश आसता जो सादारण मध्यमवर्गीय जीणेचो दर्पण नासता. थंयसरची लोकजीण मिश्रित संस्कृतीतल्यान साकार जाता आनी तातूंतल्यान नवी संस्कृताय दिसूंक लागता. अशा सामुहिक जीणेक म्हळयार परंपरा-दायज आसता आनी म्हळयार दीसपट्ट्यान ती परिवर्तित जायत आसता. सण-उत्सव, जात्रा-मेळे, भूतप्रेताविशींची आनी देवदेवस्कीविशींची स्रदधा-अंधस्रद्धा अशा नागरी जीणेंत आसनाच अशें कोण म्हणटा? 'माण्डवी! तूं आटलीस?' ही नवलिका प्रादेशिक बरपावळींत आस्पावता व्हय? गोंयांत पुर्तुगेज येतकच गोंयची जीण दीसपट्टी

विंगड विंगड अर्थ केळयतालीच न्हय? हांगसल्ल्या जीणेन विंगड विंगड पद्दती क्रेळयलीच न्हय? वसाहतवाद हो प्रादेशिक आसता व्हय? तशें आसत जाल्यार साबार संवसारांतलें वसाहतवादी साहित्य हें प्रादेशिकच आसा अशें मानचें पडटलें.

गोंयचेच विद्वान मराठी कथालेखक वि० स० सुखठणकार हेय प्रो० लक्ष्मणरावांचे समकालीन. 'सह्याद्रीच्या पायथ्याशी' (१९३१) गाजतालो. तेन्नाच्या मराठीच्या वैभवकाळांत तांणी बरपावळ केली. तेदेवेळा य० गो० जोशी, विट्ठल सीताराम गुर्जर, खाण्डेकर हांची *गुजगोष्ट* चलताली. तरीकूय भटवाडी, कांदेवाडी, सदाशिवपेठी साहित्य वाचप्यांकय तांणी आकृश्ट केल्लें. वि० स० आनी प्रो० लक्ष्मणराव हांचेर टिका जाली. फ्रेञ्च बरोवपी गी द मोपासांचें ते दोगूय अनुकरण करतात तशेंच वासनामय, उत्तेजक करपी कथा बरयतात अशी जाल्ली तेन्नाची टिका आयज विस्मृतीत गेल्या. दोगांनीय नागरी जीणेवेल्या बरपावळीक छेद दिवन सैमीक, गांवगिरी, भुगोलीक, राजकीय, अर्थीक तशेंच हेर कारणांखातीर एक वेगळीच वृत्ती पोसपी अशा मुखेल जीणेच्या प्रवाहासावन पयसाविल्ल्या परंत अस्सल अशा जीवनप्रवाहातल्या भौसाचें शब्द-चित्रण केलें. मराठीक ह्या नव्या जीणेन प्रभावित केलें. मराठी समीक्षेनय ह्या बरपावळीक 'प्रादेशिक साहित्य' अशें म्हणून नांवाजलें. ही एक नवी साहित्यमुद्रा आकाराक आयली. नागरी जीण ही प्लास्टिकची, चकचकीत पूण अडेची कशी तर खरी जीण नागरी वाठारासावन पयसाविल्ल्या भौसांत आसता म्हणपाचो संबंधितांक दिश्टावो जालो. प्रादेशिक संस्कृतायेतलें वेगळेंपण रोखडेंच नदरेंक आयलें. प्रो० लक्ष्मणराव हे ह्या अशा 'प्रादेशिक साहित्या'चे निर्माता आशिल्ले. श्रीपाद महादेव माटे हांच्या 'उपेक्षितांचे अंतरंग' ह्या पुस्तकानय हेरांक उर्बा दिली. थंयसावन उप्रांत ग्रामीण आनी दलित बरपावळींचीय दालनां उक्ती जायत गेलीं. फुडारांत साहित्यिक बरपावळीच्या माध्यमातल्यान कोंकणाचें, पश्चिम मराठणाचें, विदर्भ, मराठवाडाबी वाटारांचें चित्रण जावंक लागलें. तातूंत वास्तववादी, काल्पनिक, आत्मकथनात्मक अशींय तासां दिसूंक लागलीं. आदल्या जिवितांच्यो यादीं सांगपी, आदल्या गिरेस्त दायजांच्या यादींनच धुंद जावपी, रसास्वाद करपी अशी बरपावळ येवंक लागली. हो सौंदर्यवादाचोच एके परीन परिणाम आशिल्लो अशेंय म्हणूंक येता. नवकथा आयली आनी गेलीय; परंत प्रो० लक्ष्मणराव नवकथाकार जावपाच्या भानगडींत शिरकले नात. कथेच्या बरपाक शरीर सौष्ठव आसूंक जाय, 'ठेवणीतली मराठी'तल्यान कथालेखन जावंक जाय देखून ते वावुरले. मराठीच्या आत्म्यार तांणी मोग केलोच खेरीज प्रभुत्वय संपादन केलें. परिणामी १९७७त कुडचड्यांत जाल्ल्या १५व्या अखिल गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्ष म्हूण एकमतान वेंचून आयले. तरीकूय अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद गोंयकारांक खंयच्याच परिस्थितींत दिंवप ना असो

अलिखित निर्णय जाल्ल्यान तें तांका मेळपाची आस्त नाशिल्लीच. एक प्रा० अनंत काकबा प्रियोळकार हांका तो भौमान मेळ्ळो; परंत मराठी भाशेचो पाखो घेतिल्ल्याचें फळ म्हणून तें पद घडये निरुपायान तांका तें दिंवचे पडिल्लें. बाकीबाबाक तें अध्यक्षपद मेळचें न्हय म्हूण जीं नाटकां जालीं तिचो इतिहास बरोवन काडपासारकोच. हांवे ताचे संबंदान कांय नोंदी 'जागां' (जुलाय, १९९६)त केल्ल्यो आसात. हालसरींच डॉ० सुभाष भेण्डेंक हें पद मेळिल्लें; परंत त्या मानाच्यो भोयो भोयो जाल्ल्यो. तें पद तांका फाव ना म्हणपाचें सांगून कांय जाणांनी न्यायालयांतय पांव दवरलो. प्रो० लक्ष्मणरावांक ही अपमानास्पद वागणूक सोंसची नाशिल्लीच. तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जाल्लो तो त्यांच्या 'खबरी' ह्या कोंकणी झेल्याक. मराठीतल्यान तांका एकय पुरस्कार फाव जालो ना.

तांचो पयलो-वयलो 'कल्पवृक्षांच्या छायेत' हो झेलो आजय उजू दिसता कारण तांणी भाशणी थाट करिनास्तना तत्कालिन समाजातल्या विशमतेच्या प्रस्नांची प्रसन्न लेखनशैलीतल्यान माण्डावळ केल्ली. ह्या झेल्यांतल्या 'काळेकुट्ट ढग', 'अंतःसौंदर्य', 'चाण्डाळ', 'कौमार्याचे बंध', 'सहनशील' ह्या कथांचो विशेशतायेन उल्लेख करचोसो दिसता. अगणित कथांतल्यान गोंयांतल्या वाफोरीचो, फातेमारीचो, देवळांचो, अग्रशाळांचो, पाद्र्यांचो, जात्रांचो, कांतारांचो उपेग पार्श्वलावण्य म्हूणच केलोच; खेरीज मुरवत पाळीनास्तना ह्या सोबीतसुंदर वाठारांत अस्तुरीचें मानसिक दैन्यय दिसता अशें मानून ते तांणी मांडून दाखयलें. कांय जाणांक अशे तरेन प्रातिनिधिक चित्रण जालें अशेंय दिसूं येता. शरद्‌चन्द्र चटोपाध्यायांल्यो नायिका जे तरेन पीडित आसात ते तरेन प्रो० लक्ष्मणरावांच्योय आसात अशें दिसूं येता. 'सहनशीला'तली जाई, 'तुटलेली तारका'तली तारका, 'वात्सल्य'तली मीना, 'कौमार्याचे बंध'तली चन्द्रा, 'हृदयाचे समाधान'तली क्रिस्तीना, 'मोहिनी'तली मोहिनी ह्यो व्यक्तिरेखा शरद्‌चन्द्रांच्या नायिकांभशेन दुःखार्त आसात. समाजान अस्तुरीकडसून जी अपेक्षा केली ती प्रो० लक्ष्मणरावांक मान्यच नाशिल्ली. समाजाची अस्तुरीच्या संबंदान प्रतिक्रिया सादारणपणान एकूच तरेची आसता अशें दाखोवपी कथा म्हळ्यार 'कौमार्याचे बंध'. सभ्य अस्तुरीलेगीत एकाद्र्या नाजूक खिणांत पाविल्ली आसतना भावस्खलित आनी पतित जाता देखून तिचेर नियंत्रण दवरपाची गरज उप्रासता. तशें जावंक पावलें ना जायत जाल्यार तिचें पावित्र्यपतन निश्चित अशी समाजाची भूमिका लक्ष्मणरावांक अमान्य आशिल्ली. म्हण्टकच ती समाजीक विशमता अशें तांका दिशिल्लें आसतय; परंत ते संसारातल्या पुराय सौंदर्याचो उपभोग घेवपी आशिल्ले म्हणपाचेंय तांचे पूत प्रा० शशिकान्त लक्ष्मणराव सूर्यराव सरदेसाय हांणी सांगिल्लें आसा. ही तांच्या भूमिकेतली विशमता कांय जाणांक चिंतपांत घुस्पावन वडयतय बी. 'पण लक्षात कोण घेतो?' (हरि नारायण आपटे) ह्या नवलिकेतली समस्या विविधांगी करून दाखयली ती प्रो०

लक्ष्मणरावानच. तिची नोंद मात मराठी समीक्षेन साप्प घेतली ना हे दुर्दैव! अस्तुरीच्या आंगांत सहेतुक लालित्य आसचें, ती उत्फुल्ला आसची, तिणे वो समाजान अस्तुरीकडेन वो तिच्या आंगिक तशेंच बौद्धिक उदरगतीकडेन दुर्लक्ष करचें न्हय असो क्रांतिदर्शी विचार सादारण वाचकांमेरेन पावोवप हें सोपें कार्य न्हय. अस्तुरीन काव्य करचें, बुद्धिविलास दाखवचो, वाद-विवाद करचो अशें तांचे नायक वसन्त, दिवाकर, 'मी' हो प्रथमपुरुशी निवेदक सदांच सांगतात, कारण प्रो० लक्ष्मणरावांची त्या विचाराफाटल्यान आशिल्ली सौंदर्याची नदर अशें म्हणूंक येता. 'काळेकुट्ट ढगा'तल्या ओल्गाचें, 'लाव्रा'तल्या लावराचें रेखाटन जिवें जालें, त्यो आशिल्ल्यो किरिस्तांव पंथातल्यो पुण तांचे निरीक्षण त्या व्यक्तिरेखांक न्याय करूंक पावल्यो. मध्यवर्ती मराठीतल्या साहित्यांत दिसपी कोंकण्यांच्या अस्तुरी व्यक्तिरेखेन हें चैतन्य आपणावपाचो येत्न केलो अशें दिस ना. एक विभावरी शिरूरकरांनी (म्हळ्यार बाळूताई खरे म्हळ्यारच 'रणांगण' ह्या नवलिकेचे बरोवपी विश्राम बेडेकाराली घरकान्न मालतीबाई बेडेकार) बरयिल्लें 'कळ्यांचे निःश्वास' सोडत जाल्यार हेर मराठी साहित्यान जोरकसपणान प्रो० लक्ष्मणरावांभशेन आपणाले भूमिकेची माण्डावळ केल्या, अशें दिसना.

प्रो० लक्ष्मणरावांन वसुंधरा, मोहिनीच्या रूपांत कोंकण्यांल्या अस्तुरीची व्यक्तिरेखा पितारली. भिवकुरी आनी अपराधीपणाची भावना दवरपी कोंकण्यांल्या अस्तुरींक पळोवन त्यो सुशील आसतात अशी तिची व्याख्या करप हेंच चुकीचें अशें लेखक ओल्गाच्या तोंडातल्यान म्हण्टा. ओल्गा नास्तिकच पुण सद्‌गुण म्हळ्यार धर्म; निखटो धर्मीक आचार न्हय, अशी तिची भूमिका. गोंयांत बाळ्ळी-कुंकळ्ळी वाठारांतल्या मुरीड वाड्यार राबितो करून आशिल्ल्या क्षेमावती उपाख्य फुलाई शिवदास नाईक गावड देसाय ह्या क्षत्रिय-मराठा जातीतल्या कोंकण्यांच्या एका चेडवाचें अपहरण करून तिका किरिस्तांव जोगतीण करपाचो एक मोठो येत्न *सान्तु आलैश* आनी *कार्मेलीतश्* ह्या संस्थांनी केलो. तिका तांणीं मडगांवां, म्हापश्यां, हळदोण्यां, कळंगूटे, बेळगांवां लिपोवन दवल्लें. माद्री आंजेलिका, माद्री प्लासीद, माद्री तेरेझ द मेनीन जेजूस, मडगांवचें मामलेदार कचेरेचे मुखेल कामदार सिंयोर व्हियेर, कोमादान्त, साश्टी नगरपालिकेचे अध्यक्ष सिंयोर पेद्रू कुरेय, पात्रियार्कासयत साबार पुर्तुगेज धर्माभिमानी, धर्ममार्तण्ड किरिस्तांव संस्थांनी तांका पालव दिलो. 'फुलाई बुद्दीन चलाख, शीलान शुद्द, वृत्तीन धर्मप्रवण व सत्यप्रिय, स्वभावान सरळ आनी मनान अतिशय प्रेमळ आसा' अशें प्रो० लक्ष्मणराव तिचें वर्णन करतात. 'धर्माखातीर फटी मारूंक कांयच हरकत ताका पालव ना अशें जेन्ना एका माद्रीन फुलाईक म्हळें तेन्ना तिका मोठो धक्को बसलो पुण तिणें तरीकूय प्रस्न विचाल्लेच, 'हें तुमच्या धर्माक मान्य आसा व्हय?...तुमकां चड प्रिय कितें? जीव कीं देव?' ह्या प्रस्नाक जाप नाशिल्ली. फुलाईचो बापोल्यो बाबुसो नाईक गावड

देसाय हांची घरकान्न प्रेमलाबायन पेद्रू कुर्रेयक प्रस्न केलो, 'सिंयोर, फुलाई म्हळयार आमकां जीव आनी प्राण. तिचे बगर आमकां जगप अशक्य. ती घरातल्यान वचत सावन आमकां खाण-उदक पोटांत वचूंक ना...माद्री जावपांतच तिचें कल्याण आसा अशें तुमकां दिसता जायत जाल्यार तुमीं तुमचे आवय-भैणींक, चेडवांक कित्याक माद्री करूंक धाडीनात?' पेद्रू कुर्रेय निर्जाप जालो. प्रो० लक्ष्मणरावांनच फुलाईची सत्यकथा बरोवन काडिल्ली [२]. म्हण्टकच कोंकण्यांच्या बायलांतय, समाजाच्या पांदऱ्यांत रावन, खणखणीतपणान उलोवपाचीं तांक आशिल्ली म्हणपाचें तांणी दाखोवन दिलें अशें म्हणूंक येता.

प्रो० लक्ष्मणरावांत कोंकण्यांतल्या बायलांचे व्यक्तिरेखेक विंगड विंगड तरेन अभिव्यक्त करपाची तांक आशिल्ली. चन्द्रा हें सुखी कलवंत. आपणाली शेंस घालपाची आसा, अशा कल्पनेच्या राज्यांत मस्त आशिल्ली. गजरा हीय नवनवोन्मिलीत तरनाटी अशाच जीणेर लुब्ध जाल्ली. तांच्या संवादांतल्या सूचकतेन उक्तावन येता. नाट्यीकरणातल्यान कथानक साकार जाताच वांगडा व्यक्तिरेखेच्या सभावाचेंय प्रत्यंतर येता. इब्सेनाच्या 'डॉल्स हाऊसा'तली नोरा वो मो० ग० रांगणेकरांच्या 'कुलवधू'तल्या भानुमती भशेन धैर्य दाखोवन गजरा बंड करून उठत काय? अशेंय खीणभर दिसता. गजरा शरीरलोलूप आशिल्ल्यान तशी अपेक्षाय करप चुकीचेंच! ताणें बंड केलें अशें दाखोवन लेखकाक समीक्षकांकडसून फाटीर प्रशंसेचो हात घुंवडावन घेवंक येतालो; परंत तांका तो मोह जालो ना.

हतबल अस्तुरीच्या संबंदान प्रो० लक्ष्मणराव नकसूद अल्पाक्षरत्वाचे मजतीन प्रसंगवर्णन करतातच खेरीज ओडलावणी व्यक्तिरेखाय घडयतात. 'सहनशीला'तल्या निरपराध जाईचे सुंदरसोबीत कथेंचो शेवट कितलो चुरको लावपी जावंक येता तें दिसताः

"- 'तुंवेंच चोरलो न्हय रुपय तिचो? जाईन मान हालयली. चिंतून तिचेर चडच फारपेट केली, आनी म्हळें, 'तुंवेच चोरलो...तुंवेच चोरलो!'

जाईचे फाटीर बड्यो बसताल्यो आनी तिची दुकां काळजाकडेन आंवळून धरिल्ल्या बाळकाच्या आंगार पडटालीं.'

अस्तुरीची हतबलताय आनी बाळकाचें भविश्य अशें काळखांत आशिल्ल्यान, त्या बाळकांकच तें दुकांचे मोल कळचें अशी सूचकताय दाखोवपी बरपावळ प्रो० लक्ष्मणरावान केली.

तांचे 'नववर्ष' ह्या कथेचें ओ हेन्रीचे 'ख्रिसमस' कथेकडेन मुखामळ सोबून दिसता; परंत आपणाल्या दुश्कर्मासावन आपणाल्या घरकान्नीचे-लिन्दाचे-यादीनच आपूण जिवो उरलों अशें आन्तूक दिसता आनी 'ख्रिसमस' हे कथेसावन साप्प पयस वचून प्रो० लक्ष्मणरावांची कथा आगळेच भावावस्थेची निर्मण करपांत विलक्षण तांकीन जैतवंत जाल्या. 'सफ़ा मशीद'

ही एक काळजाक स्पर्श करपी रचना. व्यक्तिरेखांच्या जाणविकायेत उप्रासलेली उत्कटताय आनी कुतुहल हांच्या मिश्रणान ती विलक्षण आकार धारण करता. 'मोहिनी' हे साप्प सादारण कथेक कित्याखातीर 'यशवंत' नेमाळ्याचो दुसरो पुरस्कार मेळ्ळो हें कळप कठीण.

वट्ट मराठींतल्या प्रादेशिक बरपावळींतय निखट्या गोंयच्या संस्कृतिक जीणेकडेन साबारांचे लक्ष ओडूंक पावपी प्रो० लक्ष्मणरावांच्या साहित्यांतली व्यक्तिरेखा ही एके तरेची जबर निर्मणी आशिल्ली. ह्या व्यक्तिरेखांतल्यान आमकां मेळटात ते गतकाळांतले भाटकार-मुण्डकार, कोंकणे-किरिस्तांव हांचेमजगतींतलें संस्कृतीक नातें, गौड सारस्वत ब्राह्मण आनी गावडे, भट आनी शेट, कुणबी आनी भगत अशा विंगड विंगड जाती-जमातीं-धर्म हातूंत रिगिल्लें मनशांचें नातें सोदपाचो पयलो-वयलो येत्न प्रो० लक्ष्मणराव हांणी केलो हाची गवाय मराठी साहित्याचो इतिहास दिता. तांच्या साहित्यातल्या वाठारांत अशी थळाव्यांची गजबज दिसताली. दादले-बायलो, जाण्टीं-नेण्टीं, दरिद्री-गिरेस्त, कश्टकरी-सुखवस्तू, बरपाक्षरी-अक्षरशत्रू अशेय जायत्या मळावेलो लोक तांच्या बरपावळींत दिसूंक लागलो. ह्या साबारांचे गुण-दोश तांका दिसतात; परंत चिकित्सात्मक वृत्तीतल्यान न्हय तर मनशाच्या काळजातल्या उत्फर्क्यांतल्यान. समाज अशाच लोकांनी घडयिल्लो आसता, नागरी जीणेतल्या प्लास्टिकावरी चकचकीत परंत कृत्रिम जीणेंत दु:खां आसूं येतात, वेदना आसूं येता, परंत तो व्यक्तिरेखांचो समाज नासता. तो आसता मुखामळार फट हांसो हाडपी असहाय्य मनशांचो एक क्लब, असोसियेशन, फेडरेशन. मनशाचें काळीज थंयसरच्या पेट्रोलपंपांनी आनी गाडयांच्या धुंवोरांनी काळेंच जाल्लें आसता म्हणपाची जाणविकाय प्रो० लक्ष्मणरावांनी अप्रत्यक्षपणान दिली अशें म्हळ्यार बरें. अशें आसूनय तांणी वाचप्यांच्या मनांत ते जीणेविशींची घृणा निर्माण केली ना. ही जाणविकाय विश्वात्मक स्वरूपाची आशिल्ली.

प्रादेशिक जीण ही खरीखुरी जीण म्हण्टास्तना एके परिन तांका most personal thing is the most universal thing अशेंय सुचोवपाचें आशिल्लें हें आमीं मतींत घेंवक जाय. हें मतींत घेत जाल्यार 'प्रादेशिकता' हें *साहित्यिक मोल* न्हय तर तो *एक साहित्य-प्रकार* अशेंय कळून येतलें. बरो लेखक अशे तरेचीं साहित्यिक मोलावणी मतींत धरून बरोवप करीना तर ताच्या स्वभावातल्यान ताच्या बरपावळीचें तें मोल जाता अशें म्हणप समा जातलें. हो स्वभाव बरोवप्याचोच. प्रो० लक्ष्मणराव सरदेसायांच्या जीणेतले कांय प्रसंगाविशीं सांगतास्तना ते एक 'dispassionate' कलावंत आनी 'impulsive' सौंदर्याचो पूजक आशिल्ले, तशेंच ते 'aestheticlly sensitive' मनीस आशिल्लें म्हणपाचें प्रा० शशिकान्त सरदेसायान सांगलें. हो मनीस 'live dangerously' चें तत्व पाळटालो अशेंय तांणी सांगलें. एक पूत ताच्या बापायचें निरीक्षण करता तेन्ना ताच्या स्वभावातली विंगड

विंगड कपियाळींय ताका दिश्टीक पडटात अशें म्हणू येता. ह्या तरेच्या कपियाळ्यांतली मानवी वृत्ती साहित्यकृतीच्या निर्मणीक घसघशीत मजत करतात. देखून प्रो० लक्ष्मणरावांच्या बरपावळींतल्या व्यक्तिरेखांतय ह्यो मानवी वृत्ती ठसठशीतपणान उठून दिसता.

प्रो० लक्ष्मणरावान आपणाल्या साहित्यिक व्यक्तिरेखांच्या निर्मणींत फाव ती 'कलात्मक तटस्थताय' राखूनय तांचेर मोगच केलो. तातूंत आप-पर भाव उप्रासना. जातियेचो हांवकार ना. वो भाबड्या, हळव्या सहानुभूतीचो फटकिरो रंगय ना. खरें म्हळ्यार ती तांचीच वृत्ती आशिल्ली. आपुण कला अकादेमींत आसतना प्रो० लक्ष्मणराव मोटारीच्या ड्रायव्हराचीय कशी काळजासावन वास्तपुस्त करताले म्हणपाचें प्रा० बुटेन सांगलें. वेलिंग हांगसर राबितो करतास्तना ते कशे उकड्या तांदळाचें शीत खाताले आनी रांदचे कुडींत यो-वच कशे करताले म्हणपाचें भौ० पुण्डलिक नायकान सांगलें. म्हण्टकच सर्वसामान्य बहुजनांत ते जे आत्मीयतेन वावुरताले तेंच आस्थेन त्या बहुजनाचे शब्दचित्रण करताले अशें म्हणूं येता. गोंयच्या विंगड विंगड वाठारांचो आदार घेवन साकार जाल्ल्यो तांच्यो साहित्यकृती म्हळ्यार निखटी छायाचित्रां न्हयंत. तातूंत वर्णनां आसात, लोकभास आसा खेरीज वृत्ति-प्रवृत्तीचो दर्पणय आसा. तांच्या बरपावळींत गांवगिरी जीण स्वतंत्रपणान येयना तर तातूंत संस्कृतीचें जीवें आंगय भरसून गेल्लें नदरेक येता.

'तानी' ह्या कथेंत एक सादारण अस्तुरी आसा. ती दळडिऱ्या जीणेंतय हांसून-मुमुरख्यान संवसार करता. तानीची सुखाची कल्पना साप्प सादी. ती म्हण्टा, 'सुख म्हळ्यार कितें तें हांव नकळं, काकीबाय. पुण म्हाका भूक बरी लागता. न्हीद बरी पडटा. पावसांत भोंवल्यार थंडी जायना, वतान भोंवल्यार उजो जायना...मनीस आसा थंय दुःखां आसात, हाल-उपाद्रे आसात. तरेक तरांचे, देखूनच मनशान ह्या दुःखांपरस व्हड जावंक जाय, घट्ट जावंक जाय...मरण आपणाल्या हातांत आसा गे काकीबाय?' हें रंजन करपाचें सूत्र न्हयच न्हय. वास्तवासावन पयस व्हरपी रंजनवाद वा आदर्शवाद तांतूंत दिश्टीक पडना. एके तरेन परंपारिक मूल्यांचेर पोशिल्ली आनी थंयच्याच जिविताचो अणभव घेतिल्ल्यान संवेदनशील जाणविकायेची प्रतिक्रिया उक्तावन येता. ही प्रो० लक्ष्मणरावांची प्रादेशिक संवेदना अशें जाय जाल्यार म्हणूं येता. परंत 'दी ओल्ड मॅन ॲण्ड दी सी'तय अर्नेस्ट हेमिंग्वेन एके तरेन अशीच दर्यांतली प्रादेशिक संवेदना घडोवंक ना तर? तशें आसत जाल्यार हेमिंग्वेली ही साहित्यकृती प्रादेशिक साहित्यकृती म्हणूनच जोखची पडटली. पूण तशें आमीं करतात व्हय? आमकां अनुभूतीच्या प्रचितीपरस चडकरून 'प्रादेशिकते'चे संकल्पनेन आनी संज्ञेन मोह घातलाशें दिसता. ती कांय जाणांक बरे तरेन आकळूंक पावली ना देखून, घडये, तांच्या बरपावळीक प्रादेशिक व्यक्तिचित्रणाचें लेबल लागलां काय?

प्रो० लक्ष्मणरावांच्या नांवांर तांणी बरयिल्ल्या साहित्यकृतींची एक सुदीर्घ अशी वळेरी दाखयतात [३]. ते कोंकणी बरपाकडेन भोवच उसरां आयले. तांच्यो 'खबरी' १९८०तल्यो. अशें आसूनय ताणीं कोंकणी संवेदना पुरायेन आनी सार्थतायेन उक्ती केल्या अशें म्हणूं येता. तांणी गोंयांतल्या भौसांत दिसपट्टे दिसपी कांय मनशांच्यो, वेवसाय करतल्यांच्यो व्यक्तिरेखा कोंकणींत चितारल्यात. तांच्या वांगडाच कोंकणींत कांय म्हत्वाच्या बरोवप्यांनी व्यक्तिरेखा शब्दबद्ध केल्लीं आसात. दोनांयतलें वेगळेंपण म्हळ्यार हेरांनी आपणाली व्यक्तिरेखा कथांच्या माध्यमांतल्यान चितारल्यात तर प्रो० लक्ष्मणरावान ललितगद्यांत. मराठीं कथांतल्यान मात तांणी त्याच व्यक्तिरेखांची ठसठशीतपणान मांडावळ केल्या. हरशी पळयत जाल्यार कथा आनी ललितगद्य हातूंत सदांच हय-न्हयशें अंतर आसता; परंत तांणी हें अंतर वेगळेपणान सांबाळ्ळें आनी तें हुपून व्यक्तिरेखांचे वेगळेंपण सतत जागें दवरपांत येस जोडलें.

कथेंत अगणित अणभवाचें एक चित्र आसता. नवलिकेंत अगणित अणभवांची अगणित चित्रां आसूनय कोलाजाभशेन एकूच चित्र आशिल्ल्याची जाणविकाय करून दिवपाची तांक आसता. प्रो० लक्ष्मणरावान प्रसंगांच्या आदारान व्यक्तिरेखांच्या जीणेची कथा केळयली तर निखट्या व्यक्तिरेखांच्या मजतीन प्रसंग दाखोवन ललितगद्याची मांडावळ केली. तांची स्थूल घडणुकांचे चित्रण करपी काणी खरें तर व्यक्तिरेखांचो विकास करता अशें नदरेक येता. तांच्या साहित्यिक आत्म्यान ह्याच उदरगतीच्या दिकेन वतना अभिव्यक्तीची कांय तासां पळयलीं तशेंच कथेंत आनी ललितगद्यांत व्यक्तिरेखांचो दोन तरांनी विकास सादलो अशें म्हणूंक येता. पयली तरा वर्णनांच्या स्वरूपांत तर दुसरी तरा मनोशविश्लेशणात्मक शैलीन. व्यक्तिरेखांची आंतरिक प्रकृती दाखयतास्तनाच तांचे आचरणय शब्दांकित केलें. हें आचरण भोंवतणच्या फाटभूंयेचेरय उजवाड घालता. कितल्योश्यो कथा ह्यो व्यक्तिरेखाप्रधान म्हणून वाचूंक मेळटात, देखीक 'गीतूल', 'चन्द्रा भावीण', 'झिला', 'तानी', 'नक्षत्रांचो नाद', 'पोपटची गोष्ट', 'मसणखाम्ब', 'मोहिनी', 'लालाजी', 'लाव्रा', 'शाळा-मास्तर', ह्यो तर लक्षणीय रचना म्हणून यादींत उरतात. प्रो० लक्ष्मणरावांच्या साहित्यकृतींत जशी प्रकृती तशी व्यक्ती अशेंय म्हळ्यार जाता देखूनच ती चडातचड विश्वसनीय अशें म्हणूंक येता. बाळकृष्ण उपाख्य बाकीबाब भगवंत बोरकार हांच्या 'भावीण' ह्या मराठी नवलिकेतल्यो व्यक्तिरेखा अशोच भोंवतणच्यो फाटभूंयेकडेन लागसार दाखोवपी. मराठणांत अशें वातावरण नाशिल्ल्यान थंयसरच्या समीक्षकांक गोंयकारांनी घडयिल्ली साहित्यकृती ही निखटी आनी निखळ मनोरंजनपर दिसली आसत जाल्यार आजाप न्हय. मुळावो कोंकणीच मनीस पुण मराठी ललितगद्यकार म्हणून प्रसिद्ध आशिल्ल्या रवीन्द्र पिंगेन 'परशुरामांची सांवली' ह्या कथा झेल्यांक हें मनोरंजनात्मक परिमाण दिल्ल्यान तर मराठणातल्या समीक्षकांची धारणा ठामच जाली. तशें जाल्ल्यान

हांगसल्ल्यो बायलो आनी देवळाचो परिसर इतलेंच तांच्या माथ्यांत उल्लें आनी गोंयकारान बरयिल्ली साहित्यकृती म्हळ्यार तातूंत आत्मनिष्ठा आसता, पलायनवादी वा मनोरंजनात्मक तत्वां नासतात हें साबार समीक्षक विसरून गेले.

'व्यक्तित्व म्हळ्यार स्थल, काल, धर्म, संस्कृती, परंपरा आनी इतिहास अशा विंगड विंगड परंपरांचो आपरोस', अशें एकफावट प्रो० लक्ष्मणरावान म्हणिल्लें. अर्थात् त्या निमतान एक प्रस्न उप्रासता. तो म्हळ्यार असो: समर्थ प्रतिभावंतान साक्षात केल्ली कथा वा नवलिकेतल्यान मांडिल्ली एकाद्री व्यक्तिरेखा म्हळ्यार ती त्या समाजाचें प्रातिनिधीक रूप आसता व्हय? हो प्रस्न ललितगद्याच्या संदर्भांत उप्रासना, हें वास्तव संबंधितांनी मतींत दवरपाची गरज आसा. कथा हो ललितगद्याभशेन कथनात्मकतेचोच प्रकार. कथा वा नवलिका बरयतास्तना वास्तवांतल्या साबार तासांसयत जियेवपी एकाच व्यक्तींत दोन (वा दोनापरस चडय) लेखक आसतात आनी दोनांतय एकच निवेदकच आसता; परंत साहित्यप्रकार बदलूंक लागलो की निवेदकाची भूमिकाय बदलूंक लागता. वर्ण्य व्यक्ती तशें पळयत जाल्यार अस्तित्वांतच नासता तरीकूय लेखक ताची निर्मणी करता आनी तो ज्या ज्या भावविश्वाकडेन बांदिल्लो आसता त्या त्या वेळार निवेदकाची भूमिका बदलत वता. वास्तवातली जीण आणि साहित्यातलें वास्तव हातूंत अंतर आयिल्ल्यान तशें घडटा. पूण ललितगद्यातल्या व्यक्तिरेखांच्या संबंदान तो व्यक्ती, लेखक आनी निवेदक हांची एकच भूमिका उरता देखून व्यक्तिरेखांचे चित्रण जशाक तशें जावंक संद मेळटा. अशें आसूनय भौसातल्या विशिश्ट वेवसाय-धंद्या-वावर करपी बहुजनांच्या वृत्ती-प्रवृत्तीच्या खाशेलेपणाचेर दोनूय लेखक आपणल्या साहित्यकृतीची इमारत बांदतात. प्रो० लक्ष्मणरावांच्या बरपावळींत अशे एका परस चड लेखक वावर करताना दिश्टीक पडटा. तांच्या अस्करांतल्या भौसाच्या वागपांत, न्हेसपांत, खावपांत, नांवां-तोपण नांवांत, जीणेविशींच्या तत्वगिन्यानांत, रिती-भातींत, जाती-जमाती-धर्मांत जें नदरेक पडटा तें ताणीं नोंदयलां. गोंयची जी प्रतिमा निर्माण जाली ती अशा बरपावळीतल्यान; परंत त्या बरपावळीतली व्यक्तिरेखाच चडशी मतींत उल्ली आनी तिच्यातली कलात्मकता साबार विसरायेर घालून मेकळे जाले. तांच्या बरपावळीतली दर एक व्यक्तिरेखा प्रातिनिधीक जावन गेली. गोंयचो इतिहास बरयतास्तना तांची बरपावळ म्हळ्यार गोंयचेर मांडिल्ली एक चित्रशाळा वा गोंयच्या जीणेविशींची आर्ट गॅलरी अशें फाल्यां कोणें म्हळें जाल्यार अजाप दिसपाची गरज ना.

व्हांवत्या भाशेशैलीतल्यान ही चित्रणां उबी जाल्यात खरीं पुण तांका रंगयतना प्रो० लक्ष्मणराव ते व्यक्तीचें मनसीक रूप, तिच्या मनातलो संघर्श वो भावनांचें झूज खोलायेन रंगतना दिसनात. व्यक्तिचित्र रंगयतना व्यक्तिठांय एकाद्र्या सामान्य व्यंगाच्या सांगातान

वैशिश्ट्यपुराय अशे स्वभावविशेश चित्रायल्ले दिसतात. देखीक छंदिश्टतायें सांगातान निरागस अशें भाबडेंपण चित्रायतकच हे व्यक्तीक तिचें खाशेलें अशें व्यक्तिमत्त्व मेळटा. जे तरेन चितळे मास्तरातलो 'मास्तर' भुरग्यांक शिकयतना तांका ख्यास्त दिता तेच तरेन तांच्या यशान तो फुलून वतना दिसता पुण भुरगीं आनी एक शिक्षक हांचेमदलें अंतर नाच्च करपाची तांक त्या मास्तरांत आसा अशें दिसना. हे फाटभूंयेर इन्दिरा सन्ताली एक कथा याद येता. तातूंत आपणाल्या शिक्षिकेक, ती विद्यालय सोडून चल्ली म्हणून, निरोप दिवंक आयिल्ली तिची विद्यार्थिनी हांचेविशींचे भावगर्भ वर्णन सन्त करता. 'उपेक्षितांचे अंतरंग' (श्रीपाद महादेव माटे) वा 'माणदेशी माणसं' (व्यंकटेश माडगूळकर) ह्या पुस्तकांतय व्यक्तिरेखांक भोंवतणीची फाटभूंय चड ठसठशीत करता. 'गणगोत' वो 'व्यक्ती आणि वल्ली' (पुरुशोत्तम लक्ष्मण देशपाण्डे) ह्या बरपावळींत व्यक्तीरेखांच्या अस्तित्वान वाचपी सुखावता, तांचेविशींचें आपलेंपण काळजांत थार धरूंक लागता. प्रो० लक्ष्मणरावान घालून दिल्ल्या मार्गावेल्यान मुखार मराठी व्यक्तिरेखांनी आपणाली प्रतिमा केळयली अशें म्हणूंक येता. अर्थात् तशे वर्णन प्रो० लक्ष्मणरावांकय करूंक येतालें पुण तांका फाटभूंयेक चड म्हत्त्व दिवचेपरस वा प्रसंगवर्णनात्मकतेपरसय व्यक्तिरेखांच्या स्वभावाचेर उजवाड घालपाची चड गरज दिसताली. नारायण अवलिया खरो पुण ताच्या वट्ट जीणेक आशिल्ली करुणेची कड तांका चड स्पर्श करता, ताच्या जीणेतले कांय प्रसंग म्हत्वाचे आसात अशें मात दिसना. अशें आसूनय तें व्यक्तिचित्रण वेगळयाच उंचायेर व्हरता. प्रो० लक्ष्मणरावांचो 'नारायण' आनी पु० लं० चो 'नारायण' वाचून पळोवंचो आनी तांची तुळा करून पळोवंची. दोगांयचीय व्यक्तिरेखा वाचप्याच्या दोळयांत वा व्होठांचर हांसो फुलयता, मनांतय रिगता तशेंच तांचेविशींचें आपलेंपण काळजांत थारय धरता. व्यक्तिरेखांची एक यशवंत पत हे नदरेन ह्या लेखकाचे हे बरपावळीकडेन पळोवचें.

उपरांत कोंकणींतय शीला कोळंबकारान व्यक्तिरेखा शब्दबद्ध केल्यो. वाचप्यांच्या काळजांत तांचेविशींची ओड दिसता. काल्पनिकच खरीं पुण ती आपणालीच अशें दिसता. पु० लं० चो पेस्तनजी, चितळे मास्तर, कोळंबकाराची मॅगी ह्या सारक्यो कांय व्यक्तिरेखा सोडत जाल्यार चडश्यो व्यक्तिरेखा ह्यो समाजाचें पडबिंब म्हूण मानून घेवनय तांका वाचपी आपणाल्या काळजांत रिगूंक दीत अशें म्हणू नज. 'खबरी'ची भास सामकीच बालसुलभ म्हणून अशें जाल्लें आसू येता. तातूंत अलंकरण करपाचो सोस दिसना. व्यक्तिरेखांच्या अंतरंगाचे पदर उक्ते जायत वचपाक जाय आशिल्ले तशे ते उक्ते जायनात. घडये ताकाच लागून वाचप्याच्या काळजाकडेन थेट संवाद सादपांत आडमेळे येतात जावंये. त्यो व्यक्तिरेखा फकाणेरश्योच दिसतात. त्यो वाचप्यांची भावसमाधी लावंकच शकना. हरशीं पळयत जाल्यार

प्रो॰ लक्ष्मणरावांचें भाशेचेर प्रभुत्व आशिल्लें अशें आमी मानतातय परंत कोळंबकारांच्या बरपावळींत अभिव्यक्तीची वेगळीकाय दिसता. दोगांयल्या अभिव्यक्तींत सहानुभूतीपूर्णताय, चिंतनशीलताय आनी अभिजातताय दिसूनय अशें कित्याक जाता काय? अभ्यासकांनी ह्या संबंदान चिंतपाची गरज आसा.

'पापडां कंवळ्यो'तल्या गोपाळाच्या संबंदान मनोविश्लेशणाच्या संबंदान चिंतचे परस हेर तरेन चिंतत जाल्यार *प्रादेशिक संवेदना* चडच स्पश्ट जावंक येता. आत्महत्या करपाक भायर सरचे पयलीचो गोपाळ ज्या घुस्मटमारांत जियेता तो घुस्मटमार, गोंयच्या समाजांतल्या एका विशिश्ट परंपरिक मूल्यांच्या आदारवडान जगप्यांच्या काळांतल्या, तरनाट्याचो आशिल्लो. बऱ्या आसपतीच्या घराब्यांतल्यां भुरग्याचेर परिस्थितीक लागून लाचार जावंचेली, दारांदारांत पापड विकपाची, पाळी येता. *मांय मेल्यारय, मावशी आसतली* अशें मानपी गोंयच्या समाजांतय स्वाभिमानी गोपाळाक मावशेमुखारय हात पसरावंक पुटवना तशेंच मावशेची वागणूकय आपणाले आवयक सांगप जमना तेदेवेळार तो कितें अणभवता म्हणपाचें पुराय स्पश्ट जाता. गोंयचे भाटकारशायेचे रूपडें दाखोवपी समाजव्यवस्थेसंबंदान गोंयच्या भायर जाणविकाय आसची ना. देखून ही *प्रादेशिक संवेदना* अशें खीणभर मानूं या.

'खबरी'तली व्यक्तिरेखा अशीच. पदेर, रेंदेर, शेट ह्या गोंयच्या समाजातल्या खाशेल्या घटकांवांगडा मास्तर, देमांदिस्त अशा कांय व्यक्तिरेखांचें आगळेंवेगळें चित्रण गोंयच्या भायर आशिल्ल्याक अप्रुपच दिसले आसतले. गोंयांत 'गुरू' आसताले; परंत गोंयच्या भायल्यान कित्येंय करून उदरंभरणं करपाखातीर 'मास्तर' आयलो आनी 'गुरू'चें स्थान ह्या 'मास्तरा'न घेतलें. उपरांत समाजाची जी मनसीक, संस्कृतीक आनी भाशिक उदरगत वा अधोगती जाली ती ह्या मास्तरांच्या छत्रछायेंत. देखून प्रो॰ लक्ष्मणरावांच्या 'मास्तरा'च्या व्यक्तीरेखेन हेरांक अजापित केलें. ह्या लेखकान सामके नकसूदपणान अशा विंगड विंगड व्यक्तिरेखांची पाळां-मुळां रोवन बशिल्ल्यांचे वर्णन केलें. *अल्पाक्षरत्व* हेंच तांचे शैलीचें एक खाशेलेपण अशें म्हणू येत. तांच्या बरपावळीची हेर खाशेलेपणा मुखार सांगिल्ल्याप्रमाण दाखोवंक येतः

१. एकदुसऱ्याच्या सभावाच्या, आचरणाच्या, वृत्तीच्या विरोधांत उबी केल्ली मनशां वाचप्याक जशासतशी पळोंवक मेळटात, देखीक - 'फटो आनी रामगो' च्या रूपांतय ती मनशां मेळटात. प्रो॰ लक्ष्मणरावांच्या नकसूद लेखनशैलीखातीर, तांच्या भोंवतणचें वातावरण, मनाचे विशिश्ट अवस्थेंत ताका याद जाल्ली एकाद्री गजाल वा ताचो संबंद आशिल्ल्या एकाद्र्या गजालीचें चित्रण, सहजतायेन आकार घेता. एकेपरीन गोंयच्या समाजसंस्कृतीचें दर्शन विशिश्टतायेन शब्दबद्ध जाता.

२. गोंयांत गोंयातले म्हाले मेळनात, ते आंध्र-कर्नाटकांतल्यान येतात म्हणपाची गजाल

हालसरींच गोंयचे महामहीम राज्यपाल केदारनाथ साहनीन म्हणिल्ल्याची याद येता. तशेंच 'ते फिरंगी गेले आनी ते उंडेय गेले' ह्या म्हणीचीय याद करूं येता. ह्या फाटभूंयेर पदेर, रेंदेर, म्हालो सारके गोंयच्या गतकाळातल्या लोकजीणेंचें घटक आयज स्मृतिआड गेल्यात; परंत तांका आयजय जिवे करपाची तांक प्रो० लक्ष्मणरावांच्या बरपावळींत आसा.

३. ललितगद्यातल्या ह्या व्यक्तिरेखांक प्रातिनिधिकता लाबिल्ली आसली तरीकूय कथात्म बरपावळीतल्या साबार व्यक्तिरेखांत प्रातिनिधिकता दिसता अशें म्हणूं नज.

४. ललितगद्याच्या झेल्यांत आसपावलेली व्यक्तिरेखा म्हळ्यार आत्माविश्कार करपी भावनिबंद अशें आमीं मानतात. देखून बरोवप्याच्या आत्माविश्काराची विंगड विंगड तासांय दिश्टी पडपाक जाय. तांच्या बरपावळीतल्यान प्रो० लक्ष्मणरावांच्या व्यक्तित्वाचीं खंयचीं तासां उक्ती जातात? बरोवप्याच्या जीणेंत प्रभाव घातिल्ल्या मनशांचे रूप दाखोवपी हो प्रकार तशे तरेचें कार्य कितले प्रभावीपणान करता? बरोवप्याची निरीक्षणक्षमता भोवच सूक्षीम आसा हें हाचेवयल्यान जाणवता पुण ताच्या हेर व्यक्तित्वाची हेर तासां तितल्या प्रभावीपणान दिश्टी पडनात. कांय फावट तर बरोवप्याच्या चिंतनशील वृत्तीचो हय-सो तर कांय फावटी न्हय-सो प्रत्यय येता, इतलेंच खरें. घडये 'खबरी'क प्रातिनिधिक रूप आयिल्ल्यान घटना-प्रसंगाच्या निमतान कथनात्मकतेक कुशीक वडोवन, व्यक्तिरेखाटनाक अधोरेखित केल्लेवरी दिसता. पुण त्या व्यक्तिरेखांच्या वेदनेचो, दुःखांचो स्पर्श बरपावळीक जाताच अशें म्हणू नज. प्रो० लक्ष्मणरावांच्या बरपावळींतले व्यक्तिरेखांचे चित्रण म्हळ्यार अलिप्तपणान केल्लें 'व्यक्तिदर्शन' आनी तांचे, अशा व्यक्तिदर्शनाचे, झेले म्हळ्यार गोंयच्या साबार भौसांचें 'एक स्नेहसंमेलन' अशें म्हळ्यार समा जातलेंशें दिसता.

५. ह्या व्यक्तिरेखांची वर्गवारी अशी करूंक येता:

अ. भौसातल्या 'हाय ब्रो' वर्गातल्या व्यक्तींच्या सांगातान मध्यमवर्गीय आनी निम्नवर्गीय पावंड्यावेली म्हळ्यार श्रमजीवी-कश्टकरी-कुणबी-वावराडी वर्गातल्या व्यक्तींचोय आस्पाव जाल्लो दिसता. हाचेवेल्यान प्रो० लक्ष्मणरावांच्या निरीक्षणशक्तीचो अदमास घेवंक मेळटा. कुळागरी भौसावांगडाच कलवंत, गुरव, घाडी, फर्जन्त, भगत, भावीण अशी एक एक व्यक्तिरेखा म्हळ्यार आदल्या गोंयच्या समाजाविशींची गाथाच कशी उलगडत वता. गोंयच्या मुक्तीपयलीं गोंयांत भायल्यान येवन राबितो करतल्यांत भिकारी आयले, शाळामास्तर आयले, रखवालदार आयले. गोंयांत 'गांवकुसाभायलो भौस' ही संज्ञा गोंयच्या मुक्तीवांगडा गोंयात आयली. कांय जाणांक आपणाक कोंकणी समाजातल्यान भायरायल्यात म्हणपाचो दिश्टावो जालो; परंत प्रो० लक्ष्मणरावांच्या प्रतिभेक मात हो दिश्टावो जावंक नाशिल्लो देखून दलितांचे प्रस्न वा तांचे विशींची सहानुभूती दाखोवपी बरप तांचेकडसून जाले ना.

आ. 'सैम आनी मनीस हांचे संबंद इतले जिव्हाळ्याचे आसात की कलेक बादा केल्लेबगर ते तोडून दाखोवन येवचे नात. सैमाकडेन फाट करतकच मनशाची जीण नीरस आनी निःसत्व जाता.'[४] अशें ते एके थळार म्हणटात; परंत 'हाय ब्रो' मनशां देखणीं, रुबाबदार म्हळ्यार झेत आशिल्लीं, सुशिक्षित आनी शिश्टाचार पाळपी तशेंच सुविहित आचरणाक पाळो दिवपी आसताली तांचीय व्यक्तिरेखा पितारपांत ते रस घेतात. पुर्तुगेज शासनाच्या काळांत अस्तंत संस्कृतीच्या अस्कडांत रावपी मनशां थंयच्या साहित्याच्या वाचनानय सुबुद्द जाल्ली. आपणाली आदली कोंकणी संस्कृताय विसरून फिरंगी संस्कृतीचें प्रतिनिधित्व करपी परैरासारक्यो कांय व्यक्तिरेखा आमकां मेळटात. 'निवारा' (१९६९) तल्या त्याच माथाळ्याचे कथेंतं गोंयच्या मुक्तीन समाजजीणेचो साप्प अधःपात जालो अशें मानपी, पुर्तुगेजांच्या शेकातळा सुखच आशिल्लें अशें मानपी कांय जीव गोंयांत राबितो करून आशिल्ल्यांचे प्रतिनिधित्व करप्यांचे चित्रण येता. ही परिस्थितीजनक वास्तवताय प्रो० लक्ष्मणरावांनी दाखोवन दिली. एके तरेन परंपरिक वास्तवतायेचें दर्शन घडयतास्तना परिस्थितीजनक वास्तवताय ते पितारतात. ह्याच पावंड्याचेर वावर करपी अस्तुरी सुंदर-सोबीत, शालीन, तरणी, मेकळ्या मना-काळजाची आनी सुखवस्तू घराब्यांतली आसताली. ह्या पावंड्यावेल्या अस्तुरीची दोन तरांनी वर्णनां मेळटातः साबार नायिका ह्यो कृतिप्रधानच दिसतात हें एक मोठें वैशिश्ट्य म्हळ्यार जाता. मध्यवर्ती मराठींत अशें चित्र दिसना. कोंकण्यांच्या घराब्यातली अस्तुरी शालीन, मर्यादाशील, घराण्याची अब्रू राखपी, भेसा-न्हेसण्यांच्या नेटकेपणांत परंपरिकताय सांबाळून दवरपी आनी घरच्या दादल्याच्या मान-मर्यादेची जाणविकाय दवरपी आसताली. आयज ह्यो साबार गजाली दकियानुसी आसात अशें मानपाचो काळ आयला. जांका स्वातंत्र्य ह्या कांबरुणाखाला व्यभिचार करपाची आसता तांका ही स्वातंत्र्य नांवाची ढाल उपकारा पडूं येता. परिणामी हीं ढाल भोवच मोहमयी जावंक लागल्या. वास्तवताय कितें आसा हें खबर नाशिल्ल्यान कांय जाण ह्या ढालीच्या आलाशिऱ्याक वतात. देखूनय भौशिक जीणेतल्या अत्याचाराक बळी पडल्लीं मनशां नदरेक येतात. कांय किरिस्तांवांच्या घराब्यांत अस्तुरी शिकिल्ली आसताली हें चिकें खरेंच परंत पुराय सत् म्हणू नज. अशें आसूनय आंतरिक सोबीतपणापरस शृंगारात्मकतेक आनी नेटकेपणाक चडावतपणान गुरूत्व दिवपी, येवरोपी चालचलणुकीचो आनी संस्कारांचो ताथोमाथो करपी अशी मनशां तेन्नां पावलां कणकणीं मेळटाली. किरिस्तांवांच्या घराब्यांत जल्म घेवनय आपणाकडेन चलत आयिल्लें संस्कृतीचें भान दवरपी नायिका प्रो० लक्ष्मणरावान पितारली. असो कॅनव्हास मध्यवर्ती मराठी साहित्यांत नाशिल्लो म्हण्टकच प्रो० लक्ष्मणरावांच्या व्यक्तिरेखांक वाचप्यांनी उबारून घेतलें. तांच्या बरपाची भूल कितले शीमेमेरेन पडली हें

कळचें आसत जाल्यार श्री० ज० जोशींच्या मताक समजून घेंवचें पडटलें. श्री० ज०न प्रो० लक्ष्मणरावांच्या कथांचें संकलन केल्लें. 'एका सुपुल्ल्या भूप्रदेशाचेर लागीं-लागी साठेक वर्सां बरपावळ करप, हो एक विक्रमच. गोंयचो पुराय इतिहास एकलो 'लक्ष्मणराव' वाचत जाल्यार सहजिकायेन समजून येत.'[५] नामनेचे मराठी लेखक रा० भि० जोशीन गोंयची भोंवडी केली ती गोंयकारांच्या बरपाक मार्गदर्शक मानून. तांचो अपेक्षाभंग जालो ती हेर गजाल म्हणू या.

६. संज्ञाप्रवाह आनी वातावरणनिर्मिती हांचे कुशळतायेन मिश्रण केल्ल्यान व्यक्तिरेखांक ठसठशीतपण लाबिल्लें आसा. 'पडसाद', 'घराण्याची तलवार', 'मोहोर', 'पाषाण', 'वादळातील नौका' वाचत जाल्यार व्यक्तिरेखांक हाडा-मांसाचें स्वरूप मेळ्ळें अशें म्हणूंक येता. तांचे निमाणेकडेन जें बरोवप जालें तातूंत एक तरेचें मेकळेपण, उन्मुक्तताय आयली अशें मानल्यार चूक जावंची ना. ती भाशेशैली अभिजातच उल्ली, उन्मुक्त जाली ना. मनोभाव, स्वभावदौर्बल्य, विवक्षित अनुभवचित्रण अशें विंगड विंगड अभिव्यक्तींचे मार्ग तांणी दाखोवन दिले. मनोविश्लेशणात्मक पद्दतीनय व्यक्तिरेखांचे वागप, उलोवप हांचेसंबंदीचें चित्रण जालें परंत तांचें मनसीक झूज प्रभावीपणान दाखोवपाचो येत्न करूनय तो फळूंक पावलो ना ही खंतीची गजाल म्हणूंयेता. पुरुशोत्तम भास्कर भावे, गंगाधर गाडगीळ, अरविन्द गोखले, गुरुनाथ आबाजी (जी० ए०) कुलकर्णी, व्यंकटेश माडगूळकार हांणी मराठी नवकथेची धुरा सांबाळचेलो येत्न केलो. नवकथेन रूढ कथालेखनाचो साचो मोडलो अशें कांय जाण मानतात; परंत प्रो० लक्ष्मणराव हांका नवकथेच्या निर्मणीची आसय लागूंक नाशिल्ली घडये. निमणे वास्तव अशें आशिल्लें की तांची कथा प्रादेशिक आसा म्हणपाची सर्त लागिल्ली. विशमतेंत संघर्श आसता असो पुरस्कार करपी ह्या लेखकाक, कांय मनशातल्या (तशेंच बरोवप्यांच्याय) विकृतीचें दर्शन घडोवपाचें, साहित्यनिर्मणीच्या नव्या मनून दिल्लें आव्हान मानूंन घेंवक आयलें ना. ते सदचे भशेन तांच्या कथांखातीर जाय आशिल्लो आशय गोंयच्या इतिहासांत सोदूंक लागले[६]. इतिहासांत आशय सोदपाचो येत्न प्रो० लक्ष्मणरावांनी हाचेय पयलींय केल्लो; परंत तसो येत्न करप म्हळ्यार ती प्रादेशिकतेची कुरू न्हय. खेरीज 'पोपट'ची गोष्ट' आनी 'गोव्याकडची माणसे' ह्या विशयांत तांका रस आशिल्लोच. अशेच तरेची मनोवस्था दाखोवपी नारायणराव ('मोहोर'). नांवांजते घराबे रसातळाक पाविल्ले. 'निमित्ताक कारण' सारकी साहित्यकृती असलेच तरेच्या व्यक्तिरेखांचेर आदारलेली आसा. 'प्रसाद घेंवप' वो 'जातक पळोवप'. 'नक्षत्रांक' वो 'पांय गुणांक' म्हत्व दिवप ह्यो भौसाच्या परंपरिक स्रद्धाचोच आपरोस प्रो० लक्ष्मणरावांनी निर्माण केल्ल्या व्यक्तिरेखांच्या आचरणांत दिसून येता. एके वटेन गोंयच्या समग्र समाजाची संवेदनशीलतायच उजू जाता अशें म्हळयार

जाता. अस्तमतेच्या साहित्यान प्रो० लक्ष्मणरावांचेर केल्लो संस्कार तांच्या कथेक बळगें दिवंक पावलो. हेरांक हें बळगें लाबलें ना, देखून पिंगेसारको अभिजात भाशाशैली आशिल्लो बरोवपी गोंयच्या जीणेचेर कलात्मक लेखन करूंक पावलो ना.

७. प्रो० लक्ष्मणरावांच्या कथेंत कांय जाणांक गोंयांतल्या ढासळत चलिल्ल्या पोरण्या जीवनपद्दतीची वळख करून दिली अशें दिसलें [७]. कथालेखनांत नाट्यीकरण करप समा न्हय; परंत त्या तंत्राचोय कुशळतायेन वापर करूंक प्रो० लक्ष्मणराव अनमनले नात. व्यक्तिरेखांच्या मनांतलो, काळजांतलो अंतर्विरोध तशेंच हेर व्यक्तिरेखांकडचो संघर्श आनी ताण हांचे चित्रण जावंक ह्या नाट्यीकरणाचो लाव जावपासारको परिणाम जालो. तांची वट्ट बरपावळ पळयली जायत जाल्यार तातूंतल्यान काव्यात्म भावच स्पर्श करूंक लागता. गोंयचो बरोवपी सभाविकपणान भावूकच. म्हण्टकच मराठीतल्या समीक्षकांक प्रो० लक्ष्मणरावांच्या कथांक मनशाचे जीणेचो संपर्क ना असोय दिश्टावो जालो.[८] तांचो काव्यात्म भाव कुसुमावती देशपाण्डेच्या 'दीपमाळ', 'दीपकळी', 'दीपदान' आनी ग० दि० माडगूळकर हांच्या 'कृश्णाची करंगळी'त बेस बरो ताणून धरूनय तांच्या वाट्याक मनमुराद प्रशंसा आयली. प्रो० लक्ष्मणरावान गांवगिऱ्या जीणेचें दर्शन घडयलें अशें आमीं म्हण्टात; परंत तांचे फाटल्यान आयिल्ल्या वामन चोरघडेक पयली यशस्वी ग्रामीण कथा बरयली म्हणपाचो मान मेळ्ळो.[९] ही गजाल पळयतकच गोंयकार आसप होच एक स्राप जावन पडलाशें दिसता. एकवटेन अल्पाक्षरत्व तशेंच निर्मितीक्षमता लाबिल्ली प्रो० लक्ष्मणरावांची रचना भोवच आकर्शक जाता; परंत शरदचंद्र चटोपाध्यायांच्या बरपांत जे तरेन दोन-एक वाक्यांत जशी व्यक्तिरेखा ठसठशीत जाता तशी तांच्या रचनेंत जायना म्हणपाचें होलमता. माडगूळकरांची बरपावळ काडून वाचत जाल्यार ती वर्णनाखातीर अडून उरना तर कथानक धांवूकच लागता. प्रो० लक्ष्मणरावांची रचना कथानकापरसय व्यक्तिरेखांचेर चड उजवाड घालूंक येत्न करता म्हणपाचें कळून येता. कांय फावटी तर ('पाझर') वातावरणनिर्मितींत तिका चड रस आसा म्हणपाचें स्पश्ट जाता.

प्रो० लक्ष्मणरावांनी आपणाले जीणेच्या निमाणकडेन लेखन करपाखातीर सहायक सोदलो. तो मेळ्ळो ना. तांची बरपावळ जावंक पावली ना. तें साबार बरोवन जाल्लें जाल्यार कोंकणीक तशेंच मराठीक अमोल अशी साहित्यसंपदा मेळटली आशिल्ली. परिणामीं 'कमंडलूंत उल्लें तें गंगाजळ पूण दोळ्यांमुखार व्हावून गेली गंगा' अशे म्हणपाची पाळी गोंयकारांचेर आयली, इतलेंच खरें.

---

(१) सातोस्कर, बाळकृष्ण दत्तात्रय., गोमंतकीय मराठी साहित्याचे आधुनिक शिल्पकार, पणजी-गोंय, १९८४, पानांक ३४

(२) सरदेसाई, लक्ष्मणराव., गोमंतकातील एक धर्मान्तर-प्रकरण, Printed by Mr. S. V. Kulkarni, at sagar P. Press, 20,Tribhuvana Road, Bombay 4 & Published by him at Maharashtra Grantha Bhandar, Girgaum, Bombay, 1945, पानांक (८) आनी (१२),

(३) **कोंकणी** : कथाशिल्प (समीक्षा-१९७७), पापडां कंवळ्यो (लघु-नवलिका, १९७९), खबरी कांय कर्माच्यो, कांय वर्माच्यो (ललित गद्य-१९८०), रामराज्याली वागा भोंवडी (१९८३); **मराठीः** ललितगद्यः गोव्याकडची माणसे (१९८१), कथाझेलेः कल्पवृक्षाच्या छायेत (१९३४, १९७१), सागराच्या लाटा (१९३५), ढासळलेले बुरूज (१९४०), आनितेचे दिव्य (१९४४), संसारातील अमृत (१९५१), मधुचन्द्र (१९५२), सुरेख संगम (१९५४), लक्ष्मणरेषा (निवडक कथासंग्रह, कॉण्टिनेण्टल प्रकाशन, १९५७, संपादकः कृशणद्वैपायन), सोनेरी ऊन (१९६४), निवारा (१९६९), बीजेची कोर (१९८२), पडसाद (१९८५), वेचक लक्ष्मणराव सरदेसाई (निवडक कथासंग्रह, सन पब्लिकेशन्स, पुणे १९८६); नवलिकाः माण्डवी! तू आटलीस? (१९४७), जगावेगळा (आल्बेर कामूच्या 'आउटसायडर'चो मराठी अणकार, १९५८), ब्राह्मण (फ्रान्सिस गॉमिशच्या 'ब्राह्मण'चो मराठी अणकार, १९७३), दर्याची गाज (अप्रकाशित). खेरीत प्रो० लक्ष्मणरावांच्या बरपांतल्यान तांणी कांय नवलिका बरयिल्ल्याची-*ब*/येवजिल्या-*ये* म्हणपाची नोंद मेळटा, ती अशीः आग्वादचे तट (सोनेरी ऊन/*ये*), अंधारातील वाटाडे (ढासळलेले बुरूज/*ब*), कोण्डवाड्यातील भिंती (सोनेरी ऊन/*ये*), निळे आकाश (ढासळलेले बुरूज/*ब*), पितरांचे पाप (वादळातील नौका/*ब*), फिरंगी द्राक्षे (ढासळलेले बुरूज/*ब*), बिटाळलेली देवता (ढासळलेले बुरूज/*ब*), शाळामास्तर (आनितेचे दिव्य/*ये*) सुरंगीची फुले (वादळातील नौका/*ब*), संकीर्णः ख्रिस्ती धर्मगुरूंचे आक्रमण (१९४४), गोव्यातील एक धर्मान्तर प्रकरण (१९४५)

(४) सरदेसाई, लक्ष्मणराव., वेचक लक्ष्मणराव सरदेसाई, पुणे संपादकः श्री० ज० जोशी,

(५) जोशी, श्री० ज०, लक्षदा (दिवाळी आंक), १९८६,

(६) तडकोडकार, सु० म०, गोमंतकीय कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाई, महाराष्ट्र साहित्य पत्रिका (त्रैमासिक), पुणे, जानेवारी-मार्च, १९९३, पानांक ५३-५८

(७) देशपाण्डे, अ० ना०, मराठी साहित्याचा इतिहास, खण्ड दुसरें, पानांक ४५९,

(८) कुळकर्णी, गो० म०, वाटा आणि वळणे, पानांक १७५,

(९) शेवडे, इन्दुमती., मराठी कथाः उद्‌गम आणि विकास, पानांक ३२४.

## कवी रघुनाथ विष्णू पण्डित हांचे कवितेंतली प्रादेशिकताय

संवसारीक साहित्यांत 'रोमॅण्टिसिझम'चें चळवळींतल्यान प्रादेशिकताय उदरगतीक आयली. प्रादेशिकताय हें साहित्यिक मोलावणीचें साधन न्हय, अशें आसूनय, साहित्यिकाची अस्कडाकडेन बांदिलकी, सामीलकी आसा म्हणपाचें दर्शन ताच्या बरपावळींत घडटा अशें मानूंक जाय, अशा म्हणपाचेर एकमत जालें. उपरान्त तशें दर्शन घडूकच जायच खेरित 'बुझर्वा' संस्कृतीचो निशेध करूकच जाय म्हणपाचो हट्टय सुरू जालो. विसाव्या शतमानाचे सुर्वेक म्हळयार १९१०च्या सुमाराक बंगाली आनी हिन्दी भाशांनी शरद्चन्द्र चट्टोपाध्याय आनी प्रेमचन्द हांच्या रुपान गांवगिऱ्याचेर वा शेतकामत्याचेर आदारिल्ले संस्कृतायेंत वाडपी वास्तवतायेचें दर्शन जावंक लागलें. आयजमेरेन तें विंगड-विंगड रुपान तशेंच जाता म्हणपाचें दिसून येता. १९६०मेरेन मराठींत आपणाली नाममुद्रा उठोवनय अशा प्रणाल्यांचो पालव धरून बरपावळ करतल्यांमजगतींत समकालीन कोंकणींत लक्ष्मणराव हांची उपस्थिती दिसून आयली ना. लक्ष्मणरावांन स्वताचे बरपावळीतल्यान समश्टीक आधुनिकतायेकडेन व्हरपाचो येत्न केलो. तशें तरेचें जिवें-टकटकीत, जिवस जिवीत कोंकणींत येवपाक पन्नास वर्सांचो काळ लागलो अशें हें फाटभुंयेच्या संदर्भात साहित्याकडेन पळयतकच दिसता.

पुर्तुगालच्या शेकातळासावन गोंयचे मुक्ततायेउपरान्त एकेच फावटी कोंकणी कवितांचे पांच झेले घेवन कवी रघुनाथ विष्णू पण्डित रसिकांमुखार आयलें आनी प्रादेशिकतायेक पर्थून एक नवेंच स्वरूप लाबलें. तांची 'सपनाळो गांव' सारकी कोंकणी कविता *सत्यकथे*सारख्या नामना जोडिल्ल्या नेमाळ्यांतय उजवाडावन येताली हें विसरायेर घालून चलचें ना. 'पण्डितांची कविता हांवें पयले फावट आयकली तेन्ना थोडोवेळ म्हाका रानांत पडिल्लेवरी जालें. पूण आयकतां आयकतां म्हाका तिच्या प्राणांची नाट मेळ्ळी. म्हाका मनोमन खातरी जाली की ही वाणी मुळयाची. हो निर्मळ, मस्त आनी जिवस गावड्याचेर आयिल्लो भार, गोंयच्या मुळाव्या आनी थळाव्या मुळकेश्वराचो', अशें तांका समकालीन आशिल्ले गोंयचे कवी बाकीबाब म्हणटात. हाचें दर्शन तांचे कवितेतल्यान खऱ्यानीच जाता काय कितें हें पळोवप म्हळयार तांचे कवितेंतली प्रादेशिकताय पळोवप:

*काट्यांच्या देसांत फुलांचो गांव / तळपा तळच्यान वझऱ्याची धांव*

अशें वर्णनय पण्डितांनी केल्लें आसा. लोकांचे स्रद्धेतल्यान भास घडटा. हीय घडये प्रादेशिकतायेची कुरू आसू येता, देखीक: *आयज तूं येतलो देखून / बांयचेर कावळो रडून गेला*

परंत निखटे ग्राम वा लोकवर्णन म्हळयार प्रादेशिकता न्हय तर गांवगिरें जिवीत, वाटार आनी थंयची परंपारिक मुल्ल्यांचेर पोशिल्ली आनी जिविताचो अणभव घेतिल्ली संवेदनशील

जाणविकायेची प्रतिक्रिया म्हळ्यार प्रादेशिक संवेदना. कवितेंतले प्रादेशिकतायेचो विचार करतास्तना प्रादेशिक संवेदनशीलताय, वृत्ती मतींत घेवंक जाय. देखून प्रादेशिकतेचो विचार करतास्तना सैमाचीं वर्णनां आशिल्ली आनी निखटीं बोलभाशेंत बरयिल्लीं कविताच विचारांत घेवपाक जाय अशें म्हळें तरीकूय अशी ती प्रादेशिक कविता आसता अशें म्हणप समा न्हय. प्रादेशिक साहित्य म्हळ्यार प्रादेशिक संवेदनशीलताय उकती करपी बरपावळ.

ते नदरेन 'हांव गावडो, भाटकाराचो सत्यनारायण, माडा बापा कल्परुखा, कुळाराची वाट' (*म्हजें उतर गावड्याचें*), 'रामाची वाट पळयेत' (*आयलें तशें गायलें*), 'हांव भाटकार एकलोच...हें दळिद्री गोंयांत, जग इतलें ल्हान जालां' (*धर्तरेचें कवन*), 'गोंय म्हजें' (*ल्हारां*) अश्यो कांय प्रातिनिधीक कविता पण्डितांचे प्रादेशिकतायेची संवेदना उगती करून दितात. *म्हजें उतर गावड्याचें* ह्या झेल्यांतल्यो कविता गोंयच्या वाटाराची वास्तवताय दाखोवपी चितारणी करतात. तें तशें करतना हो कवी कोणाचीच भीड-मुरवत-भिरांत धरना. आधुनिक कोंकणीतलो 'सूर्यकान्त त्रिपाठी *निराला*' अशी संभावना करची असो हो घणघणीत कवी. हांवच गोंयचो आदिमानव गावडो आसा अशें मानून हो कवी आपणालें दायज ह्या गावड्याकडेन आसा म्हणपाचें दाखोवन दिताच खेरीत ताची संवेदनशीलताय तीय आपणालीच म्हणपाची गवाय दिता. म्हणटकच ताचो धर्मीक कुळाचार, भेस, खाण आनी व्यवसाय ह्या गजालींवांगडा ताका जावपी अन्यायय तो आपणाल्या हड्ड्यार घेता. ताका साबार समश्टी कुंड्यापाश्ट समजून चालतात. ताका कांडटात; परंत तो ना नपश्चात् जायना. आपणाली तांक तो पुराय जाणा देखूनच तो म्हणटा:

*हांव कुसना,*<br>
*आसा तस्सो उरतां.*<br>
*- हजार वर्सां फाटीं आसलों*<br>
*तसो.*<br>
*आनीक शेंकड्यांनी वर्सां*

आपणाली आयज जी दुर्दशा जाल्ली आसा तिचीय ताका जाणविकाय जाल्ली दिसता:

*आमची काश्टी*<br>
*आमच्या बायलांची देंटली*<br>
*जंयचे थंयूच आसा,*<br>
*आमचो जागर, धालो*<br>
*रोमटां, घुमटां, धुळवड, शिमगो*<br>
*सगळें जशाक तशें'*

हीं आत्मकथनां न्हयंत. ती निखटीं चित्रणांय न्हयंत. साप्प वस्तुनिश्टपणान गावड्याच्या वोंठांतल्यान गोंयच्या गांवगिऱ्या वाटाराची दिस्तादिस्त अशी चितारणी करतास्तना स्वतालो काळ बदल्लो ना, कॅलेण्डराची पानां बदलपाचो वेळ आयलोच ना म्हणपाची ताची वेदना, पिडाय उगतावन येता. नव्यो राजवटी आयल्यो, नव्यो समाजव्यवस्थाय आयल्यो. गावडो मात तस्सोच उल्लो. अशे तरेन ताची व्यथा-वेदना म्हळ्यार एकाच वाटाराची व्यथा-वेदना जाता तर प्रदेशाची शीम-मेर हुपून विश्वात्मकतेच्या पांवड्याचेर गेल्ली दिसता. कवी पण्डितांच्या बरपावळींत खंयच ह्या अन्यायाचें भाण्डवल केल्लें दिसना, प्रचारकी थाट दिवपाचो येत्नय दिसना. तशें केल्लें जाल्यार ती समाजवादी वा साम्यवादी रचनावळ जावपाची. गावड्याची दुस्सह-संवेदना अणभवपाचें, ताची सुखां-दुखां आपणालींच कशें मानपाचें, ताचो हावेस स्वताले जीबेचर घोळोवपाचें, ताची भास केळोवपाचें असिधारा व्रतच घेतिल्ल्यावरी हो कवी बरयता, बरयत रावता म्हणपाची गवाय मेळटा.

'पावसा, यो पुता म्हजे बराबर' हे कवितेंत शेतकामत्याचें जिवीत, भुंयेकडलो लागिंचार, रितीरविसो आनी स्रद्धा, तशेंच लोकदेवतेकडेन आशिल्ले सोयरिके संबंदांचें दर्शन जाता. वट्ट कोंकणी कवितेक ही कल्पनाशक्त अज्ञात आशिल्ली:

*खंयचे जेवतले? / हातची उंडी तोंडाकडेन / देवचार उबे रावतले / शिदांव वांटून घेवपाखातीर / मुकादम दारांत पावतले*

हें गोंयचे भौशीक जीणेचें वास्तवीक दर्शनच आसा अशें म्हळ्यार जाता. भाटकार हो आदले गोंयचे भौशीक जिणेचो घटमूट आदार जावन आशिल्लो. ताचे संबंदान, त्या काळांतल्या गोंयांत, जायते समज आनी चुकी-समजय आशिल्ले. तशें पळयत जाल्यार ते तशे आयजय आसात. एकाद्र्या सुसंस्कृत समाजाची आडखळ जावंक लागली की अशे समज-अपसमज पातळावन घालपाचो येत्न जायत आसता. ताका वैचारिक प्रणाल्योय आदार करतात. साहित्यिकांक अशा प्रणाल्यांचो आलाशिरो लाबता. रशिया आनी चीन हांगसरच्या समाजवादी आंदोलनांनी तशेंच 'बुझ्वा'आड ल्हारांनी तशेंच 'धर्मा'च्या परिभाशांनी भारतांतल्या समाजसेवकांक पुराय उचंबळींत केल्लें. इतलेंच न्हय तर त्या प्रणाल्यांच्या आदारान आठशें वर्सांपयलीं जावन गेल्ल्या संतांच्या कवितांतय सामाजिकतायेचीं पाळां सोदपाचो येत्न चलतालो. पण्डितांल्या कवितांनी ह्यो प्रणाल्यो कांय शिमेमेरेन आपणालो प्रभाव घालून आसात. पण्डितांची जीण सेवादल आनी महात्मा मोहनदास करमचंद गांधी हांच्या सहवासांत गेल्ली हेंय विसरायेर घालून चलचे ना. त्या काळांत मध्यमवर्गीय विचारवंतांचेर भोवच काळ समाजवादी विचारांची ल्हारां येवन आदळटालीं. मानवतावादी मानवेन्द्रनाथ रॉय हांचेपरसय समाजवादी आशिल्ल्या हेरांचो शेक चलतालो. म्हण्टकच पण्डितांच्या कवितांनी ह्या फाटभुंयेचीं पडबिंबा दिसून

येतात. तांची अस्कडाकडेन बांदिलकी, सामीलकी आसा म्हणपाचें दर्शन तांच्या बरपावळींत घडटाअशा म्हणपाचेर एकमत जावंक येता. तातूंत तशें दर्शन घडूकच जायच वो 'बुझ्वां' संस्कृतीचो निशेध करूकच जाय म्हणपाचो हट्टय दिसून येता. खेरित तातूंत तत्कालीन गोंयांतले थळावे परिस्थितीचें दर्शनय घडटा. ही परिस्थिती गोंयची विशेशताय आशिल्ली. कवितेतल्यान गोंयचे जिणेविर्शिची ऐतिहासिकता सोदपाचो येत्न करतल्यांक पण्डितांली कविता म्हळ्यार उत्तम साधन. भाटकार ही संस्था गोंयचीच. म्हण्टकच 'भाटकाराचो सत्यनारायण', 'हांव भाटकार', 'दर ना देखून उरलां,' ह्या कवितांतल्यान समश्टीचीं नकसूद चित्रणां जाल्यांत. ती गोंयचे प्रादेशिकतायेचीच गवाय दितात. कोंकणींतली उतरां ही प्रादेशीक जिणेची कुरू. तातूंतल्यान कवीची सैमीक वृत्तीच उगतावन आयल्या.

गोंयचे जिणेंतल्यान वेगळावं नज अशें संस्कृतायेचें आंग म्हळ्यार हांगाची दर्यावेळ आनी मांडांची रुखावळ. पागप्यांची आनी रेंदेरांची संस्कृताय ह्या वाटारांनी फुलल्या आनी फळादीक जाल्या. माड हो गोंयकारांच्या जल्मासांवन ताच्या मरणामेरेन सांगात करपी इश्ट कसो. गोंयांतल्या घरांनी माड दिसतात आनी माडाचें चुडतय घरार पडना, माड तें पडूंक दिना म्हणपाचो विस्वास गोंयकार मानतात; परंत तो, आपूण मागता तें माड दिता, म्हणपाचोय विस्वास बाळगिता:

*माडा बापा कल्परुखा / म्हाका तुजें काण्ड दी*

पण्डितांच्या कवितेंत धर्मीक संस्कृताय माडाकडेन कशी बांदून उल्ल्या ती उगतावन येता. देखून माडाकडेन संवाद सादपी गोंयकार मेळटा:

*आनी मुख्य म्हणजे*

*देवाक सांगणें करून*
*नाल्लाक आंब्या-ताळो बांदून*
*पाख्याक हुमकाळवंचो आसा*
*बायलां-भुरग्यांक घेवन तुज्या आलाशिऱ्याक येवपाचें आसा*

दर्याय गोंयच्या जिणेचो आलाशिरो जावन आसा. कवीन उतरांची गांथण केल्या:

*नदरेंतुल्या पागेऱ्यानु पागिता मासोळी / सायबा भुलोयन मासोळी*

वो

*ल्हारांर नाचता नकली भांगर / दरया पोटांत रत्नां दोंगर*

नकसूदपणान उतरांचो वापर करून वातावरणाचो प्रत्यय दिवपांत पण्डितांली प्रतिभा रस दाखयताच सांगाता लोकजीण लोकभाशेकडेन कसो लागसार दाखयता तेंय पुराय स्पश्ट जाता:

*सगळी रात तुजे कुडां दिवली*
*झेमेता बाये दिवली झेमेता*
*सांवळी धोलोता, तुजी सांवळी नाचोता...*
*हांव हिणयां घुस्मटत काळखां फुगार तुजे पासत*
*तूंय म्हजे सायबिणी*
*कित्याक जागोता बाये कित्या नागवता?*

दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजा उपरांतचे जिणेविशिंची मुल्ल्या ह्या गोंयांतल्या बरपावळीक बळया लावन चलचें ना. गोंयच्या बरपावळींत भोंवतणच्यो समजुती, अंधविश्वास दिसता. पण्डितांकय ही प्रादेशिकता दिसली, भावली आनी तांणीं ती काव्याच्या माध्यमांतल्यान मांडली. 'ताचें घर मोडूंक तेंकला'तल्यान काळजांतले चुरचुरे उगतायले. ह्या जिवितांतली मंगलतायेची भावना, गोडी ना जायत चल्ल्या म्हणपाची जाणविकाय कवीक दुखयता. ताका लागून तो आयज ना नपश्चात् जायत चल्ल्या संस्कृतायेचें, गांवगिऱ्या वाटारांचें काव्यगत पितारप करून गेलो.

गोंयच्या वाटारांतलें वातावरण म्हळयार सैमान मनीसपणाक घातिल्लो साद. पण्डितांल्यो कविता म्हळयार गोंयांतल्या प्रादेशिकतायेक दिल्लो प्रतिसाद. साबारांक ह्या नंदनवनांत खुशालकाय लाबची, दर्यांतल्यान नुस्तें पागचें, पिकाळ शेतांतल्यान मोतयां पिकचीं म्हूण श्रमजिवीं समश्टी दिसपट्टो वावर करता. ह्या प्रदेशांतलो हो नीजपूत ताच्या रासवळ उतरांनी गाता. पण्डितांन पुराय मुक्तपणान, कसल्योच आडमेळी धरिनास्तना, मुक्त छंदातल्यान तीं कवनां नकसूद उतरांत बांदली. ते उतरांची जिवस जानपदां जावन गेलीं. त्या कवनांक तरसादीची धार आसा. ह्या कवितेंत प्रादेशिकतेची गवाय मेळटा ती तातूंतलो गावडो राकट, खडबडीत दिसता म्हूण, सैमीक फाटभूंय आसा म्हूण, गोंयचे भुंयेतली प्रतिकां-प्रतिमा आसात म्हूण, हांगसल्ली समश्टी दिसता म्हूण.

पण्डितांच्या कवितेंतल्यान गोंयकारांच्या मनाचीं स्पंदनां अविस्कारित जातात. मनीस आनी सैम हांचेमजगतींतली ओड ही सासणाची तशेंच उर्बेभरीत आनी ती ह्या गोंयच्या समर्थ कवीन पुराय तांकीन उगताल्या. ताणे भुरगेपणासावनच्या यादींनी स्वताचे कल्पनेतलो इतिहासय जितो करपाचो येत्न केला. हो स्वताचे कल्पनेतलो इतिहास म्हळयार एकेपरीन सहभाव दाखोवपी भुंयेचे चेतनेचो कलात्मक आनी काव्यात्मक दिश्टावो.

कोंकणी कवितेच्या वाटारांतलो हो पयलोच प्रयत्न म्हूण हो लेखनप्रपंच करचोशें दिसलें.

# पुण्डलीक नायकः कोंकणी साहित्याची प्रगल्भताय

पुण्डलीक नारायण नायक (२१ एप्रिल, १९५२) हांचो एक समकालीन समाजाभिमुख क्रांतदर्शी कवी ह्या भूमिकेतल्यान कोंकणी साहित्यांत प्रवेश जालो अशें म्हणप योग्य. *गा आमीं राखणे* हो तांचो १९७० सावन १९७६ मेरेनच्यो कविता आस्पावन घेवपी कविताझेलो. उपरान्त ह्या प्रतिभाशाली कवीन कोंकणीतच वा साबार भारतीयच न्हय तर आंतरराश्ट्रीय साहित्यिक मळांचेर स्वताली नाममुद्रा अंकित केली ती कथाकार, एकांकीकार आनी नाटककार म्हुणय. शणै गोंयबाबसावन आकाराक आयिल्ल्या कोंकणी साहित्यिक-विचारवंत हांचे मांदियाळीक तशेंच कोंकणी भास आनी साहित्य हांचे निर्मणीक एकेपरीन विसाव्या शतमानान वंदन केलें. ह्या मांदियाळींत पुण्डलीकबाब हांचीय नाममुद्रा लिकलिकता अशेंय म्हणूं येता.

एखाद्रो बरोवपी, साप्प स्वाभाविकपणान, एका साहित्यप्रकारातल्यांन अन्य साहित्यप्रकारांत धेंप दवरता. थंय थिरावता वो ना थिरावता म्हणसर हेर साहित्यप्रकाराकडेन वळटा. अशें घडपाचें कारण कितें आसूं येता काय? पयली गजाल म्हळ्यार स्वता साहित्यिकाक बरपावळीतलो खंयचोय प्रकार सहजिकायेन हाताळूंक पावतां असो आत्मविस्वास आसता आनी अन्य गजाल म्हळ्यार बरोवप्याक जे अणभव येतात तांका आदीं आपणायिल्लो साहित्यप्रकार पुरायपणान अभिव्यक्तीक न्याय करूंक पावतशें दिसना, अशें ह्या प्रस्नाचो सोद घेयत जाल्यार दिसता. एखाद्र्याची प्रगल्भताय अशीय दिसून येता. कवी म्हूण कोंकणींत बरपावळ करतल्या पुण्डलीकबाब हांणींय तेंच केलें अशें म्हणूंक येता. ह्या अशाच कांय गजालींक लागून आपणालीं साहित्यलेखनाचीं माध्यमां आनी प्रकार ते बदलत रावल्यातशें दिसता. तरीकूय आतां ते बरोच काळ थिरावल्या ते नाटकांच्या मळार; परंत एक समकालीन समाजाभिमुख क्रांतदर्शी नाटककार म्हूणच. हांगसर तांच्या बरपावळीचीं विंगड-विंगड तासां नियाळपाचो येत्न केला.

## कविता

पुण्डलीकबाब हांच्यो तीन परींत आयिल्ल्यो कविता वाचूंक मेळटातः स्वातंत्र्य मुल्यांचो आविश्कार करपी, सैमाची आनी ग्रामवर्णनां करपी आनी मोगाचे उत्फर्के उगते करपी.

पयले परींत 'म्हजो बांगर बैल', 'गोरवां', 'अशें सदळ रावप ना', ह्यो आनी अशोच कांय कविता आस्पावन येतात. तातूंतल्यान कवीचो स्वताल्या अस्तित्वाचो उद्घोश प्रतीत जाता. याद दवरपासारकी गजाल अशी की गोंय तेन्नाच पुर्तुगेजांच्या शेकातल्यान मेकळें

जावन पंदराएक वर्सां जाल्लीं. भाटकारांच्या चेपणाचेंय वजें काडून वडोवंक सोदपी आनी काळजांत मेकळेसाणीचो परमळ भरून घेवपी गोंयकारांची पयलीच पिळगी. 'बांगर बैल', हें तेदेवेळच्या गोंयच्या तरनाट्या समश्टींचें प्रतीक, जो रूढींचीं, दायजांचीं साबार बंदनां हुमटून वडोवंक भायर सल्ला. अर्थात् तातूंतली प्रतिकां आनी काळाचो संदर्भ हो निखट्या गोंयच्या समश्टीमेरेनूच पावतात अशें दिसना. प्रगल्भ कवीक इतलो संकुचीत वाठार अभिप्रेत नासुंये. कवीन स्वताले हे कवितेक क्रांतिदर्शी भूमिका आशिल्लें एक वेगळेंच रूपडें दिवन एका बांगर बैलाचें एक प्रतीक निर्मिलें. ताच्या आदारान ताणें प्रतिनिधीक रुपान स्वताल्या जिविताविशींचे लख्ख चित्र रसिकांच्या, अभ्यासकांच्या सामकार दवरलें. बैलाच्या ह्या प्रतिकाचो उपेग ताणीं निखट्या वर्णनाखातीर करूंक ना. आपले आदले पिळगेक भोगपाक लागिल्ले उतळताप आनी अंदल्लेंपण पयस करपाखातीर नवी पिळगी मुखार सल्ल्या हें दाखोवपाखातीर बैलाचें हें प्रतीक. खरें तर म्हाका तातूंत कवीक समकालीन आशिल्ल्या पिळगेचें आत्मचरित्रचशें दिसता. ह्या आपजीणपर झेल्यांतल्या कवितांच्या वळी कणकणीं किंवाटो उगतो जाला. चिड्डिल्ल्या, माड्डिल्ल्या गोंयच्या तरनाट्याचो हावेस तातूंतल्यान उगतो जातना आयिल्लीं उतरां कोंकणीचे मातयेचो परमळ घेवन येता. तांकां जितलो नेट आसा तितलीच खरसाणय आसा. कविता सुघड आनी चैतन्यान भरिल्ली आसतकच ती वाचप्याक पिशें लायतनाच तांका अंतर्मुख करूंक शकता. देखीकः

> एका बांगर बैलान आतांच दावें तोडलां
> बैल उबी दोंड हुपून गेलो
> कासरे कानयेक बदना

वो 'म्हज्या बैलाक किरोवनी' अशो वळी चैतन्यान भरिल्ल्यो आसात पूण त्यो विचार करूंक लावपीय आसात. मराठणातलो कवी वसन्त सावन्त हांचीय 'बैलः एक अमृतानुभव' ह्या शीर्शकान एक कविता आसा.

> सह्याद्रिच्या खालाट्यादेंगणांतल्यान
> डुरकत भोंवपी एक कलंदर बैल
> उब्या शिंगांचो
> कोल्या वर्णाचो
> माजाक आयिल्लो
> घळणीचे तांबड्या मातींत खळीक येवपी
> चौखूर उधळत आसा म्हज्या रगताच्या कणाकणांचेर!
> उबे मळब पियेतात

ताचे बेब्दाळ दोळे

लसलसपी उग्र मस्तकांत

वज्राचें बेगुमान उदक

माथ्यार चन्द्रीम फलक

कराल दाढांक पावना

पांचवें लुसलुशीत तण

ताची मस्ती मातयेकडेन

मातीच जाता मस्ती ताच्या संगमांत

हुस्कारांत प्रणव...ॐकार...

वशिण्ड घोळयत भुजांबळ आजमावपी ताची घरंदाज चाल आदब,

रिमझिमत आसता ह्या मनांत

बैल: पिळग्यांपिळग्यांसावन पोशिन्दो म्हजो

शक्तीचो सम्राट

म्हज्या रगतांतल्यान, उतरांतल्यान

उसळत रावता दिसपट्टी

एक अनाम तांकीचें ल्हार

— (*बैल: एक अमृतानुभव,* स्वस्तिक, तिसरी आवृत्ती, पानांक साठ)

महान हिंदी कवी जयशंकर प्रसाद हांचे 'कामायनी' हें काव्य म्हज्या वाचनांत आयिल्लें. तातूंतल्या बैलाचें स्वरूप चिकें वेगळें. तातूंत तो मानवी सुसंस्कारांचे दायज सांबाळून व्हरपी एक तपस्वी कसो दाखोवन दिल्लें. तातूंतल्या बैलाचें वर्णन जंय सोंपता थंयसून सावन्त हांची कविता आकार घेता तर जंय सावन्ताची कविता सोंपता थंय पुण्डलीकबाब हांचे कवितेचो आरंब जाता अशें म्हणूं येता. *हिराटोडसचो बैल* हो आनी एक तरेचो. म्हण्टकच बैल ही प्रतिमा कवींक कशी होरायता म्हणपाचें दिसून येता. म्हाका स्वताक पुण्डलीकबाबाचो बैल हो चड तेजीश्टसो दिसता.

*वेदनांचो आख्खो दर्या मोन्यांनी पियेवपी* कवी *तांबडे मातयेचें इमान जांणीं आजून घाणाक दवरूंक ना* (आमी कोण) अशें जेदनां पुराय आत्मविस्वासान सांगता तेदनां ताचेफाटल्यान दिसता ती ताची थळावे मातयेकडेन आशिल्ली बांदिलकी, कोंकणी मनशाचें अणभवविश्व आनी ह्या अणभवाक खासा आपणाले शैलीन गिरेस्त करपाची तांक. तिचेमदीं घोग्यांनी कोंसळपाची शक्त आसा. साहित्यातल्यो वास्तवांतय हावेस, किंवाटो, तिडक, उपहास असल्या मनशाच्या जीणेंतल्या वास्तवाचें पडबिम्ब पडटा.

फुडले खेप आमीं तकली आनी हातांचो गुणाकार करतले
आनी
फकत हातांचीं मनगटांच जमेक धरतले वो
गोरवां शेण हागपी
शेण मस्तुवपी रीतभात नासताना
पूण तोंडांत केन्ना घालचीं ना (गोरवां)

अशा तरसादीभशेन लख्ख अभिव्यक्तीतल्यान कवीचे वैयक्तीक भावनेपरस समाजीक भावना उत्कटतायेन उगती जाद्दात.

राखण्यांनो / परत एकदां / म्हजेखातीर / तुमचेखातीर / वडाखातीर / पिळग्यांखातीर / सरयांखातीर / परत एकदां / फटीं सोडून / मांडयेक मांडी लावन / बसात वडामुळांत / परत एकदां / उबी करात / जाण भास...मोड भास... (राखण्यांनो);

हांव ही घुडी नाचयतां / ह्या भुजांच्या कोळांत
हो रगताचो आवाज / तुमकां आयकूंक ये ना...

अशें विचारीत तो पिळगेक शिटकायताः

तिचो आतां शिंवासनार बसपाचो वगत जालो.
दिमी मोडात, मानो बागयात
ना जाल्यार धडासकट मूळय वतलें
तुमच्या मनीसपणाची एकूय कुरू उरची ना
ही पालखी भीतर घेयात...

गोंयचो एक प्रतिभाशाली कवी नरेन्द्र बोडके हांचीय पालखीचेर एक कविता आसाः

आत्तां थोडोभोव कळावांत पालखी येतली
आमीं साबार पालखीक रावतात
अशें कोणेयतरी आत्तांच म्हळें.
पयसुल्लो दिव्यांचो चोमो दिसता; मनशां आनी गजगज...
पालखीच मूं ती? ... सोबीत, सजयिल्ली?
पालखी लागीं आयली.
भीतर कोण आसा? विचारूं नाकात.
वांगडा कोण आसा? विचारूं नाकात.
साबार जीण पावलांनी साठोवन पालखीक भूज दियातः
मुखार कितलोसोच लोक सळाबळा जावन प्रतीक्षा करतास्तले
तांकाय वांगडा घेवंक जाय...

—(*पालखी*, सत्यकथा, ऑक्टोबर, १९७८)

बोडके हांची कविता समाजीक बांदिकीच्या विचारप्रणालीचें प्रतिनिधीत्व करता तर पुण्डलीकबाब हांची कविता ही आक्रमक भौसाचें. अशे तरेन कवीच्या प्रकृतीप्रमाण काव्याविश्कार कसो अवलंबून आसता तशेंच प्रतिकां कशी विंगड-विंगड अर्थ उगतायता म्हणपाचें कळीत जाता.

अन्यायाआड झुंजपाची पुण्डलीकबाब हांच्या कोंकणी कवितेची प्रवृत्ती जावन आसा, तेंच तिचें अस्तित्व. हें वास्तव पळोवन हे चरण आनी हेर कांय चरण हांचो कॅनव्हास मांडित जाल्यार 'गा आमी...' तली पुराय कविताच हे समाजीक भावनेन ओतप्रोत जाल्ली दिसता. देखून कवी स्वताल्या तशेंच समकालीन जीणेच्या अस्तित्वाची जाणविकाय पर्थून-पर्थून करून दिता अशें म्हणूंक संद मेळटा. फुडारातल्या युगांक, मनशाच्या इतिहासाची जाणविकाय करून घेवपाखातीर, अभ्यासकांक ह्या चरणांचो परामर्स घेवचोच पडटलो. साहित्यातल्यान ऐतिहासिकतचो परिचय जाता तो असो.

विंगड-विंगड प्रतिमांनी नटून आयिल्ली ही कविता गोंयचे सासायेच्या जोगवणेची वळख सांगता. देखून ती सासाय आतां कोंकणी समाजाच्या साबार पांवड्यावेल्यान उलोवंक लागल्या. ती आतां मनीसपणाचो धर्म जागोवंक सोदता. तेखातीर हे कवितेची भास आजतागायत येवंक नाशिल्ली अशी जाल्या हें चिकें खरेंच. 'बांगर बैला'ची कविता शक्तिची आनी मुक्ततायेची वळख करून दिवपी जाल्यार 'राखणे', 'गोरवां' ही प्रतिकां राखपी वृत्तीची. 'आजयेची काणी', 'म्हजी आवय' ह्यो कविता म्हळ्यार कवीक आशिल्लो *नोस्टालजिया* अशें म्हळ्यार जाता. वर्सां फाटल्यान पडटकच फाटीं उरल्यात त्यो तांच्यो यादी. मायेची उब आनी हुनसाणी सांगताना आवयमदीं आशिल्ली सुशीळतायेची कडकसाण आतां उरूंक ना, हे जाणविकायेन कवी खंती जाता. आनी अशा मर्यादशील घराची वळख आयजच्या समश्टीक करून दिवपाखातीर कवीक घराभायर सरचेंच पडटा.

स्वताल्या अस्तित्वाची जाणविकाय करून दिवपी हे कवितेच्या सांगातान सैमाचीं आनी मोगाचीं स्पंदनां उगतावपी कविताय ह्या झेल्यांत आसात. स्वताक समजून घेवपी अशा अस्तुरींत लिपिल्ल्या, अबोल अशा, मोगिकेकडसून येवपाच्या आश्वासनांचो, तिच्या सांगातान घेतिल्ल्या आनी घेवपाक जाय आशिल्ल्या खिणांचो अणभव, संवेदनांचो आशय उगतावपाच्या येत्नांतल्यान अभिव्यक्ती जाता:

> बचकभर आबोल्यांकय / गंध फुटत
>
> पोसोभर चान्न्यांतय / खळें भरंत

अशें दिसूंक लागता. मोग म्हळ्यार जिवीत फुलोवपी एक शक्त. मोग म्हळ्यार विवाह-लग्नाचें बंधन न्हय. समश्टीचे वाडीखातीर एक माध्यमय न्हय. ती तर एक तरेची उर्बा.

तिका तुमीं अभिसारिका म्हणात, शिंदळकी म्हणात, कितेंय म्हणात. कवीक दिसता की मोग म्हळ्यार आपणाल्या विकासाखातीर वाडत रावपाची तांक. मोगिकेन *येतां* अशे म्हण सांगतकच तिका काळीज मुठींत घेवन रावपी कवी स्वताल्या मनाचे स्थितीची तुळा खतखत्त्या आदनावेल्या धांपणाकडेन करता तेदनां ताच्या पोंदच्या उदकाची हुनसाण अदीक जाणवता. आनी कविच्या रागाची खरसाण 'प्रत्येकाच्या घरांतलो ट्रान्जिस्टर बेसूर करूं येतालो - जण एकल्याच्या पावलाचो ताल चुकोवं येतालो' इतली वाडल्या हें प्रत्ययाक येवं येता. मोगाचेंय मोल आसता. तो मेळनासो जातकच तें मोल कळटा, ही जाणविकाय जावपाइतली असादारण प्रगल्भताय त्या रसरसत्या भावनेंतल्यानय जावं येता:

येवपाचें आसूनय तूं आयलें ना<br>
हें एके परीन बरेंच जालें<br>
तुज्या येवपाचें म्हत्व कळ्ळें.

कवीक आशिल्ले सैमाचे ओडीन सैमाची विंगड-विंगड रूपां केळयल्यांत. ताका *मिर्गाचे उले चिप्प* भिजोवन वतात. तिचेवेल्या मोगाचें नातें *जोगलावल्या दिठी*चें हें सांगतना तो केळम्याचें प्रतीक घेवपाक फाटीं सरना. ताच्या *आत्म्याच्या वज्ररुखांक* पानां, पानां कणकणीं सपनां फुलतात. तीं *उजवाडाचें नातें रुजयतच*. हें सैमाचेंच प्रतीक कविच्या दोळ्यांमुखार उबें जाता, तें ताचेकडसून अभिव्यक्त जाता. उपरान्त रसिकांक तें प्रत्ययांक येवं वो ना येवं. उद्देगीकरणाचे आनी *फास्ट मनी*चेभशेनच, राजकी मळावयल्या अनाचारी आनी भ्रश्टाचारी वेव्हारांभशेनच मोगाचे आशेनय सद्विवेकी मनशाचें आचरण बिगडू येता. ह्या विशयाक मध्यवर्ती घेवन गोंयचे समाजीक जिणेचो उणावत चलिल्लो पावंडो आनी अनितीमान समश्टीकडेन चलिल्लो ताचो प्रवास हो चर्चेचो विशय जावंक येता.

अशे रितीन सर्वस्पर्शी जिणेची कविता पुण्डलीकबाब हांणी वाचप्यांक दिली. तांचे जिणेंतल्यो प्रतिमा, तांची चमक आनी मर्म तशेंच काव्याचें अस्सलपण दिश्टींत भरता. तांची कविता जिणेचे निबरसाणींतल्यान फुलल्या, अन्यायाआड प्रगट जाल्या. तिचे उदरगती वेळार राजकी स्वातंत्र्य मेळ्ळें आनी नव्या विचारांचें वारेंय व्हांवपाक लागलें, हो योगायोग. परन्त तांची कविता रसरशीत आशिल्ली, आसा आनी तशीच दिसतली.

## नाटक

पुण्डलीकबाब हांचो पीण्ड कवीचो आसूनय ते नाटक ह्या साहित्यप्रकारांत चड रंगल्यातशें दिसता. तांणी स्वताल्यो कांय कथा, नवलिका, हातूंतलें नाट्य, दृश्यरूपान माचयेर हाडलें. तांणी 'खण खण माती', 'सुरींग' अशा समाजीक नाटकांसांगाताच 'दायज', 'शबै शबै भौजनसमाज', 'चैतन्याक मठ ना' अशे तरेचीय नाटकां बरयलीं. तांच्या अशा

बरपावळीतल्यान अन्याय जाल्ल्याची तिडक, स्वातंत्र्याआड येवपी बंदनांचो विरोध, मनशाच्या ढोंगी सभावाविशींची भिरभिरी, समाजीक रूढीआड बंड अशे चिके समकालीन हेर भासांतल्या बरपावळींत सामान्यतायेन येवपी विशय अभिव्यक्त जातात. हांवे तांच्या कवितेतल्यानय हो प्रत्यय येता म्हणपाचो उल्लेख हाचे पयली केल्लो आसा.

आधुनिक कोंकणी नाटकांच्या बरपावळीचें दायज पुण्डलीक दाण्डे ('ताची करामत' आनी 'निमित्ताक कारण') सावन आरंबाक आयलें. अर्थात् ह्या नाटकांचें तंत्र तेदेवळच्या इब्सेनीयन नाट्यतंत्राचें. ह्या तंत्रान कोंकणी नाटकाची दिकाच बदलून वडयली. परिणाम असो जालो की ताच्यो प्रेरणा आनी प्रवृत्तीय बदलून गेलीं आनी गोंयचे माचयेर गोंयच्या नाटकाक रसिकांमुखार हाडलें. दाण्डे उपरान्त आयिल्ल्या पुण्डलीकबाब, दिलीप बोरकार, विष्णू सुर्या वाघ, प्रकाश वजरीकार तशेंच हेरांनी कोंकणी नाटकांत संहिता आनी प्रयोग ह्या दोन घटकांचेर स्वताली नदर थीर केली. तांणी स्वताली नाममुद्राय उठयली.

पुण्डलीकबाब हांचे 'मीन पिकलां खांड्यांनी' हे नवलिकेचो नाट्याविश्कार घेवन 'खण खण माती' हें नाटक रंगमाचयेर आयलें तें गोंयच्या समाजीक प्रस्नांक वाचा फोडीत. उद्देगीकरणाचे आनी *फास्ट मनी*चे आशेन गोंयचे समाजीक जिणेचो उणावत चलिल्लो पावंडो आनी अनितीमान समश्टीकडेन चलिल्लो ताचो प्रवास ह्या नाटकांत दाखयला. गोंयच्या समश्टीचें प्रतिनिधीक चित्र हांगा रंगयतना कामकरी आनी ताचो धनी ही संकल्पना जंय जंय आसा थंय थंय हें देंगण, समश्टीतलो ताण-तणाव आसपाक जाय हें स्पश्ट जायत वता. नाटककारान तातूंतल्यानच आदर्श वातावरण कशें आसचें हें आदर्श आनी समाजवादी विचारसरणिच्या रॉकसायबाच्या आदारान चित्रायलां. तें पळयतकच बरोवप्याचेर त्या काळांत आशिल्लो समाजवादाचो प्रभावय जाणवलेबगर रावना.

पयलें सूत्र म्हळ्यार जिणेतल्या खंयच्या गजालीक सर्वस्व समजप? ह्या प्रस्नाचो सोद. रॉकसायबाली बायल आनी मनशांमदलो देव सोदपी, समानताय राखपाचो येत्न करपी रॉक म्हळ्यार गोंयच्या समश्टीचें प्रतिनिधीक चित्र. हेर सूत्र म्हळ्यार विशय, वातावरण आनी व्यक्तिदर्शनाक फाव तशी भाशेशैलीची मांडावळ करप. हो खरें सांगचे जाल्यार साहित्यलेखनातलो एक देखदिणो प्रयोग आशिल्लो. परन्त नाटक गाजलें तें अश्लीलतायेच्या संदर्भांत. पुण्डलीकबाब हांचें 'बांबर'य गाजिल्लें तें त्याच खातीर, म्हणपाची याद जाता. म्हणटकच आशय आनी समाजमनामुखार उबो जाल्लो धोको ह्या विशयांकडेन अभ्यासकांचेय चिकें दुर्लक्षच जावपासारको परिणाम जालो.

१९६०-७० च्या दसकांत साबार भारतीय साहित्याच्या मळांचेर प्रयोगशीळताय आनी नवेंपण ह्या उतरांचो सर्रासपणान वापर जातालो. मनशाचे जिणेंतली ही नवीनताय ही ताच्या

साहित्याकडेन वो कलेकडेन समांतरताय दवरता. नवनाटक, नवसाहित्य वो नवकाव्य ह्या साहित्यरचनांक जें नवीनतायेचें विशेशण मेळ्ळां ताका विशिश्ट आनी म्हत्वपुराय अर्थ आसा अशें त्या काळाचे अभ्यासक दो० सु० श्री० पाण्ढरीपाण्डे म्हणटात. हें विशेशण एका विशिश्ट आनी म्हत्वपुराय अर्थान 'अनन्तर्थसूचक' आसा अशें तांचें मत्त. जें निखटें कालिक नासून 'ज्ञानात्मक आनी भावनात्मक' आसता. आर्विल्ल्या साहित्याक नवीनतायेचें विशेशण लागलें तें दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजाउपरान्त. फ्रॉयड, उद्देगीकरण ह्या गजालींउपरान्त. तांणीं मनशाच्या समाजीक संबंदांत आनी भावनात्मक संबंदांत भोवच परिवर्तन घडोवन हाडलें. हें आशय-विशय हांचे नदरेन नवे प्रयोग करपाचे कृतीक त्या काळांत 'प्रयोगशीळ' समजताले. ही प्रयोगशीळताय *व्युईशफूल थिंकिंग*तल्यानय जाताली. स्वताल्या सपनातलो समाज साकार जावंचो अशी सपनां पळयत साहित्यलेखनाचे येत्न जाताले. पुरोगामी साहित्य, प्रगतिवादी साहित्य अशा विंगड-विंगड नांवांनी तें प्रचालित जावंचें असोय खर येत्न चलतालो. अशे विचारसरणीचो परामर्श दिवपीय गोंयांत आयिल्ले, कांय जाण आदिसावन आशिल्लेय. परिणामी कोंकणीय ह्या परिवर्तनाक आडवाद उरूक ना. गोंयांत खऱ्यानींच मुळासावन बदल जावंक लागिल्ले. पुर्तुगेज मनसीक वृत्ती ना नपश्चात् जावंक पळयताली. भारतांतलें राजकारणय गोंयांत येवंक सोदताले. समाजवादाचेंय चेंपण आशिल्लें. सत्तासंघर्शांत लोकांक मानवतात असलीं परिवर्तनां घडोवन हाडपाचो हावेस दाखोवपाचो येत्न चलतालो. *बरें-खरें* ह्या सनातन सूत्रांपरसय *मेजावेलें केळें काडून साग्वाद जोडपाचीय* सर्त चलताली, खेरीत *झटक्यांत सूख* दिवपाचो मंत्र लोकांकय मानवतालो. मात हें मानवप तेदेवेळार समाजांत जाताल्या त्या नवीन बदलांक लागूनच येवपाक पावलीं हें तितलेंच सत.

हो बदल, हें परिवर्तन पुण्डलीकबाब हांच्या नाटकांतल्यान दृग्गोच्चर जायत आसा म्हणपाचें कळीत जाता. म्हण्टकच पुण्डलीकबाब हांची नाटकां आशय-विशय आनी भाशेशैलीचे नदरेन नवींच थारलीं. तांणीं 'खणखण माती' उपरान्त 'रक्तखेव', 'सुरींग', 'मुक्तताय' 'देमान्द' अशा नाटकांचें दायजच उबें केलें. समाजाजिणेंत तांकां जंय जंय जुलूम, जबरदस्ती, अन्याय दिसलो आनी तातूंतले खर नाट्य जाणवलें थंय थंय उतरांक आव्हान लाबिल्लेवरी वरप केलें. तांचेकडेन आधुनिक जिणेंक जाय आशिल्ल्या समश्टीचे बांदणीची विशिश्ट दृश्टी आशिल्ल्यान हें घडूंक पावलें.

गोंयच्या ह्या प्रगल्भ नाटककारान वेंचिल्ले विशय पळयतकच अशा विशयांच्या संबंदान आशिल्ली ताची वृत्ती आक्रमकच जायत गेल्ली दिसता. चिड्डून उरिल्लो जण एकलो मनीस ताच्या नाटकाचो नायक वो मुखेल पात्र जातना दिसता. मागीर तो समाजीक बंदनांनी आँदल्लो आसूं वो कोणेय केल्ल्या समाजीक अन्यायान गांजून गेल्लो आसूं.

आपणाल्या आवय-बापायच्या अनैतीक वर्तनातल्यान आसूं वो तांच्या दुबळेपणाक लागून पोंदा पडिल्लो आसूं, ताचेविशींची एक सहानुभुतिची भावना बरोवपी काळजांत खंयतरी खोल रोमून बसल्या म्हणपाचें जाणवता.

हीं नाटकां विशिश्ट हेतू बाळगून बरयल्यांत अशें तांच्या संबंदान म्हणटकच बरोवप्यान तांचेमदीं प्रयोगशीळताय हाडल्या जाल्यार ती जाणीवपुराय जावनच अशें म्हणचें पडटा. नाट्यलेखनातली प्रयोगशीळताय ही तातूंतल्या आशय आनी अभिव्यक्तीकडेन संबंद दवरता. ताका लागून अभिव्यक्तीचें माध्यमय बदलता. हें बदलिल्लें, परिवर्तीत जाल्लें बरप पोरणें-*नवनवोन्मेशशालिनी प्रतिभा*-संकल्पनेतल्यान साकार जायना. म्हणटकच तिचेखातीर पोरणे आकृतिबंध सोडून दिवंचे पडटात. ‘शबै शबै भौजनसमाज’ नाटकांत प्रयोगशीळ वृत्तीचें दर्शन जाता. अनुभुतिचे गरजेतल्यान ह्या नाटकान कोंकणी लोकवेदाचो आदार घेतलो आनी स्वतातल्या प्रयोगशीळतेचें दर्शन घडयलें.

राजकी मळावयल्या अनाचारी आनी भ्रश्टाचारी वेव्हारांक मदीं दवरून ह्या नाटकाची उबारणी जाल्या. हांगा भोलो हो गांवगिऱ्या वाठारांतलो मनीस. मनीस राजकारणांत पडटकच स्वताल्या गांवभावांक विसरून सुवार्थाच्या चपक्यांत सांपडटा आनी स्वतालें मनीसपण कसो विसरून वता हो ह्या नाटकाचो विशय. उपरान्त असोच मनीस राजकारणाचो आनी समाजाचो बळी जावं येता आनी आपणाली हार लिपोवपाखातीर तो दुसऱ्यांक पीडपाक उबो रावं येता अशी अभिव्यक्ती जाल्या. नाटककारान प्रयोगाचे नदरेन ह्या नाटकान पोरणे नाट्यरचनेची आयट स्विकारूंक ना. ताणे पुराय नाटकांत बरोवप्यान शब्द, नृत्य आनी संगीत लोकवेदी रूपांत बांदलें. तेखातीर ताणे लोकमाचयेवेल्या विंगड-विंगड कलाप्रकारांचो वापर केलो आनी तातूंतल्यानय नाट्यबंदाची एके तरेन नवलच घडोवपी शैलीची निर्मणी केली. आयज अशी शैली थिरावल्या. लोकांनाच (धालो, फुगड्यो), लोकांसंगीत आनी लोकांगद्य ह्या तिनांच्याय मेळांतल्यान कोंकणी माचयेर एके परीन नव्या गतिशील प्रवाहाक आरंब जालो अशें दिसता. ते दिश्टीन ‘शबै शबै भौजनसमाज’चें कोंकणी माचयेवयलें आनी विशेशपणान पुण्डलीकबाब हांचे नाट्यशैलींतलें एक पेणेंच. ह्या नाटकांतलें लोकांसंगीत आनी लोकांनाच तातूंतल्या आशयाकडेन आनी फाटभूंयेकडेन एकरूप जालां. कोंकणी लोकमाचयेक समजून घेवन तिचो लायिल्लो अन्वय आनी ह्या नाटकाचो आशय हे दिश्टीतल्यान हें नाटक कोंकणी रंगमाचयेवेलें म्हत्वाचें नाटक.

हांचेय आदीं बरयिल्लीं ‘मुक्तताय’, ‘देमान्द’, ‘राखण’ हीं तीन नाटकां वयर जांचो संदर्भ घेतला तांचेपरसय चिकें हेर स्वरूपाचीं. ह्या नाटकांतल्यान भावसंबंद, तांकां लाबिल्ली समश्टीची आडमेळ आनी भारतीय संस्कृतायेक लागून मांडिल्ल्या समाजरचनेची विशिश्ट

आंगा दिश्टीक येतात. बळजबरीचे संबंद आनी तातूंतल्यान निर्माण जाल्ली संतत हातूंतल्यान समाजांत कांय निरांजन प्रस्न उप्रासतात. पुण्डलीकबाब हांणीं 'वसन्तोत्सव आनी दायज' हे नवलिकेचे नाट्यरूप घडोवन मनीस जिवितांतल्या मुळांत वचून वासनेचें रूप सोदपाचो येत्न केला. मनशाच्या मनाची खराय सोदपाचो हो येत्न अत्यंत संयमीतपणान जाता. तितलेच तांकीन ह्या नाटकांतल्यान वासनेचें चित्रण करूनय तातूंत आदल्या कांय हेर नाटकांवरी भडकपण वो पोजडेपण चडशें दिश्टीक पडना. मराठणातले चिंतामण त्र्यंबक खानोलकार वो जयवन्त दळवी हांच्या नाटकांत जी शैलीतली विकृती वो बीभत्सपण दिसता तांची सुनशाय पुण्डलीकबाब हांच्या नाटकांत लागना. तांची लेखनशैली अभिजात दिसता, घरंदाज दिसता. देखून हाचेवेल्यान बरोवप्याचीय सुसंस्कृताय जाणवता.

घराब्यांतल्या नात्यांतलो पीळ, मत्सर, गरीबी ह्या भावनांचे चित्रण करपी 'सुर्यसांवट' आनी 'देमान्द' ह्या नाटकांच्या माध्यमांतल्यान फटीचे प्रतिश्ठेचे वडवाचार गाजोवपी वृत्तीचें, नवे-पोरणे पिळगेंतल्या मनसीक संघर्शाचें चित्रण बरेतरेन आयलां.

'श्री विचित्राची जात्रा' आनी 'चैतन्याक मठ ना' हीं नाटकां लोककथेच्या संदर्भांचो आशय आनी मुक्तछंदात्मक नाट्यरचना घेवन आयल्यात. तीं बरयतना बरोवप्यान पात्रसंख्या, थळां हांचो चड पात्सो दवरूंक ना. हीं कथानकां नाटककाराक सुचलीं तीं घडये समश्टीमदीं पातळिल्ल्या नाकर्तेपणाक, आळसायेक लागून आनी जात्रा, फेस्तांसारक्या भौशीक वाठारांत आनी वावरांत चलतल्या अनिश्ट वृत्ती-प्रवृत्तीक लागून. ह्या दोनय नाटकांच्या निमतान पर्थून प्रयोगशीळ नाटकांच रसिकांमुखार आयल्यांत. स्वप्नदृश्यां आनी फ्लॅशबॅक तंत्र वापरून ह्या नाटकांतल्या प्रसंगाची येवजण जाल्या.

पुण्डलीकबाब हांचीं नाटकां विचाराक जाग हाडटात. प्रयोगाचे आनी संहितेचे नदरेन प्रायोगीक आशिल्लीं नाटकां माचयेवेल्यो परंपरागत गजालीं परतून नव्यान मांडपाचो येत्न करतना दिसतात. नव्या आशयाक नाट्यानुभवाचें रुपडें दितना लोकशैलीचो आदार घेव तिचे भकीक हीं नाटकां पडूंक नात. नव्या समाजाचे आनी नव्या स्पंदनांचें, उत्फक्यांचें चित्रण करपाक नवी भास आनी भाशेची रितूय बदलची पडली. ताका लागून ह्या साबार नाटकांतले संवाद ल्हान ल्हान आनी सोंपे पूण अर्थपुराय जाले. कोंकणी माचयेक भाशेचें शब्दरूप संवाद हें ह्या नाटकाचें व्हड देणें. नव्या नाट्यसंहितांत (शबै शबै..., श्री विचित्राची..., चैतन्याक...) बांदेसूद कथानकाची बांदावळ कुशीक दवरून घटना, प्रसंगांक एके माळेन चित्रावपाची पद्दत हांगसर आपणायल्या म्हणपाचें होलमता. बरोवप्याक सामान्य भौसाविशीं आशिल्लें आपलेंपण ह्या बरपांत उठून दिसता. ह्या साबार नाटकांतलें व्यक्तिदर्शन पळयल्यार मनशाच्या मनाचें सुक्षीम आनी अंतर्विरोधी अशें मन अदीक खोलायेन दाखोवं येतालेंशें

जाणवता. तरीकूय ह्या नाटकांतल्यान उकतो जावपी जिविताचो अणभव वाचप्यांच्या मनाक उत्कटतायेन तेंकता हातूंत मात्तूय दुबाव ना.

### कथा

पुण्डलीकबाब हांणी 'कथा' होय नाटकांतइतलेंच विपुलतायेन आनी सकसतायेन केळयल्लो साहित्यप्रकार. हें 'पिशान्तर', 'मुठय', आनी 'अर्दूक' ह्या तीन कथांझेल्यांतल्यान होलमता. हो कथाकार मुखेलतायेन गांवगिऱ्या भौसाचें आनी वाटाराचें प्रतिनिधीत्व करपी. तशें आसूनय संवेदनाच्या मळार तो गोंयच्या वाटारामेरेनच अंदून उरना. ही ताची खासीयत. गोंयचे मातयेचो परमळ तांच्या कथांक येता. वांगडाच व्यापक मनीसपणाकय स्वताले वेंगेंत घेता. तागेली कथा सत्तर साला उप्रांतच्या दसकांतले बरपावळींत अनेक अर्थांनी केळयतना दिश्टी पडटा. तिका गांवगिरे जिणेचें जीवसाणीन भरिल्ल्या शेताभाटाची, कुळवाड्याची, पागप्यांची, दर्याभोवतणचे जिणेची तशेंच मानवी विकाराच्या प्रभावी दर्शनाची प्रभावळ लाबल्या. अशें आसूनय ती चिकीय म्हणपा इतली अश्लील वो मर्यादेच्यो शिमो हुंपपी अशी बरपावळ न्हय म्हणपाचें होलमता.

ह्या कथांनी बरोवप्याची आंतरीक तळमळ दिश्टी पडटा. बांगर बैलाचो धेंक ह्या कथांनीय दिसता. ताका लागून भौसांत दिसपी असमानतायेआड पुण्डलीकबाब पेटून उठटात आनी तिच्या वर्माचेर घाय घालपाक फाटीं सरनात. तेदेवेळार समाजाच्या परंपरागत नितीमत्तेचेरय घाय घालपाक ते अनमनूंक नात म्हणपाचें दिसता.

१९७० सावन ८० मेरेनची कोंकणी कथा जायत्या आंगांनी चंवरली. गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान आयिल्ल्या जायत्या बरोवप्यांनी तिचें दर्शन विविधतायेन घडयलें. पूण आशया-विशयांचे नदरेन तिचें मळ मत व्हडलेंशें रूंदावंक पावलें ना, अशें म्हणचें पडटा. अशा समयाचेर पुण्डलीकबाब तांच्या वेगळेपणाखातीर नदरेंत भरतात. हें वेगळेंपण म्हळयार पोन्न्यांत नवें सोदपाची, तेमाक बंधन म्हूण मानून ताचेच भोंवतणी घुस्पून न रावपाची तांची वृत्ती तशेंच साद्या आशयातल्यानय जिविताचें नाट्य उबें करपाची तांची हातोटी विलक्षण. तेभायर तांच्या कथांमदीं येवपी वातावरण. जें तांच्या कथानकांचोच एक वेगळावं नज असो वांटो जाता. तें वातावरण निर्मणेखातीर आयिल्लीं सैमाचीं वर्णनां हीं कथानकांचेंच एक आंग आशिल्लेवरी जातात. तांच्या सैमीक वर्णनांचे भाशेक एके तरेची लय आसता. ते थंय प्रतिमांचोय वापर सूचकतायेन करतात.

तांचे कथेचें दुजें वैशिश्ठ्य म्हळयार तांचें व्यक्तिचित्रण. ह्या कथांतलीं पात्रां जिणेच्या पेण्यार तशी सहजतायेन मेळनात. बरोवप्याक मनशाविशीं सहानुभूती आशिल्ल्यान तांचीं चित्रणां नकसूदतायेन रंगयल्यांत. देखून हीं मनशां जिवीं आनी ताजसाण आशिल्लीं दिसतात.

तांचे *हार* कथेंतलो कुळवाडी, *बळजबरी*तलो अंतुलो आनी असहाय चिरेकार हे नदरेन पळयल्यार जाता. *कासय* ही एक रुपक-रचना तर कोंकणी कथेक मेळिल्ली देण अशें म्हळयार जाता. जिवाच्या अस्तित्वाखातीर जीणभर जिवापाड जपिल्लीं मुल्ल्यां विकपाचो जेन्ना प्रसंग येता तेन्ना बिरबलाचे माकडणीचें स्मरण जाल्याबगर रावना. बरोवप्यासांगातान वाचप्याच्या मनाचेर दळिद्री जिणेच्या सूखदुःखाचे ताण कांचवेवन पडूंक लागतात. पोटाखातीर लाचार जाल्ल्या क्षुद्र जिविताचो किंवाटो येवन मन संतापता. जाल्यार [illegible]णेसंबंदान एके तरेची कोडसाण *पाज्ज* कथेतलो अणभव गांठीक लावपाक लायता. *मोगाची धूव* निसर्गाच्या नेमान झपाटिल्ल्या दादल्याचे भकीक पडटना तिचे आवयची जाल्ली अवस्था मोट्या संयमान आनी सूचकतायेन दाखयल्या. अशा आनीक जायत्या बायलांच्या आयुश्यांतले विचित्र दुःखभोग तांच्या तिनूय कथांझेल्यांतल्यान वाचूंक मेळटात. मनशाक निरूपाय आनी अगतीक करून सोडपी कामप्रेरणेच्यो तांकी लेखकान जाणल्यात आनी तांचेंच प्रगटीकरण ह्या कथांनी जालां. संवेदना, भावना, विचार, ध्येयां, संस्कार, रितीभाती हांच्या आदारान मनीस घडटा. पूण ताची घडणूक ह्या साबार गजालींकडेन मेळ राखपी नासल्यार तो उक्तो पडटा. हाचें भान पुण्डलीकबाब हांका आसा. देखून तांणीं कामप्रेरणेच्या संदर्भातले भावानुभव उगते करपी जायते प्रसंग, व्यक्तिचित्रां रंगयल्यांत. हे संवेदनेक लागून तांणीं मनशांमदल्या बदलत्या भावभावनांचें आनी घुस्पागोंदळाचें चित्रण केलां म्हणपाचें *मोगाची धूव, पाज्ज, पारज, बळजबरी* बी कथांनीं स्पश्ट जाता. तें करतना ताणीं, मोह पयस दवरून, वाचप्यांच्यो वासना चाळोवन घालपाचें काम करूंक ना, ही विशेश गजाल. ताणीं आत्मनिश्ठपण दाखयिल्लें जाल्यार तें बरप मनोरंजनात्मक जावंक येतालें; परंत बरपाकडेन आत्मनिश्ठा दाखयल्यान बरपावळीक कलात्मकता लाबल्या. स्वताल्या व्यक्तिरेखांचें पतन दाखोवन आपणाली मखलाशी करपाची संद घेवं येताली ती तांणी घेवंक ना देखूनच तातूंतल्यान विश्वात्मक सहानुभूती लाबची अशी वातावरणनिर्मितीय जावंक पावली. वट्ट कोंकणी कथेक अशा पावंड्यार हाडून सोडिल्ल्यान बरपाक सासणाचें यश लाबलें.

## नवलिका

पुण्डलीकबाब हांणीं कोंकणी कथा साहित्यांत अशे रितीन भरीव आनी सकस बरप करून केळयिल्ल्या आनीक एका साहित्यप्रकाराविशीं बरोवप हें म्हजें कर्तव्यच. तो प्रकार म्हळयार नवलिका वो कादम्बरी. कोंकणी साहित्याच्या मळार नदर भोंवडायल्यार हो साहित्यप्रकार व्हडलोसो चंवरूक पावलो ना म्हणपाचे नदरेक येता. ताची कारणां खंयचींय आसूं, पूण अवघ्या चार नवलिकांनी कोंकणी नवलिकेच्या मळार आपणाली नाममुद्रा उठोवपी पुण्डलीकबाब हांचे लिखणेचें विशेश स्वताचेंच साहित्यसाधनेचे गवाय थारतात.

तांणीं *बांबर*, *अच्छेव*, *वसंतोत्सव आनी दायज*, *गुणाजी* ह्या नवलिकांतल्यान गोंयचे गांवगिरे जिणेचें उत्कट चित्रण केलां. जुवानपणाच्या हुंबऱ्यार उबे राविल्ल्या तरनाट्याच्या भावजिविताचें मनोविश्लेशण *बांबरांत* मेळटा. जाल्यार *अच्छेवांत* गोंयच्या समाजीक परिवर्तनाचो गांवगिऱ्या वाठाराचेर जाल्ल्या परिणामाचो बारीकसाणेन वेध घेतिल्लो मेळटा. समाजीक वास्तवाकडेन एकनिश्ठताय राखून बरयिल्ली कोंकणीतली पयलीच नवलिका म्हूण तिचें भोवच तोखणायय जाली. गोंयचे मुळावे संस्कृतीचीं तासां, तिचीं सुखदु:खां, परिवर्तन हांचें चित्रण तातूंतल्यान नकसूदपणान आनी वास्तवाकडेन प्रामाणिकपणा राखून जालें. हाकाय लागून ती नवलिका गुणांची थारता. मनोरंजनाचे नदरेतल्यान पळयल्यारय वाचपी निमाणच्या पानामेरेन खिळावन उरता इतलें तातूंतले जीणेचे अणभव आनी उत्फर्के मुदलाचे आसात. तो व्यक्तिरेखांच्या सुखदु:खांत भरसून एकरूप पावता. गोंयांत मिनाच्या उद्देगाक आरंब जातकच एकेवटेन अर्थीक उदरगत जाली हें खरेंच; परंत हेर वटेन नैतीक मुल्ल्यांची घसरणय दिसूंक लागली. गांवांत निर्मळ जीण जगपी मनशांनी दुडवांच्या चकचकाटांत केन्ना स्वताक व्यसनांच्या आनी अनितिच्या आधीन केलें म्हणपाचें कळ्ळेंच ना. एक काळ असो आशिल्लो की तातूंत अनाचार न करपी, पापाचार न करपी समाज आशिल्लो. तोच नागरी जावं वा गांवगिरी जावं, थंयच्या भौशीक जीणेक तो समाज आदारवड कसो दिसतालो. ताचो थर्त भंय दिसतालो. परंत उपरान्त अचकीत मिनाची खण सापडली. परिणाम असो जालो की एकेवटेन भौतीक जगप वाडले आनी हेर वटेन भौशीक जीणेतले आदर्शच ना-नपश्चात् जावप अशी परिस्थिती आयली. त्या आदारवडाच्या आड धनदांडग्यांची भौशीक जीण चड प्रबळ जाली. स्वताक आनी संबंद समश्टीक लागिल्ली कीड पळोवपाची केन्ना कोणे तकालसय घेतली ना. होच विशय-आशय घेवन हे नवलिकेचें बरप जालां.

प्रथम पुरुशी निवेदनातल्यान ही नवलिका आकारल्या. पूण निवेदनाच्या ओगांत तो खंयच व्हांवन गेलोसो दिसना हें ह्या नवलिकेचें खणखणीत यश. तटस्थ आनी मितभाशीक निवेदक वाचप्यांच्या मुखार निखटे 'फॅक्टस्' दवरता. ताका लागून वास्तव जीणेचें चित्रण करपी ही नवलिका आसूनय तिचेमदल्या मनोविश्लेशणाचो अणभव प्रत्येक वाचप्याक स्वताले तांकीनच घेवचो पडटा. दुसरी विशेशताय म्हळ्यार बरोवप्यान केल्लें सैमाचें वर्णन. नवलिकेचें गांवगिरेपण ठसठशीत जावपाक ह्या वर्णनाचो भोवच आदार जाला. त्याच सांगातान वर्सभर चलतल्या सणां-परबांच्या निमतान लेखकान ह्या वाठाराच्या संस्कृतीक तासांचेंय दर्शन घडयलां. तांच्यो समजुती, चालीरिती हातूंतल्यान साकार जावपी 'कोळम्ब' गांव वाचप्यांक वळखीचो, संवकळीचो दिसता तो बरोवप्याच्या ह्याच तंत्राक लागून. शेतांभाटांचीं कामां, काजी, आमुल्ल्यो चंवरतकच फाटोफांट येतात ते धालांचे उत्साव आनी तांची वाट पळोवपी भुरगीं-बाळां. ह्या सगळ्यांचो आनी तांच्या सांगातान येवपी शकून-अपशकून हांच्या वर्णनांनी ह्या गांवच्या संस्कृतीक दायजाची वळख जाताच पूण त्या सांगातान ह्या

गांवचे मनसीकतायेकडेन पळोवपाचो दृश्टिकोनय तयार जाता. कोळम्ब वाठार वाचप्यांमुखार एका समश्टीचें चित्र चितारता. तातूंतल्यान जिणेचीं साबार तासां सहजिकायेन उगती जाल्लीं दिसतात. लेखकान तीं तपशीलान चित्रायल्यांत पूण तातूंत खंयच पाल्हाळ दिसना. लिखणेचें यश तें हेंच.

ह्या नवलिकेच्या सव्या प्रकरणांतल्यान गांवचे हे निर्मळ जिणेचेर तरंग उठपाक लागिल्ले दिश्टी पडटात. सुर्यफुलान जशी सुर्याचेर स्वताची दिश्ट लावन दवरची तशें मिनाच्या उद्देगाक साबारांच्यो नदरो तेळूंक लागतात. शेतांभाटां पडंग पडिल्ल्याचें धंगण ना जाताच खेरीज शाळाय वशाड जावपाक लागिल्ल्याचेंय तांकां भान उरना. आबू आनी मास्तराकय गांव अधोगतीचीं सोंघणां देवंक लागला म्हणपाची वेदना असहाय्यपणान भोगची पडटा. अशें आसूनय हीं दोनूंच मनशां म्हळयार नवलिकेतली मध्यवर्ती व्यक्तिरेखा न्हयंत. त्या त्या प्रसंगांत येवपी तें तें पात्रय तेदेवेळार चिकें मध्यवर्ती पात्र जावन उरता आनी कथानकाची संमिश्रताय उक्तायता. *अच्छेवा*चें साहित्यिक मोल वाडपाफाटल्यान वयल्या घटकांसांगातान आनीक एका घटकाचीय मेड लागता. तातूंतलें स्वभावरेखाटन. विंगड-विंगड व्यक्तिरेखांच्या दर्शनातल्यान कथानकाचो प्रवाह मुखार वचत रावला. त्यो व्यक्तिरेखा संवादांच्या माध्यमांतल्यान उब्यो रावतात. तांचे वरवीं बरोवप्याचें सुक्षीम अशे निरीक्षणतांकीची आनी भाशेवयले हुकमतीची गवाय मेळटा. *अच्छेवा*च्या माध्यमांतल्यान पुण्डलीकबाब हांणीं गोंयच्या समश्टीचें चित्र दवरून फायच्या, फुडारांतल्या जीणेविशींची शिटकावणी दिली तो काळ चड पयस वचूंक ना. उद्देगीकरणाक लागून मनशाचो अध:पात जावं येता तो जिवीतमुल्ल्यांची पडझड जावंक दिलीच जाल्यार. गांवजिणेची उदात्तताय, तातूंतली निर्मळसाण आनी नैतीकतायेचीं मुल्ल्यां सांबाळून दवरपांतच आसता. बरोवप्यान दिल्ले शिटकावणेचो आमी फावो तितले गंभीरतायेन विचार करूंक ना. हाचो पश्चात्ताप करपाचो वेळ आयलोशें दिसता. फुडारांतल्या जीणेचो भाष्यकार वा द्रश्टो म्हूण हो लेखक दृग्गोच्चर जाता तो असो. पुण्डलीकबाब हे प्रतिभासंपन्न नाटककार म्हूण गाजतात. अश्टतासी साहित्यिक म्हूण साहित्याची जायतीं मळां तांणीं हुंपल्यांत; परंत प्रदेशीक बरपाचो बरो नमुनो म्हूण तांची प्रत्येक कृती थारूनय संवसारीक पांवड्यावेल्या जिणेचो जिवो अणभव वाचप्यांक दिवपाची तांक तिचेमदीं आसा हें तांची प्रत्येक कृती वाचतकच पट्टा. तांच्या बरपावळीक बेस बरो न्याय दिवपाखातीर *नेटिव्हिझम* ह्या साहित्यिक संप्रदायांतली तत्त्वां चड उपकारक थारू येत; पूण तो अभ्यास करप हो ह्या लेखाचो विशय न्हय. ते निमतान वसाहतवादी विचारांचोय नव्यान विचार करपाची संद मेळटा. पूण तोय विचार वेगळ्या लेखाचोच. हो लेख म्हळयार पुण्डलीक नारायण नायक ह्या कोंकणीतल्या प्रगल्भ साहित्यिकाच्या बरपावळीचो वेध. ह्या साहित्यिकाचे बरपावळीचें आकलन करूंक हो वेध, घडये, उपकारा पडूं येत.

## कोंकणी अस्तुरी साहित्यिकांच्या साहित्यांतली अस्तुरी

साबार विचारवंतांक अस्तुरीच्या प्रगतीविशीं उलयतास्तना उण्यांत उणीं फाटलीं दोन शतमानां संवसारीक पांवड्याचेर म्हत्वाची आसात अशें मानचें पडटलें. भारतीय समश्टीच्या संदर्भांतय ह्या दोन शतमानांक भोवच गुरूत्व लाबलां. ह्या शतमानांत जीं समाजीक परिवर्तनां जालीं तांतूंत भारतीय अस्तुरीचें अस्तित्वाविशींचे विचार मध्यवर्ती उल्लें. घोवाच्या मरणाउपरान्त आशिकुशीच्या नदरांचे भक्ष्य जावपी, उपेक्षेची जीण जगपी, बोडकी जावपी, वा सती वचपी अनाम अस्तुरी आयज बछिन्द्री पाल जाता आनी एव्हरेस्ट ह्या संवसारातल्या सर्वोच्च तेंगशेर पावल दवरता, पी० टी० उषा जाता आनी ऑलिम्पिकांत पदक्षेप करता, कल्पना चावला जाता आनी अंतराळांत भोंवडी करता. तीच अस्तुरी बुकर प्रायज हातासता, विश्वसुंदरीचो, भुवनसुंदरीचो पुरस्कार मेळयता. ह्या काळांत अस्तुरीविशींची नदर बदलली, अस्तुरीय बदलली. तिचेंविशीं स्वतंत्र विचार करपाकय आरंब जालो आनी खासा अस्तुरीकय स्वताल्या अस्तित्वाविशीं, तांकीविशीं आत्मविस्वास आयलो तो ह्याच काळांत. काळांत जायत गेल्ल्या बदलाप्रमाण अस्तुरीचे प्रतिमेंतय परिवर्तन जायत गेलें.

साहित्य आनी समाज हांचो संबंद साप्प लागिंचो. बरोवपी आपणाल्या साहित्यकृतींतल्यान समकालीन समाजीक परिस्थितीचेर भाश्यच करता. इतलेंच न्हय तर ताचेकडेन आशिल्ले मुखावयले पळोवपी अंतर्दृश्टीक लागून तो फुडारांतल्या वास्तवाविशींय कांय अंदाज काडटा. समकालीन परिस्थिती बरोवप्याक -ताच्या साहित्याक- घडयता काय, ताच्या बरपांतल्यान येवपी आदर्श, नवे विचार आनी व्यक्तिरेखा समाजाक नवीं वळणां दितात हाची जाप दिवप कठीण. पूण बरोवपी आनी समाज एकदुसऱ्याक स्फूर्त दितात इतलें मात सत्.

कोंकणी साहित्यांत अस्तुरी साहित्यिकांनी दिल्लें योगदान हो आमचो, आयजचो विशय. कोंकणीतल्या नागरी लिपयेंतल्या अस्तुरी-बरोवप्यांच्या साहित्यांत आयिल्ल्या अस्तुरेच्या उलोवपाक आयज उद्गार दिवंचो वेळ आयला. ह्या फाटभूंयेर पळयत जाल्यार एकविसाव्या शतमानाच्या हुंबऱ्यार उबीं आशिल्लीं कोंकणी अस्तुरी साहित्यिक काळाचें एक नवें पेणें हुपून वचपाक भायर सरल्या.

कोंकणी अस्करांतली अस्तुरी आनी तिचें साहित्यांतले रूप आमकां दोन वांट्यांनी पळोवंक मेळटा. हे दोन वांटे काळाप्रमाण जाल्यात. तशेच ते तिच्या समश्टींतल्या सुवातीवेल्यान जाल्यात. हांगा सोयीखातीर आमी गोंयचे मुक्ती आदली अस्तुरी आनी गोंयचे मुक्ती उपरान्तची अस्तुरी अशें म्हणुंया. ह्या दुसऱ्या वांट्याचेय आनीक वांटे जाल्यात. विसाव्या शतमानाच्या उत्तरार्धातल्या पयल्या काळांतली आनी त्या शतमानाच्या निमाणच्या पर्वांतली म्हळयार एकविसाव्या शेंकड्याच्या दारांत ताच्या येवकाराक रससून उबी आशिल्ली अस्तुरी.

ह्या दोनूय चित्रांमदीं जायतें अंतर आसा. आदल्या काळांतली अस्तुरी सामान्यतायेन

अशिक्षित, अडाणी, रुढी, गैरसमजुती, परंपरा-दायज हांच्या जोखडाखाला अंदून गेल्ली, पिचून गेल्ली अशी आशिल्ली अशें दिसता. त्या काळांत जी साहित्यनिर्मणी जाली तांतूंत तिचेविशींचे वर्णन तशेंच आसा. साहित्य हें इतिहासाचें पडबिंब आसता अशें मानत जाल्यार साहित्यातल्यान ऐतिहासिकता पडबिंबित जाता अशें मानून चलचें पडटलें. म्हणटकच अशी अस्तुरी दादल्याच्या समश्टींत साबार तरांचे अन्याय मोन्यांनी सोंसत रावपी, आनी दादल्यांच्या समेस्त रुपांखाला दबून गेल्ली, भियेल्ली-कांचवेल्ली पूण संवसाराच्या जंजाळांतल्यान स्वताले जिणेचें, घराब्याचें तारू-व्हडें व्हडा कुशळतायेन धुकलून तडीक लावपी अस्तुरी आमकां साहित्यांतल्यान पळोवंक मेळटा. परिस्थितीन जर्जर जावनय मोन्यांनी सोंसपी, संस्कारशील अस्तुरी ह्याच तेंपार वावुरताली असो निश्कर्श काडूंक संद मेळटा. घडीघडी स्वताली सहनशीळताय कसाक लायत, जिणेवांगडा, समश्टीवांगडा आनी स्वताच्या भावनेवांगडा झुजत-झुजत आयजच्या काळामेरेन पावल्या, इतलेंच न्हय तर स्वताली एक खाशेली सुवातय तिणें जोडल्या. पूण ते खातीर तेन्ना ती आयजचे सारकी बंड करून उठनाशिल्ली.

दुसऱ्या अर्दांतली अस्तुरी शिकिल्ली, शिक्षणाचें म्हत्व समजून घेतिल्ली, देखून मातशी जागरूक, स्वाभिमानी, स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाची आनी आपणाले अस्मितायेची वळख जाल्ली अशें म्हणूंक संद आसा. ही जाणविकाय सेक्शुर्‍यॅलिटीविशीं आसू येता वो बुद्धिमत्तेच्या पांवड्याविशींय आसू येता. निखटे सेक्शुर्‍यॅलिटीविशींचो विचार करपी अस्तुरी म्हळ्यार एक मादी. तिका शरीर आनी शारिरीक गजालींचोच मनसीक ताण सोंसचो पडटा आनी देखून ती मादी तथाकथित आंदोलन, बंड बी करता. स्वताच्या शारिरीक घुस्मटमाराक लिपोवपाखातीर ती अशा मनसीक आंदोलनाक तत्वगिन्यानाचो वर्ख चडयता. अशा व्यक्तिमत्त्वाक हांव 'एक बायल' अशें पाचारन. स्वता आनी स्वताच्या संबंदान चिंतप इतलेंच ते बायलेक समजता आनी जमता. अस्तुरी ही निखटे सेक्शुर्‍यॅलिटीविशींचें चिंतप करीनास्तना त्या मनसीक कुवाड्याक समजून घेवन मुखार वता आनी स्वतावांगडाच समश्टीचोय मनसीक विकास जावचो म्हूण वावर करता. एकविसाव्या शेंकड्यांतली अस्तुरी अशी आसतली, आसूंक जाय अशें दिसता. ती सुसंस्कारशील आसाच. तिका घराचीं, परंपरेचीं बंदना फटाफट तोडून उडयनशीं दिसनात. तिचे भितर सोंशिकताय आसा. परंत तिचे मुखार ध्येयां, आदर्श आसात. तिका समाजाचे नीतिमत्तेचें आनी मुल्ल्यांचेंय धंगण आसा. ते भायर समाजांतले आपणाले सुवातेविशीं ती जागरूकय आसा. तातूंत तिका परिवर्तन जाल्लें जायय पूण तांचें स्वरूप तिका आकळूंक नाशिल्ल्यान ती गोंदळून गेल्या. अशा वेळार अस्तुरेचे दुबळे कुडिचो, असहाय अवस्थेचो गैरफायदो घेवपी समाजांतल्या दरेका घटकाची तिका मनासावन तिडक येता. पूण तांचेर ती बंडखोरीन झुटून वचना वो स्वतावेलें नैतिकतायेचें बंदनय रागान वो किंवाट्यान शेंवटून उडयना. स्वता भशेन दादलोय समाजाचे नीतिमत्तेचें आनी मुल्ल्यांचेंय

धंगण दवरता. तोय अस्तुरीचे सुवातीविशीं जागरूक आसा ही जाणविकाय ती दवरता. थोडे भितर, आपणाल्यो प्रतिक्रिया दाखयतना ती चिंतता तें हें. देखून तर ती एक सुसंस्कारीत अस्तुरी. नाजाल्यार ती एक बायलच उरतली आशिल्ली, एक मादी म्हणून वावर करतास्तली.

देखून कांय फावटी एक बायल, एक मादी, एका सुसंस्कारीत अस्तुरीचें वस्त्र न्हेसूनय, स्वताक मोहमयी करूंक आयज भौसांत वावर करताना आमी पळयतांव. ती आपणाक भयांकृत समजता आनी विकृत अशी जाता. नैतीक बंदनांक वेव्हार म्हूण पळोवपी, बंडखोर पूण नीती-अनितिची व्हडलिशी पर्वा नाशिल्ली, केन्ना केन्ना स्वैराचारी आसूनय ते वागणुकीचें समर्थन करपी एकाद्री बायल आमकां नदरेक पडटा. समश्टी तिका भोव बरे तरेन जोखून आसताय.

कोंकणी साहित्याक अशा अस्तुरीची प्रतिमा मानवता. अस्तुरेची खरी प्रतिमा सोदची ती कोंकणी काव्यांतल्यान आनी कथेंतल्यान. कवितेच्या मळार गोंयच्या मुक्ततायेआदल्या कवयित्रीमदीं पयलें नांव ठसठशीतपणान झळकता तें विजयाबाय सरमळकार हांगेलें. तांचें कवितेविशीं बरयतना कोंकणी कवी मनोहरराय लक्ष्मणराव सरदेसाय 'गोटलां' कविता-झेल्याचे प्रस्तावनेंत म्हणटातः *बायलांचें दुःख चड, तितलेंच तांचें सुखय व्हड. तांचो संवसार भावनांनी भरिल्लो. जीवनाकडेन तीं काळजाचे नदरेन पळेतात. तीं मोगान फुलतात, रागान जळतात आणि द्वेशान सुकतात.*

अस्तुरीच्या ह्याच रुपाचें चित्र विजयाबाय पितारतात. देखून तांचे कवितेंत *मोगाचो विडो* रंगता आनी *साकरपुडो* थारिल्ली चेडूं *केन्ना साकरपुडो* हें विचारतकच मनांतल्यान मुरगट्टा तें सभावीक दिसता. स्वताले प्रस्तावनेंत सरदेसाय मुखार म्हणटातः *दादल्यांची लिखणी संवसार जिखून आयली तरी घराच्या हुमऱ्याकडेन पावतकच थारता. मागशेता. विजयाबायचे लिखणेच्या जैताची सुरवात रांदचे कुडितल्यानच जाता.*

म्हणटकच अस्तुरीचे लिखणेची मेधा *रांदची कूड* आसून तिचें विश्व, तिची भौरंगी रुपां आनी तिची समश्टीविशींची बांदिकलकी कितले विविधतायेन आनी प्रभावीपणान आयल्या हें सरदेसाय विसरायेर घालतात काय कितें असो अर्थ जाता. रांदची कूड तिची मर्यादा आसूनय तेदेवेळच्या हेर बायलांभशेन ती तांतूंतच मुंगरून पडूंक ना. ती स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाची व्यक्ती म्हूण *गोटलांतल्यान* तितलेंच तांकीन उबी जाता. देखूनच आवयभाशेचे उदरगतिचोय हावेस ती बाळगिता हें विसरूंक फावना.

विजयाबाय बरप करताली तेन्ना गोंयचे समाजीक परिस्थितींत ल्हवू ल्हवू परिवर्तन जावपाक लागिल्लें. त्या परिवर्तनाचे पडबिंब तांच्या कवितेंत दिश्टी पडटा. साहित्यातल्या ऐतिहासिकतेचो विचार करप्यांक गोंयच्या समश्टींत तेदेवेळावेल्या अस्तुरीची स्थिती उगती करपाक ती कविता गवाय म्हूण उपकारा पडू येता. स्थिर भाटकारशाय भोगपी, सुशेगाद

जीण जगपी गोंयकार राजकी आनी अर्थीक परिवर्तनाक लागून उचांबळ जाल्लो. कोंकणीचे उदरगतीच्या कार्यावळीक पयलीं पयली चळवळीचें आनी उपरान्त आंदोलनाचें रूप येवंक लागिल्ले. अस्तुरी शिक्षणाचें म्हत्व कळिल्ल्यान जायतीं चेडवां शिकपाक लागिल्ल्यो. कांय सेवा-चाकऱ्यो करताल्यो, प्रौढ विवाह रूढ जायत गेल्ले. मोग करून लग्नांय जमपाक लागिल्लीं. हे प्रक्रियेंतल्यान वचपी गोंयची नवशिक्षित अस्तुरी विजयाबायन आपणाले कवितेंतल्यान पुराय सामर्थ्यान उबी केल्ली. तिच्या मनांतलीं झुजां, हुंवार विचूकतायेन दाखयल्ले. पूण ही अस्तुरी शिकून नवो विचार घेवन आयिल्ली आसुनूय तिची समश्टी परंपरीक विचाराखालाच आशिल्ली. देखून कंवळे, आंकवार चेडवाक आदर्श नारी जावंचेलो उपदेस कवयित्री करता तेन्ना वाचप्याक अजाप जायना. सुखी जिविताचीं सपनां रंगोवपी *साकरपुड्यात*ली नाजूक चेडूं जेन्ना विधवापणाच्या उज्यान हुलपता तेन्ना तें निस्तेज जाता. 'काळजांत यादस्तीचे दुखां पिले' सांसपीत बसता. तेन्ना तीस-चाळीस वर्सां आदलो गोंयची समश्टी आनीं तांतूतली *एका बायले*ची जीण उबी जाता.

विजयाबाय सोडल्यार ह्या काळांत आनीक कोणे कवयित्री म्हूण खास छाप उठोवंक ना. पूण गद्यलेखिका म्हूण गोदूबाय केळेकार, लक्ष्मीबाय सरदेसाय, कुमुदिनी केळेकार, कमलादेवी राव-देशपाण्डे आनी लीला गायतोण्डे हांचो साहित्यमळार वावर चलतालो.

१९७०च्या उपरान्त संवसारांतल्या साबार मळांचेर क्रान्ती जाली. पुर्तुगेजशेकाकाळासावन भारतीय आनी अस्तंत बरपावळीचे बेस बरे वाचक आशिल्ल्यान गोंयांतल्या विचारवंतांचो पांवडो भोवच उंचेलो आशिल्लो. स्वाभाविकपणानच ते क्रांतीचे पडसाद गोंयांतय उठले. १९७५ हें वर्स *स्त्री-मुक्ती संवत्सर* म्हूण घोशित जाल्ले. संवसारभर अस्तुरीची चळवळ मूळ धरपाक लागली. ती वाडूकय लागली. हाका लागून अस्तुरीच्या समश्टींत नवें आत्मभान आयलें. अस्तुरीन चलयिल्ल्या चळवळीन ताका एक नवें बळगेंय मेळ्ळें. ती आपणाली दुख्खां, समस्या मांडपाक मुखार येवंक लागल्यो. परिणामी स्वताल्या रचनांतल्यान अस्तुरेची प्रतिमा मांडपी बरोवप्यांचेर हे नवे दिश्टीतल्यान त्या व्यक्तिमत्त्वाची वळख करून घेवपाची पाळी आयली.

गोंयांत हेमाबाय पुण्डलीक नायक-धुमटकार हांचो हे कार्यावळींत शिंवाचो वाटो आसा हें विसरायेर घालून चलचें ना. तांणीं गोंयभर झंझावातशें भोवन गोंयचे चेडवांक क्रांतिमय करून वडयले. तांणीं मेळावे, वर्सुकी आंक (*चित्रङ्गी*), नाटकां-एकांकी-काव्यवाचन, सर्ती हे सारकेल्या कार्यावळींत चेडवांक सर्वांगपरिपूर्ण मार्गदर्शन केलें. तांका तांणीं बरपावळ करूंक लायलें आनी तातूंतलें शुद्धलेखनय तपासून दिलें. तांणीं गांवगिऱ्या वाटारांत वचून बायलांक जागोवपाचो भरपूर येत्न केलो आनी आजूनय करतात. आपणाल्या नांवांची व्हडविकाय गायनास्तना तांणीं हेरांच्या नांवांक प्रसिद्धी मेळोवन दिली. अस्तुरीचें बळगें

कितले शिमेमेरेन वचूं येता हें दाखोवपाखातीर तांणीं चित्रपटय काडले. ह्या एकहाती आंदोलनाखातीर तांच्यो बकच्छायो जाल्यो नात अशें न्हय; परंत तांणीं दुसरे वटेन गोंयांत आनी गोंयच्या भायरय पुरस्कार जोडले. आयज गोंयांतल्या अस्तुऱ्यांत जी नामनेची नांवां आसात तांतूंतल्या कितल्याशा नांवांनी हेमाबायकडसून प्रेरणा घेवन लौकीक जोडिल्लो आसा.

नवे जाणविकायेची, आपणाल्या अस्तित्वाचो साक्षात्कार जाल्ली नवी अस्तुरी कवितेतल्यान आकाराक हाडली जयन्ती नायक, माया खरंगटे, शकुन्तला आर्सेकार, नीला तेलंग, शान्ती तेण्डुलकार, प्रशान्ती तळपणकार हांणी. स्वताल्या व्यक्तिमत्वाचीं तासांच तांणी तेदेवेळच्या कवितांतल्यान उगतायल्यांत. एकेवटेन तांचे पिरायेक सोबसारकी मोगाची भास आनी हेर वटेन क्रांतिची भास उलोवपी तरणाटी तांचे कवितेंतल्यान येता. देखूनच 'मोन्या मोगा'चो 'ध्यास' तांकां लागला. तेन्ना अमुरपिक्या मोगाची भास उलोवपी किशोरी ताचे कवितेंतल्यानः 'मातयेच्या वासान / रिगला कोणाचो स्वास? पयसुल्ल्या पाख्याचो / घेतला कोणें अदमास?' अशी स्वाभाविकपणान स्वताची पिराय समजून घेवंक सोदता.

जयन्तीन आपणाली प्रतिमा लोकवेदाची विद्यार्थिनी आनी संशोधिका म्हूण उबी केल्यारय कोंकणी साहित्यांतलो तिचो प्रवेश कवयित्री म्हूण्णूच जाला. आनी उपरान्त ती कथाकार म्हूणूनय नांवाजून आसा. जयंतीची व्हंकल *मेथयेन रंगयल्ले पांय उडयत* येता आनी *सत्याचे खर हुलप* सोंसूंक जायना जावन कुळारचे मायेची याद करीत रावता. तिच्या साहित्यकृतींतल्यान आमकां गांवगिऱ्या वाटारांतली कश्टकरी बायल मेळटा. तिचे वास्तव भिरांकूळ जिणेचें चित्रण मेळटा. ती स्वताल्या षंढ घोवाखातीर वावराडीपण सोंसता, आपली जीण ताचेखातीर झरयता. जयन्तीन प्रस्न विचाल्ल्यातः *विसाव्या शतकांतय बी / तिचेर जातल्या ह्या अन्यायांक / जबाबदार कोण* / तिचो *षंढ घोव? हो समाज / काय हो अन्याय / मोन्यानी सोंसपी ती स्वतः?* कोणाकडेनय जाप ना.

अशेच तरेन समाजाच्या फटकिरेपणाची दखल घेंवपी दीपा पै. ताका सूर्य उदेवनय काळोखच दिसता. समाजांत चलपी अन्याय, अत्याचार, हांवपण आनी पोक्यो बडायो मारपाची वृत्ती पळोवपाची तांक आतांचें अस्तुरेंत आयल्या. आनी ह्या कवयित्रीन तातुंतल्यान भायर सरपाची गरज आनी तयारी दाखयल्याः *जेन्ना आमी पोक्यो / बडायो विसरून / हावेसान वावुरतलें तेन्ना / आमकां उजवाडाची गरज लागची ना / आमीच सुर्या जावन / पेटूंक लागतले / आनी खरेल्या सुर्याक आमची नसाय जातली.* ही विजयाबाय उपरान्तच्या पिळगेची अभिव्यक्ती.

समाजीक परिवर्तनाचें वारें गोंयांतय पाविल्ल्याची गवाय दिवपी अशी. ह्या तेंपावेली अस्तुरी दादलो-बायल असो भेद करिनास्तना समश्टीच्या मुखार आशिल्ल्या आव्हानांक

प्रतिसाद दिवपाचें काम करता. आतां ती आदली व्हंकलपावणीच्या उपरान्त येवपी खिणाखातीर काळजाथावन रसरसून आयिल्ली लजेव्हंकल उरूंक ना. आतां ती हुमऱ्याभितर तिश्टत रावन थंयच्यानच 'सरात फुडें' म्हणिना. तिवूय आतां झुजामळार देंवल्या. दादल्याच्या भुजाक भूज तेंकोवपाचो येत्न करीत ताच्या सांगातान मुखार गेल्या. हे पिळगेंतल्या कवयित्रिंनी समश्टी बदलपाक जाय ही गजाल वळखून ते विशींची स्वताली जाणविकाय मोठे सक्षमतायेन मांडल्या.

अस्तुरेच्या जल्माची सार्थकताय तिच्या आवयपणांत. तिचे हे अवस्थेचें वर्णन कवितांनी येवंक नाशिल्ल्यार अजाप. देखूनच साबारजाणांनी कोंकणी अस्तुरेक आवयच्या विंगड-विंगड रुपांनी केळयल्या हें दिसून येता. आवय जाल्लेबगर आवयपणाचें सूख समजूंक कठीण. आपणाल्या भुरग्याक खेळटना पळोवन धादोशी जाल्ले आवयची तुळा कोणाचकडेन करूंक येना. *देवाचा देव बाई ठकडा । देव एका पायाने लंगडा* अशें आमी जेन्ना आयकतात तेन्ना देवाक आई जावपाचें सूख मेळूंक ना म्हणपाचेंय प्रतीत जाता. आपणाक आपल्या पुताच्या नांवांन हेरांनी वळखप हाचेसारकें दुसरें सूख ना, तीच खरीखुरी स्त्रीच्या जिणेची परिपूर्ती, अशें इरावती कर्वेसारक्या पुराय स्त्रीच्या अस्मितेविशीं जागरूक आशिल्ली विदुशीय म्हणटा. अशी घराच्या हुमऱ्यार बसून आंगणांत खेळपी दोगां भांवडांक नियाळपी आनी तृप्त जावपी आवय तिच्या विंगड-विंगड रुपांसयत कोंकणींत आयल्या.

गोंयच्या कवयित्रींत अस्तुरीचे उत्फर्के-उमाळे भोवच आत्मविस्वासान दाखोवपी नूतन अरुण साखरदाण्डेची कविता वाचतकच दिसपट्टे जिणेंतली घालमेल आनी दोट्टी जापसालदारकी सांबाळटना आवय म्हूण तिची जी फरपट जाता तेंय चित्रण म्हळयार नूतनचे कवितेची विशेशताय. जिणेंविशींचे प्रखर वास्तवतायेची अभिव्यक्ती तातूंत उत्कटतायेन प्रतीत जाता. आनी केन्ना केन्ना अशेंय दिसता, स्वतंत्र अस्तुरी म्हूण जगतना तिणें स्वताक नसत्या समाजीक बंधनांत आनी फटकिऱ्या प्रतिश्ठेच्या आवरणांत शिरकून घेवंक ना मू? नूतनान आवयच्या रुपांतली नारी ही वात्सल्याची म्हूर्त म्हूण रंगयल्याच खेरीज आपणाल्या माणकुल्यांक समजायताना ती जेन्ना उपदेस करता तेन्ना ती आपणाक समजून घे अशेंच सांगूंक सोदता. ही तिची अवतिकाय पळोवं नज जाता: *म्हाका आवय म्हणून घेवंक लज दिसता / कारण आवयची माया तुमकां दाखोवंकच शकलें ना.* ही कबुली दितना तीच आवय म्हणटा: *तुमी म्हजीं सपनां पळोवं नाका / हरशीं ना जाल्यारूय हांव / तुमचेपासून पयसूच आनी म्हऱ्यांत आसूनय / हांव तुमचेपासून पयस.* हें सांगतना आयजच्या गोंयांतले आधुनिक बायलेचें चित्रच प्रातिनिधिक रुपान आयिल्लें दिसना? स्वता बदलतां आनी बदलूंक जाय हें तिका कळटा पूण त्या बदलाफाटल्यान आशिल्ली अपराधिपणाची भावनाय आवय म्हणून आपणाले आद्य आनी स्वाभाविक कर्तव्य कितें हें तिका बेस बरें खबर आसा

हेंच पुरायपणान स्पश्ट जाता. समश्टी बदलूंक तयार आसूनय ती स्वताक आजुनय समाजाचे 'टायमटेस्टेड' संस्कारशिळतेंतल्यान पयस सरपाक दिना ही गोंयचे अस्तुरेची विशेशताय. ती तिका संवसारांतल्या समेस्त स्त्रीवादी अस्तुऱ्यांसावन वेगळायता. तातूंतल्यान तिचें विधायक रूप उगतावन येता. क्रांतिकारी रूपड्यामुखार जिणेची नाजूक, भावविभोर रुपां तितलेच तांकीन उबीं करता. तिचे विशिंचो आदर वाडीक लायता.

हेर कवयित्री ताचेय मुखार वचून आनिक वास्तव जिणेंतलें चित्र पितारतात. संवसाराचो गाडो धुकलून धुकलना तेन्ना मात निर्शेणी पातळटा आनी उमेदीन भरिल्ली जीण कटकटिची जावन *तिचे जिणेची फांतोड उजवाडटा / घोवाच्या धेंगशांनी / आनी रात जाता भुरग्यांच्या हुयेलींनी* असोय अणभव उतरांतल्यान वाचप्यांमेरेन पावता. कुन्दा पैचे कवितेंतली *कुळारा* आईचें *मायेची गोजडी* पांगरुपाक आंवडेपी अस्तुरी एका युगांत जियेता तर दुसऱ्याच्या उपकाराचेर जगपाक तयार ना अशी नीलाच्या कवितेंतली स्वाभिमानी अस्तुरी आयजच्या आधुनिक युगांत वावुरताना दिसता. तिचें प्रत्यंतर माया खरंगटेचेय कवितेंत दिसता: *ही जागी जाल्ली बायल - ती कलयुगांतली सीता / माथ्यार अन्याय घेवन / धर्तरेच्या पोटांत लिपचिना / ही जागी जाल्ली आयची बायल / देवपण घेवंक फुलांत घुस्मटत / देवाऱ्यांत बसून रावची ना* अशें 'ण'णीत उतरांत शिटकायता तेन्ना पोरण्या युगाचो अस्त जालो अशें म्हणूंक येता. विसाव्या शेंकड्याच्या निमाण्या पांवड्यार पावूनय *संवसाराच्यो बेड्यो घालून / मंगळसूत्रान माल्लो गळ्याक फांस* अशा जाणविकायाची अभिव्यक्ती प्रतिभा पै फोण्डेकाराच्या कवितेंत जाल्ली दिसता. असहाय्यपणाचो हो दर्पणच. हे वस्तुस्थितीक सामकारा वचुनय *मोनीं चाकां चलोवपाची* तिची तयारी अस्तुरेच्या सोंशीकपणाची वळख दिता हें खरें आसल्यारय चौकटींतलें चित्र काडून वडोवंक जाय अशें म्हणटना कोंकणी अस्तुरेचे परंपरागत प्रतिमेचेर मार्मीक भाश्यय करता: *आतां हें फास्केंतलें चित्र / सगळें बदलूंक जाय / तिच्या मस्तकार फकत तिच्याच संवसाराची न्हय / तर विश्वाच्या जापसालदारकेचची रेखा मांडूंक जाय; तिच्या ओंठार / क्रांतीचीं उतरां घालूंक जाय...तिका बंदखणींतल्यान / मेकळी करा आनी हातांतली लाटणी सोडून / अन्यायाविरुद्ध लडपाची / पेट्टी मशाल पितारात* अशें म्हणपी अमिता सुर्लकाराची कविता मुक्त अस्तुरीचें प्रतिनिधित्व करता.

कोंकणी कवितेंतल्या आयिल्लें अस्तुरेचें चित्रण पळयतकच गद्यांत अस्तुरी कशे तरेन उबी जाल्या हें पळोवप समा जातलें. मनीस जिणेचें समग्रतायेन वर्णन येता तें नवलकाणयेंतल्यन आनी नाटकांतल्यान. कोंकणींत नाटककार अस्तुरी आडवादानच आयल्या. कमल कामत हांचें *आंदळो मागता एक दोळो* हें नाटक सोडल्यार आनीक दुसरें नाटक ना. देखून ह्या साहित्यप्रकाराचो प्राकार अस्तुरी नाटककारांक रावता अशें म्हणचें पडटा.

विसाव्या शतमानातल्या आठव्या दसकांतल्या कवयित्रिंच्या कवितांत अस्तुरीचें परिवर्तीत

रुपडें दिसलें तरी तिच्यो बायलमनशेच्यो कुरवो पुसूंक नात, म्हणपाचेंय कळटा. अस्तुरी शिकली, स्वताल्या पायांर उबी रावली जाल्यारय तिका उचित सांगात्याची गरज आसताच. आजून मेरेन गोंयांत लेस्बियनांचें जबरदस्त भिरें येवंक ना. देखून दादलो होच तिचो सांगाती, वांगडी आनी मार्गदर्शक जावन आसा. असो सांगाती सोदून काडपांत तिका भिरांत दिसता. 'तो' आपणाक फटयत म्हणपाचो भंय दिसप स्वाभाविकचः *मियां एक गरीबाचा पोर आसा / तुज्या आवशीकडल्यान / तुका विकत घेवंक / माझ्याहार पैसो नाय आसा.* प्रशान्तीच्या उतरांनी एका चेडवाची कुचमण उगतावन येताच खेरीज एका समश्टीच्या बांदावळीचोय परिचय जाता. *म्हाका आतां एक़ाच दोळ्यांत / आख्खो संवसार दिसता* अशेंय म्हणपी कवयित्री आधुनिक तशेंच समंजस, प्रगल्भ अस्तुरीचीच प्रतिमा उबी करता.

नयना आडारकार, मेघना वेरेंकार, राजश्री सैल, वरदा गाड-केरकार, मंगला शिवदास, मिलन वायगंणकार, उषा नायक हीं कांय नांवां घेवं येतात. हांणी स्वतालो साहित्याविश्कार चडसो कवितांच्या माध्यमांतल्यान केला हें खरें आसलेंय तरी फुडल्या पिळगेंत कांय आशास्थानां दिसतात हेंय चिकें खरें. नवें विस्तारिल्लें जिवीत हो तांचो कॅनव्हास. *फास्क्यों*त सैल म्हणटाः *कोणे घडयल्यो ह्यो फास्क्यो? कारण-हांव तांतुंतले खंयचेच फास्केंत / सारकें बसना.*

कोंकणी कवितेंतल्यान आयिल्लें अस्तुरेचें चित्रण पळयतकच गद्यांत अस्तुरी कशे तरेन अभिव्यक्त जाल्या हेंय पळोवप उचित जातलेंशें दिसता. मनीस जिणेचें समग्रतायेन वर्णन येता तें नवलकाणयेतल्यान आनी नाटकांतल्यान. कोंकणींत नाटककार अस्तुरीमनीस आडवादानच आयल्या. कमल कामत हांचें *आंदळो मागता एक दोळो* हें नाटक सोडल्यार आनीक दुसरें नाटक ना. मीना गायतोण्डे-काकोडकार, जयमाला दणायत, जोका गोन्साल्वीस, ज्योती कुंकळ्येंकार हांचें एकांकी लेखन आडवादीच. देखून ह्या साहित्यप्रकाराचो हांगा विचारच करूंक ना. पूण कथा आनी नवलिका ह्या साहित्यप्रकारांच्या मळार मात कांय अस्तुरींनी मोलादीक बरप केल्लें आसा म्हणपाचे नदरेंत येता. मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, हेमा नायक, शीला कोळम्बकार, जयन्ती नायक, सुधा खरंगटे, सुरेखा तोटेकार, विजया पै-धुंगट हांणी फाटलीं कांय वर्सां स्वताली उपस्थिती भोवच जाणोवन दिल्या. ह्या कथांतल्यान अस्तुरीच्या सभावाची कांय तासां दिश्टी पडटात. पोरण्या संस्कारांत वाडिल्ली अस्तुरी, आवयपणाचे साबार उतळताप सोंसपी अस्तुरी, समश्टीचे आड वचपी, आपलीं भुरगीं पळेतकच खंती जावपी आवय (*तळमळे*) अशी आवयचीं कितलिंशीं रुपां, जाल्यार लग्नाक आंवडेवपी चली, मोगांत पडिल्लें चेडूं (*अंदल्ले स्वास*), लग्न जावचेली इत्सा आसुनूय समश्टीक लागून खालतेपणाची सुवात सांबाळीत जल्मभर सोंसत रावपी तुळशी (*वाऱ्यावेलें सपन* - शीला कोळम्बकार), 'दवरिल्लें' वो 'भाणशिरें' हीं विशेशणां आयुश्यभर

सोंसपी भावीण, घोव मरतकच जीण जगपी विधवा (*पोरसूं परत फुलता* - हेमा नायक), आवय-बापूय हांच्या अत्याचारापोंदा आनी बेजबाबदार वागणुकेखाला चिड्डून, अंदून गेल्लें मॅगी, पैशाचे आनी परिस्थितीचे भकीक पडिल्ली रोमा (*रोमा*- ज्योती कुंकळ्येंकार), त्यागाचें प्रतीक जावन कोंकणी कथेंत ठसठशीत दिसपी *रक्तबंबाळ पावलां*तलें गंगा ह्या साबार रुपांतली अस्तुरी वाचप्यांच्या सामकारा येता. हेमा नायकाचे *पसयें*त अत्याचारांक बळी पडिल्ल्यो चेडवां-बायलो येतात पूण भिजूड जायनास्तना दादल्यांवरवी जावपी अन्यायाक, बळजबरेक, अत्याचारांक मोन्यांनी सामखारा वचपी अस्तुरी दिसता. वेळ-प्रसंग पळोवन त्यो दादल्याक आव्हान दितात. तांका जाल्ल्या अन्यायाक स्वर-उद्गार दितात. अस्तुरीच्या नव्या परिवर्तीत रुपाची सुलूस दिवपी ही कथा एके परीन परंपरीक अशा तिच्या प्रतिमेक वेरच दिता. शीला कोळम्बकारच्या *जाय तसलें जिणें*तली रोशन दादल्यांक 'दवरता' आनी स्वता दादल्यांभशेन जीण जियेता. *सीमाय* तशेंच. 'राजकी दादा'च्या सांगातान रावन स्वतालें वेगळेपण राखपी हीं चरित्रां आडवादानच आयलीं जाल्यारय अस्तुरेचें नवें रूप दाखोवपीच अशें म्हणूं येता. सामानान्यतायेन हीं गोंयच्या समश्टीन पळयिल्ल्या अस्तुरीचीं बरपावळींतल्यान ठसठशीत जावन आयिल्लीं प्रातिनिधीक रुपांच म्हणपाक जाय. तिचे बगर संवसार जसो अर्दकुटो तशेंच साहित्यय. कवितेभशेनच कथा-नवलिका ह्या साहित्यप्रकारांत अस्तुरी येता ती आवय म्हूण, घरकान्न म्हूण, मोगिका म्हूण. तिचीं प्रिती अनुरुक्ती आनी विरक्तिचीं रुपां मेळटात तीं दादल्याक केन्द्रस्थानी दवरून अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. तिच्या कुडीकडेन संबंधीत अणभव, तिच्या मनीसपणाची जाणविकाय, निर्णय घेवपाविशीं तिका आशिल्ली जाणविकाय आनी समश्टीतली निमण्या पांवड्यावेली सुवात, तिच्या श्रमांक मेळपी कुस्कुटाचें मोल, तिच्या भावनांची आनी मोगाची उपेक्षा ह्या साबार गजालींचें चित्रण आयिल्लें दिसता. पुरुशप्रधान समश्टींत आशिल्ल्या बंदनांत अस्तुरीय सार्थकताय मानताली जावंये.

वेल्या साबार साहित्यिकांनी स्वताल्या बरपावळींतल्यान अस्तुरेक केन्द्रवर्ती दवरून तिचें चित्रण केल्यारय तिची समश्टींतली आनी घराब्यांतली त्यागी, दायजान चलून आयिल्ल्या बंदनांक मोन्यांनी पाळो दिवपी अशी विशिश्ट भूमिका मतींत दवरूनच. देखून कोंकणी बरपावळींत ही अस्तुरी एक आवय, धूव, घरकान्न, विधवा, परित्यक्ता, विद्यार्थिनी, वावराडी, मोगिका, इश्टीण, सहाय्यिका अशा रुपांतल्यान दिश्टी पडटा. तिचें रूप ह्या रुपांक जोमेरेन फटकून वागना, नीतिमुल्ल्यांची पर्वा करपी आसता, कर्तव्यदक्ष आसता तोमेरेन ती समश्टीक एक आदर्श कशी असता. ज्या खिणांक ती स्वतालें रुपाचें परिवर्तन करूंक सोदता, प्रसंग आयल्यार दायजान चलून आयिल्ल्या सगळ्या बंदनांक खोंटावपी, स्वतंत्र बुद्दीची, शिटूक वा स्वताल्या अस्तित्वाक जपपी जाता त्या खिणाक ती वायट, दुश्ट, अनैतीक चलणुकेची,

*पतिव्रता पाक-न्हिदून गेले लाख* अशी प्रतिमा बाळगुपी, स्वताल्या रुपाचो गर्व बाळगुपी आनी बंडखोर बायल म्हणून कोंकणी बरपावळींत अवतरता. भावनाविवश जावप हो मनशाचो जन्मजात गुण आसल्यारय समश्टींतलो अन्याय-अत्याचार पयस करपाची बंडखोर वृत्ती वा धिटाय दाखोवपी अस्तुरी कोंकणी साहित्यान केळयल्या हें चड प्रागतिक आनी आधुनिक रुप मनाक भुलयता.

निमाणेकडेन कोंकणी नवलकाणयेचो सुपुल्लो नियाळ. कोंकणींत हेमा पुण्डलीक नायक वो शान्ता खाण्डेपारकार वो ज्योती कुंकळ्येंकार ह्या सारकीं कांय नांवा सोडत जाल्यार ह्या मळार अस्तुरींनी घसघशीत निर्मणी करूंक ना म्हणपाची खंत भोगता. अशें आसुनूय ह्या बरोवप्यांनी स्वताले नवलिकांनी अस्तुरीच्या प्रतिमेकडेन आडनदर करूंक ना म्हणपाची खोस भोगता. *निर्बळा आनी मुक्ती* आनी *भोगदण्ड* हो नायक हांचे नवलकाणयेचो प्रवास. स्त्रीमुक्तीवादी विचारांचो सारको ध्यास घेतिल्ल्या नायकांक अस्तुरेक जाल्ल्या अन्यायाक, तिचेर जाल्ले अत्याचाराक स्वर-उद्गार दिलो. तांका हो अन्याय-अत्याचार जळींमळीं दिसता म्हण्टकच तिका न्याय जावपाक जाय हो आग्रो नवलिकांनी दिसता. कांय शीमेमेरेन आत्मनिश्ठ आनी आत्मनिश्ठा हांचेमजगतींत कलात्मकतेचो स्वास अंदून वेता हें खरें आसल्यारय काळाची गरजय तितलीच गुरूत्व मेळयता. नायक हांची तीच विचारसरणी, तोच हावेस. नायकांच्या नवलिकेवरवी गोंयच्या अस्तुरेक स्वताच्या अधःपतनाच्या भंयासावन पयस दवरपाचें वा सावध करपाचें कार्य केलांशें म्हणचें पडटा. ह्या नवलिकांनी सपना, जेमा हांच्या वांगडाच पुरुशप्रधान संस्कृतिच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या आनी घुस्मटमार सोंसपी अस्तुरेच्या सगळ्या अवस्थांचें चित्रणय येता. सपना, निर्बळाबी घुस्मटमारांक लागून रुढीग्रस्त जीण जगून निर्शेल्ली आनी मनांत खंती जायत जगतना दिसता तर *भोगदण्डां*तलें जेमा अधःपतनाचे गर्तेत पडिल्लें पळोवंचे पडटा. ताचे फाटभूंयेर भोगवादी अतृप्ततायेचें प्रतीक म्हूण एकेवटेन आनी दुसरे वटेन अस्तुरेची विटंबना म्हळ्यार एकेपरीन भारतीय घराब्यांचे व्यवस्थेची विटंबना अशे जाणविकायेन आकार धरपी 'स'शीत वर्णन वाचप्यांमुखार येता. अधःपतनाचो कळवळो येवनय ते जावपाक जापसालदार वट्ट समश्टीचो दृश्टिकोण. परिणाम असो की गोंयचे समश्टीचे वेवस्थेंत समाजीक, मनसीक, संस्कृतीक परिवर्तन जावपाक जाय अशी एक विचारसरणी आकार घेता. म्हळयारच गोंयचे समश्टीचे व्यवस्थेंत आनी तिचे घटकांत आशिल्लीं उणाकपणांय ह्या बरपांतल्यान आनी विचारसरणींतल्यान दिश्टी पडटात. जेमासारकी प्रतिमा ही ह्याच समाजाची निर्मणी. देखून अशा बरपावळींतल्यान हे तरेचें वर्णन करप भोवच गरजेचें अशेंय एक आग्रही मत्त मुखार येता. कांय फावट हें अधःपतन एकाद्र्या व्यक्तीचें काय एकाद्र्या घराब्याचें वो समश्टीचें असो प्रस्न उप्रासल्यारय नवलिकाकाराक तो प्रस्न पिडना. गोंयांतले समाजशास्त्राविशिंचे

विचारवंत दोतोर तानाजी हळर्णकार अशा विचारसरणीक 'अस्तुरीधार्जिणी वाटचाल' म्हूण वर्णितात.

कुंकळ्येंकाराच्या *पाशाणकळीं*तय निमाणेकडेन कुडिच्या सुखावटयां गेल्ली नायिका अनुश्का, तिचा प्रतिमा वास्तवतायेचेरच आदारून आयल्या अशें धरल्यार आधुनिक अस्तुरेचें मनसीकतायेंत आनी समश्टीतल्या परिस्थितींत आजूनय व्हडलेंशें परिवर्तन जावंक ना अशें मानून चलचें पडटलें. ह्या नवलिकांनी शृंगारांतच आनी भौतीक सुखांतच धन्यताय मानपी नायिका आयल्यात. त्यो आधुनिक समाजाचें प्रतिनिधित्व करतात अशें मानल्यारय मुखावेल्या एकविसाव्या शतमानांतले अस्तुरेच्या चित्रणाची ती बुनयाद आसा अशें म्हणूंक येत व्हय? ही अस्तुरी आपणाक रेवाडून आशिल्ल्या नात्यांच्या बंदनांसावन पयस वचपाक सोदतना नव्या संकल्पनांकडेन वचूंक लागता. रांदची कूड हेंच तिचें कार्यक्षेत्र न्हय. जिवितांतल्या आनी कर्तृत्वांतल्या विंगड-विंगड आनी नव्या-नव्या मळांचेर आत्मविस्वासान वावरूंक जाय. आधुनिक अस्तुरीन अर्थ, अंतराळ, कला-साहित्य, तंत्रविज्ञान, न्यायदान, पुलीस, वैजकी, समाजकार्य, सेवा-चाकरी, संगणक, संशोधन अशा वाटारांत पावल घालूंक जाय ही वान्सा आकार धरूंक सोदता म्हणपाचे जाणविकायेची अभिव्यक्ती जावपाची गरज आसा. देखून त्या त्या वाटारांतल्या बरोवप्यांनीय नव्यो भुमिका आनी त्यो पुराय करतास्तना भोगचे पडटात ते थंयचे उतळताप आनी तकालस, ताण आनी मनशांच्या नात्यांतलो बदल हांचो दर्पण दाखोवपाखातीर स्वतालो वांटो उखलूंक जाय. एक अस्तुरी हेर अस्तुरेची वेदना समजून घेता म्हणपाची जाणविकाय अभिव्यक्त जावंक जाय. गोंयच्या बरपावळींतल्यो अस्तुऱ्यो स्त्री-वादाच्या नादांत नात. सिद्धी-प्रसिद्धीचो आनी आक्रस्ताळेपणाचो एक मार्ग म्हळयार तथाकथित स्त्री-वाद अशें मत्त ना मूं? असो एक प्रस्न पिडटा. स्त्री-वाद म्हळयार अस्तुरेची कैफियत अशें मानल्यार भ्रमचित्त जावपाची गरजनाशें दिसता. दादल्यांचे उतळतापय अस्तुरेन समजून घेवपाची गरज आसा. तांका जो घुस्मटमार सोंसचो पडटा तो दादल्यापरसय एक अस्तुरीच बेस तरेन समजून घेंवक पावतली आनी तिणें केल्लें लेखन हें भोवच वास्तवय जावंक पावतलें. दादल्यांची विकृतपणां तपासचीच; परंत तांची मनसीक ठेवण ही आधुनिक समश्टीच्या उबारणीक उपकाराक पडटा जायत जाल्यार तीय अभिव्यक्त करपाचो एक मार्ग म्हळयार साहित्य. अस्तुरेच्या बरपावळींत, नसाय मानून न घेतां, तो मार्ग मानून घेवपाची मनसीक तयारी करची पडटली. समश्टी निखटी अस्तुरी घडोवंक पावना. तातूंत दादल्याकय एक भुमिका आसता तेन्नाच समश्टी ही सुसंस्कारीत, परमळीत आनी परजळीत जाता ही जाणविकाय दवरपी अस्तुरी बरोवपी क़ोंकणींत जाय. तेविशिंची गवाय फुडारांतल्या बरपावळींत येवंक जायशें दिसता.

# वेणिमाधव बोरकारांची कविता: नार्सिसचें कोंकणी पडबिंब

गोंयचे मुक्ततायेउपरान्तच्या कोंकणी कवींचे मांदियाळींतलें एक झगझगतें नांव अशी नामना जाल्ल्या कोंकणी कवी वेणिमाधव श्री० बोरकार उपाख्य कवी गिरीश हांका नवी दिल्लीतल्या साहित्य अकादेमी ह्या भारतांतल्या मध्यवर्ती संस्थेन २००२चो पुरस्कार दिलो आनी म्हाका बरें दिसलें. कोंकणी लोककवी मनोहरराय सरदेसायान *चंवर* ह्या झेल्याक प्रस्तावना बरयतना वेणिमाधवाक 'फांतोडेचो कवी' अशें म्हळां. कोणेय तरी ह्या कविचो उल्लेख 'कोंकणीतलो बालकवी' असो केल्लो. खासा बाकीबाब हांणीं ताका 'सान बाकी' अशें तोखणायिल्लें हांवें आयकल्लें. शंकर रामाणी तांका 'छोटा कवी' अशा अपुरबायेन पाचारताले. उपरान्त *ती म्हळ्यार तूं म्हाका वेस्टल्ली वाल जसो लयेक ताल* अशें परिपक्वपणान चिंतप करतल्या ह्या कवीची संभावना मराठींतली इंदिरा सन्त वो पुरुशोत्तम शिवराम रेगे सारक्यांच्या मांदियाळींत जावंक पावली. अशा कवीक समाजीक बांदिलकी, सामीलकीच्या मागणेन उंचबळीत जाल्ल्या संवसारांतय कोणेय तरी निखळ काव्याचे निर्मणेक प्रतिसाद दिलो ही जाणविकाय अशे भावनेच्या खोल तळांत रिगून बशिल्ली. साहित्य अकादेमीच्या जाळवणदारांनी चिके विलंबानच खरें; परंत चड कळाव लायनास्तना हो पुरस्कार दिलो म्हूणय बरें दिसलें. कविवर्य बाकीबाब हांका निमाणेकडेन कोंकणी कवितेन हो पुरस्कार मेळोवन दिलो. कविवर्य रामाणी हांकाय कोंकणी कवितेनच हो पुरस्कार तांच्या पदरांत घातलो. तांका हो पुरस्कार अशा वेळार मेळ्ळो की तांचे नदरेतल्यान तो मेळप, वो न मेळप हे गजालीक तसो अर्थ नाशिल्लो. कोंकणी भाशेक साहित्य अकादेमीन जर मान्यता दिवंक नाशिल्ली जाल्यार तांका तांच्या हयातींत तो दिसतलो आशिल्लोशें दिसना. कविवर्य पाण्डुरंग भांगींक तर अशावेळार मेळ्ळो की तांच्या कवितांच्या रसिकांचीय काळजां-मनां उत्फुल्ल जावंक पावलीं नात. बाकीबाब वो रामाणीबाब हे मराठींतय बरप करताले म्हूणय जावंये, देखून तांका कळाव लागलो; परंत भांगीशणै हांका हो पुरस्कार इतल्या उसरां कित्याक मेळ्ळो काय? अशा गजालीक साहित्यबाह्य कस लागना मूं? ह्या प्रस्नाचो सोद घेवचे बदला इतलो सुदीर्घ कळाव लागनास्तना आमच्या 'छोटा कवी'क हो पुरस्कार फाव जावचो अशें कोणाक तरी दिसलें हाचोच आनंद उगतावचोशें दिसता.

वेणिमाधवान *चंवरा*(१९६९)वरवी आपूण फुडारांतलो, कोणाचीय वो कसलीच समाजीक, जातिकाती वो राज्की विचाराची धिगी घेनास्तना, साहित्य अकादेमी पुरस्कार हातासपी कवी आसा म्हणपाचें दाखोवन दिल्लें अशें म्हाका दिसता. घडये अजापाय दिसत म्हज्या ह्या विधानाचें. रामाणीभशेन, ह्या कवीन *चंवरा*वरवी, आपूण निष्ठेन निखळ कविता बरोवपी

आसा, अशीच स्वताचे संबंदान प्रतिमा तयार केल्ली. ताणे स्वताचे प्रतिभेची निष्ठा कवितेकडेनच आसा म्हणपाचें *वताच्यो सांवळयो* (१९७२) ह्या दुसऱ्या झेल्यान पर्थून एक फावट सुचयलें. ताचो *उजवाडाचो रूख* (१९७९) उजवाडाक येतकच अल्पाक्षरी पूण अर्थघन कवितांचे दर्शन जालें. आतां ह्या कविची कोंकणी रचना मुंबयचे 'सत्यकथे'तल्यानय उजवाडावन येता म्हणपाचे साबारांक कळ्ळें. निष्काम, अव्यभिचारी काव्यनिष्ठा बाळगिपाचें असिधारा व्रत पाळटाना आपणाले प्रतिभेक होरायत हो कवी *पर्जळाचें दार* (१९८६) घेवन आयलो. ताचे उपरान्त बद्द, ताणे, एक तपापरसय चड कळावान, *यमन* (१९९९) हो साहित्य अकादेमी पुरस्काराक फाव असो कविताझेलो उजवाडायलो. हो पुरस्कार अडेच तपांच्या ताच्या काव्यनिष्ठेची तस्रीप जावन आसाशें म्हाका दिसता. तपस्काराक कितलो कळाव लागचो हाचेसंबंदान जशें जण एकल्याचे वेगळें मत्त आसू येता तशें असलो पुरस्कार दितना कवितेचे गुण पळोवचे बदला कवितेची वो झेल्यांची संख्या मतींत घेवपाची गरज आसा अशेंय एक मत्त मुखार येवंक येता. जीणभर कविता बरोवनय निमाणेकडेन एकच कविताझेलो उजवाडाक हाडल्यार एकूच झेलो आशिल्ल्यान कवीक असलो मानाचो पुरस्कार दिवंचो न्हय अशें विचारवंतांचो एक पंगड म्हणूं शकता वो सर्वोच्च पुरस्कार दिवपाखातीर कविताझेल्यांची संख्या पळोवपाची निखालस गरज ना अशें दुसरो पंगड म्हणूं शकता. वेणिमाधवाच्या झेल्यांच्या संख्येपरसय तपस्काराचो, कवितेकडेन आशिल्ले निष्ठेचो, कवितेचो उचित असो सन्मान जालो म्हणपाची म्हाका चड खोशी जाली. ताचो निमाणचो कविताझेलो *अव्यक्ताचें गाणें* उजवाडाक आयलो. तांतूतल्यान एका कविच्या प्रवासाचो आलेख सिद्ध करूंक संद मेळ्ळी.

स्वताली निष्ठा काव्य ह्याच साहित्यप्रकाराक ओंपिल्ल्या ह्या कवीन गद्य लेखन केलां तेंय कवितेसंबंदांतलेंच अशें म्हाका दिसता. हाताच्या बोटांर मेजूंक येत इतल्या संख्येतल्या लोकांनी साप्प थोड्या उतरांनी आपले अणभव व्यक्त करपी ह्या कविचेर आस्वादनपर वो समिक्षापर लेखन केलां. तातूंत 'माधव बोरकारालो *उजवाडाचो रूख* हो सु० म० तडकोडांचो *कोंकणी समीक्षण: तत्व आनी प्रयोग* (१९८९) ह्या पुस्तकांतलो लेख, कमलाकर म्हाळशींचो 'तुज्या सपनेल्ल्या गांवां' हे कवितेचेर बरयिल्लो *सुनापरान्त* ह्या दिसाळ्यांतलो लेख, 'गाढ अनुभुतिंचे कृष्णयामिनीचो पर्जळीत उद्गार: *यमन* हो डॉ० किरण जयन्त बुडकुले हांचें *सुनापरान्तां*(२४.१०.९९)तलें परिक्षण आनी सुरेश आमोणकारांचो *जागां*(डिसेम्बर, १९९९)तलो लेख मतींत घेवंक येतात. हेरांचे लेख उजवाडावन आयिल्ले आसत जाल्यार ते म्हज्या वाचनांत येवंक नात. ह्या कविच्या बरपावळीचेर कोणेय चर्चासत्रय दवरूंक ना. शालेय अभ्यासक्रमांत आस्पाविल्ल्यो तांच्यो कांय कविता आनी त्या कवितेच्या अर्थघनतेक लागून

तांचेर जाल्लो दुर्बोधतेचो आरोप सोडत जाल्यार हो कवी समिक्षकांचे नदरेन उपेक्षितच उल्लो अशेंय म्हळयार जाता. ह्या साबार बरपावळिचो कविचे सृजनशीळतेचेर मात्तूय परिणाम जावंक ना. उरफाटें, ह्या कवीक संवसारातल्या ह्या उलाढालिंचें इल्लेंय पडून वचूंक ना आनी तो आपणाले फुडल्या मस्तमत्त काव्यनिर्मणेचे तनरेंत सहजतायेन वावुरताना दिसता. हांचेंच म्हाका अपरूप दिसताः *खोल भिजिल्ले मातयेंत / आयिल्लें शेंत / तशें कवितेंत / मन म्हजें* (*यमन*, पानांक ८५) ह्या वळींतली तन्द्रा यमकांत आसा, अनुप्रासांत आसा, वर्णविपर्यांत (*शेंत>तशें*) आसा, सुघडतेंतय आसा. ही रचनाच वाचप्यांक हे वृत्तिची बेस बरी वळख करून दिता.

पयलेपणाच्यो कुरवांवांगडाच कंवळे पिरायेचें निरागसपण आनी फुडाराच्या आशावादाचेंय दर्शन जाता. देखून ताका सकाळच्या पारावेलो 'सूर्या देव हांसरो' दिसता. ताच्या येवपांत 'पानांतले दंवाचे थेंबे म्होव जावन गळटात'. सरभोवतणचे प्रसन्नतायेचें पडबिंब ताचे सभाववृत्तींत दिश्टी पडटा. भोंवतणच्या संवसाराचे उतळताप जाणवपा इतलो तो वाडूंक नाशिल्ल्यान हे कवितेंतल्यान 'सुखाचीं सपनां पळयत...', 'सगळें जग न्हिदता तेन्ना कविचें मन 'नाचता धोलता'. भोंवतणच्या सैमांत आपणाक विसरून गेल्लो हो भुरगो कवी सैमाचीं वेगवेगळीं चित्रां रेखाट्टा. सांजवेळचो तो न्हंयचे देगेर तिचे ओडीन वेता आनी खोशी जाता (पा० १३). केन्ना तो 'सुखाचे आशेन, मनाच्या मळबा वेल्यान, आनंदाच्या दर्या वेल्यान, जिविताच्या कुपां वयल्यान, आशेच्या दाट रानांतल्यान' उडटा, तेदेवेळार भोंवतणच्या मनाक ओड लावपी ह्या सैमाच्या निर्मात्या विशीं ताच्या मनांत कुतुहल निर्माण जाता आनी तो आपणाकच प्रस्न विचारता, 'असो तूं कोण?' (पा० २२) जाल्यार केन्ना ताचो गोंदळ जाल्लो दिसता. देखून, आपणाल्या जिविताची वाट वेंचून काडटना तो म्हणटाः *म्हाका जाय ती वाट मेळना! / वाटेक खूब फांटे फुटल्यात... / खंयचे वाटेन वचचें / तेंच म्हाका समजना* (पा० २३). जिणेच्या प्रवासांतले बरे-वायट अणभव घेतना ताका 'पयशांकूच खरो मान' अशें दिसूंक लागता आनी प्रस्नूय पडटा, 'जग अशेंच चल्लें जाल्यार / सगळेकडेन जातली घाण' (पा० ३२) जिणेंतल्या सौंदर्याचें अनाघ्रातपण सांबाळून दवरूंक जाय अशें मानपी हो कंवळो कवी म्हणटाः '*फूल फुलचें आदीं / कळो पिसुडल्यार / फूल कशें फुलतलें? / सुख येवचें आदीं / दुख्खाचें येवजिल्यार / सुख कशें येतलें?* (पा० ३७). जिणेंतल्या दुख्खांचे चिंतत बसनास्तना निखट्या कवितेचें, काव्याचें, काव्यात्मकतेचें, आत्मगततेचें आवाहन कवी कित्याक करता म्हणपाचें ह्या झेल्यांतच पुराय स्पश्ट जाता. देखून तर हांवे ह्या कवीन *चंवरा*वरवी, आपूण निष्ठेन निखळ कविता बरोवपी आसा, अशीच स्वताचे संबंदान प्रतिमा तयार केल्ली अशें सुर्वेक म्हळें! आपणाले जिणेचें व्हडें आपणेंच ताणून मुखार वचपाक जाय ह्या निश्चयान

कवी संवसाराच्या व्हड दर्यार वादळ-वाऱ्याक तोंड दिता (पा०३७). ह्याच वेळार ताचे जिणेंत मोगाचो अणभव पदक्षेप करता. तो तिच्या दोळ्यांत, मनांत 'बुडलां' म्हणपाचें मानून घेता (पा० ४०). ह्या अणभवा उपरान्त जिणेची सकाळच भांगरा सडो शिंवरत उदेता. तो चन्द्र-सुर्या भाशेन स्वतालें मन तिचेर 'मायेमोगान मोगाचोच शिंवर' करतलें म्हणपाचें सांगता. आपले वरी तिवूय आपणाचेर मोग करता म्हणपाची ताका पुराय जाणविकाय जाता तेन्ना तो म्हणटा: *तुजो म्हजे वेलो मोग / रातराणये वरी फुल्ला*'. पूण '*जगाचें हांशें आनी / म्हज्या मोगाचें पिशें / म्हजे तुजे मोगा-पास / आनी, आयची मोगाची आस / खूब घट्ट जायत गेल्या* (पा० ४३) हीच घट्ट जायत गेल्ली कंविच्या मोगाची आस आतां मोगिकेच्या वर्तुळांभोंवतणी उल्ली ना. ही आस आसा सैमाची, सैमांतल्या दर एका गजालीची. हीच आस फुडल्या कवितांझेल्यांनी चड तीव्र जाल्ली दिसता.

कंवळे पिरायेंतलीं सपनां, संवसारा विशिंच्यो आदर्श कल्पना, वेव्हारा विशिंचे अज्ञान अशा सुरक्षित वातावरणांत वाडिल्ल्या ह्या कविमनाक भोंवतणच्या वास्तवाची जाणविकाय जाता तेन्ना ताची कविता सहजतायेन जिवितांतल्या अन्यायाची, दुख्खाची जाण उक्तायता. 'म्हज्या जिविताच्या वांट्याक / येता फकत दुख' अशें खीणभर म्हणचें अशें दिसल्यारय 'पळोवया केन्ना येतलें / वांट्याक म्हज्या दुख्ख वचून सुख!' (पा० १४) असो आशावादी स्वर लायता. हेरां भशेन ह्या झेल्यांतल्या कवीक समश्टीचे निश्ठुरतायेचो, अन्यायाचो अणभव आयला आसतय पूण ताचे वेल्या मध्यमवर्गीय घराब्यांतल्या संस्कारांक लागून तो खंयच विद्रोहाचो सूर लायना. समजिकायेन जीण घालोवपी मनीस सुवार्थी नासता, सगळेंच आपणांकच जाय अशेंय मानपी नासता. जे सुवार्थी आसतात ते हेरांचेर जाल्ल्या अन्यायांचें भांडवल करून स्वतालो लाव सादपाचो भांगराखीण सोडिनात म्हणपाचें पुण्डलीक नायकांन *एक पोर नागडेंच उरतांत* बरें-बेस तरेन दाखयलां. अन्यायाआड *सूड घेवंक हात शिंवशिंवतात...पूण हांव हात फाटीं काडटां / कित्याक:* / हांवें *तशें करूं नज!*' (पा० ४४)

*चंवरांतले* 'कवि-कल्पना' हे कवितेंत कविविशिंच्यो स्वताल्यो कल्पना स्थूलतायेन मांडल्यात हेच ताचे कल्पनेक रूप मेळ्ळां तें 'वताच्यो सांवळयो' ह्या झेल्यांत. दर कलावंताचे कला-सृश्टींत ताचें स्वतालें एक अणभवविश्व आसता. कलावंताचें व्यक्तित्व, ताचो प्रतिभाधर्म आनी ताची अणभवपद्धती हांकां धरूनच ताच्या साहित्यांतल्यान अणभवाचें स्वरूप, प्रकृती आनी अभिव्यक्ती घडत वेता. कलावंताची अणभवाची प्रकृती दोन तरांची - पयली, भोवकेन्द्री आनी दुसरी- एककेन्द्री. कांय कवी जिविताच्या वेगळया वेगळया तासांचेर कविता करतात. ताका लागून तांचें अणभवविश्व वेगळे वेगळे रंग, रूप आनी आशय ह्या घटकांनी भरिल्लें आसता. जिणेच्या वास्तविक तासांक सदान्कदां तेळून तांचेर साहित्यिक

निर्मणी करीत रावपाच्या वावरांत प्रतिभेवांगडाच प्रज्ञेचीय गरज आसता. अशा तरेचे तपस्येक प्रतिभेचें वरदान नासत जाल्यार साहित्यनिर्मणी रुक्ष आनी गद्यात्मकच जावपाची शक्यता आसता. दुसरी- एककेन्द्रीत प्रकृतिचो साहित्यिकाचे अणभवविश्व एकाच विशया भोंवतणीं वो केन्द्रा भोंवतणीं भोंवाडे काडटा. देखून ताच्या साहित्यांत एकाच विशयाचीं वो अणभवाचीं विंगड-विंगड रुपांच दिसतात. जिणेच्या रोमॅण्टिक आंगांक वर्सांनवर्सां एकाच कॅलिडोस्कोपांतल्यान पळोवपाचीं तांक आसप हो काव्यगूण सामान्यतायेन लाबप शक्य नासता. प्रतिभेचें वरदान मेळटकच अशा कवींक कवितेची निर्मणी करचेली गरज पडना. तांका कविता *येतात*. रामाणींक कविता *येताली*. वेणिमाधव हो दुसरे प्रकृतीचो कवी म्हणपाचें होलमता. ह्याय कवीक कविता *येतात*शें दिसता.

रोमॅण्टीक कवितांच्या निमण्या काळांत बाकीबाब, भांगी, रामाणी हांच्या नांवांची प्रभावळ आशिल्ली. र० वि० पण्डित, पुण्डलीक नायक, नरेन्द्र बोडके, प्रकाश पाडगांवकार हांच्याय नांवांचो प्रभाव दिसतालो. रोमॅण्टीक आनी वास्तववादी बरपाच्या वातावरणांत वेणिमाधव बोरकार ह्या नांवाची सुलूस लागली. एकेवटेन समाजाचें शोषण, शारांतल्या मनशांचें तुटलेंपण, घराब्याची आनी संवसारीक जिविताची पडझड हांचेविशिंचीं चित्रणां येतालीं. राजकी घडामोडिंची चित्रणां मनोहरराय आनी उदय भेम्ब्रो सारकेल्यांच्या कवितांनी उठून दिसतालीं. वट्ट नदरेन पळयत जाल्यार समाजीक वास्तवतायेची जाणविकाय दिवपी आनी समाजीक बदल जावपाक जाय अशें आग्रहान सांगपी ह्यो कविता. कांय प्रमाणांत मोगाच्योय कविता ह्या कविंनी रचल्यात. वेणिमाधव मात ह्या दोनूय तरांच्या कविता परस आंतरीक निष्ठेकडेन चिकें वेगळें नातें दाखोवपी कविता घेवन आयलो. आत्मविस्वासान जिणेंतल्या सौंदर्यामुखार गाराणे घालपी कोंकणी कविता वेणिमाधवाची. कोंकणी कवितेन पयलेच फावटी एकचित्त जावन, एकवत राखून आत्ममग्नपणान आत्ममग्नप्रणाची, जिणेंतल्या सोबीतपणाची होरावणी केली ती ह्या सान बाकीच्या कवितांतल्यान. एकेच फावटी विशयापरसय आशयाच्यो आनी अभिव्यक्तीच्या तरांपरस प्रतितीच्यो संवेदना दाखोवपी, उतरांक नकसूद अशें स्थान दिवपी, अशी ही बरोवपाची धाटणी कोंकणी कवितेक खबर नाशिल्ली. अणभवाच्यो असंख्य दिको नियाळपी ही कविता कोंकणींत आयली. हेंच तें निजाचें विश्व. ह्या कवीन अशा विश्वाची निर्मण केली. देखून *हें एक नवें घराणें वयर सरपाक लागलां...आदल्या पांचूय घराण्यांच्या नात्यांतलें जायत पुणून वेगळें आनी स्वतंत्र* अशें रवीन्द्र केळेकारांक सांगचेंशें दिसलें घडये. (*वताच्यो सांवळ्यो*, पानांक दोन)

विसाव्या शेंकड्यांतल्या सातव्या दसकांतल्या वेणिमाधवाच्या ह्या झेल्यांतले कवितेंत सैमाची सुवात काव्याविशय म्हूण उणी आनी काव्यात्म अणभवाचें माध्यम म्हूण चड आसा.

ताचे कवितेंत सैम येता तें ताच्या भावानुभवाचें एक आंगयें (अंगभूत)माध्यम म्हुण्णूच. ते नदरेन 'साळकां' (पा० २) 'नातें', 'आस', 'तळ्या धडेर', 'त्रिपदी', 'तिजें आंग' वा 'पांचवें पालेल्लें रान' अश्यो ताच्या कांय कवितांची प्रतिती घेवंची. वास्तव आनी कल्पकताय हांच्या संयोगांतल्यान कवी साळकाच्या तळ्याची सोबितकाय वाडयता की तळ्याची सोबितकाय कवितांतले कल्पकतायेक अनवटपणाची कांत दिता म्हणपाचें कळना. मराठींतल्या बालकविचे 'औदुंबर' कवितेची याद जावची अशी ही काव्यनिर्मण. हातूंतल्यान मोगी-मोगिकेचेय संबंद सुचीत केल्यात पुण कविचें मन ह्या सैमा कडेन तितलें एकरूप जावंक ना. ताका लागून ताची 'एकसुरें एक तारू / थरथरता मळबा मेरेर' अशी अवस्था जाता जाल्यार केन्ना 'सपन जाल्लें' ताचें जिवीत 'जिणेचें तुटिल्ले सूर जुळयत हांगा रावलां...' (*तळ्या धडेर*) अशें म्हणत '*तिचीं गोरीं पावलां / हांव असो रेखीत रावलां / काळीज मोगा-मोगान न्हालां / जीण सुखा तळें जालां*' अशें मोगाचें ऐन्द्रीय रूप चितारता.

अशे तरेन बाकीबाब- पुण्डलीक नायक हांच्या काळांत समाजीक आशयाचे, अध्यात्मीक विशयाचे आनी मोगीक संवेदनशीलतेचे कवितांची बरपावळ उप्पाट जाल्ली आसतना आत्ममग्नतेची जाणविकाय उगतावन येवपाक लागिल्लो. बाकीबाब-पुण्डलीक हांची संवेदनशीलताय वेणिमाधवांत नाशिल्लीच अशें न्हय; परंत *उजवाडाचो रूखांत* पुण्डलिकाची समाजाविशिंची उपरोधक जाणविकाय, समाजीक परिवर्तनाविशिंची तीव्रतर संवेदना ना.

एखाद्रो साहित्यिक जेन्ना प्रामाणिकपणान आत्मगत काव्यानुभवाक भिडटा तेन्ना नवी प्रतिमा, नवीं प्रतिकां जल्माक येतात. वेणिमाधवान कोंकणीक नव्यो प्रतिमा, नवीं प्रतिकां दिल्यांत. ताका लागून हे कवितेंत आदले परस चिके वेगळी शब्दकळाय दिसता. कवितांच्या चरणांची रचनाय घट्ट विणिची कशी जाल्ल्यान तांतुंतलो आशय लेगीत एकसंध दिसता. काव्यानुभवाची मांडावळ करतास्तना सौन्दर्यशास्त्रीय रचनेचेंय भान दवरप हें कर्तुप आपशींच जाता. खंयच्याय साहित्यिकाक कळनास्तना तें साकार जाता. वेणिमाधवाचे कवितेतलो अक्ष सैम आनी मोग, आनी ह्या अक्षाचो प्लेटॉनिक परीघ म्हळ्यार नर-नारी संबंध. *चंवरांत*लो सैम आता तितलो निरागससो उरूक ना. आदीं दिसनाशिल्ली सृजनाची प्रक्रिया संवादी, केन्ना केन्ना विसंवादी, आत्मसंवादी, सखीसंवादी जावन काव्योत्सवाची मांडावळ करता. ते नदरेन 'सांज', 'थाव', 'मोगरी' ह्यो कविता प्रातिनिधीक आसात.

शब्दकळेच्या निमतान काव्याची भास नियाळपाची जापसालदारकी अभ्यासकाची. कवीन स्वताली निजाची काव्यभास सोदल्या आनी तिचेवरवी नवीशी घडयल्या अशें ह्यो साबार कविता वाचतना जाणवता. ही भास कोंकणीची सभाविकताय सांबाळटा आनी कवीन घेतिल्ल्या अणभवांची विश्वसनीयता तशीच दवरता. कविच्या अणभवांची ताजपाण,

ताचे अनुभुतिचें प्रमाणिकपण आनी उस्फूर्तताय हांणी हे कवितेचे भाशेक काव्यात्मकता हाडल्या. पूण हाचो अर्थ कवी आपणाले अणभव तश्यातशे कवितेंत हाडटा असो न्हय. अणभव पयलीं ताच्या मनांत भरता, थंय बिंबता. तो मनोमन ताका नवे रंग, रूप, आकार, अर्थ दिता. ह्या अभिव्यक्तिंत पोरण्या अणभवांचें संघटन करून स्वताली वेगळीच सर्जनशील प्रतिती दिवपाची तांक येता. परंत ह्या साबार प्रक्रियेंत केन्ना केन्ना कविता संदिग्ध, अस्पश्ट अर्थान सांपडना अशे आरोप हे कवितेचेर जाल्ल्यात. बाकीबाब हांचे प्रेमकवितेंतले प्रेयसींत तांची स्वताची घरकान्न आसूनय सांकेतिकपणान आनी राधा-कृष्णाच्या मोगाचो आलाशिरो घेवन शृंगाराचें चित्रण जाल्लें दिसता. ती काव्यभास धुंदून गेल्ली आसा म्हणपाचें प्रतितीक येता. धुंद प्रणयाचीं चित्रणां आसुनय रासवळ संकेतांक लागून कविच्या व्यक्तिगत मोगाचे भावनेच्या आविश्काराची चाकोरीबद्द् अभिव्यक्ती जाता. देखून हे कवितेंतल्यान आयिल्ले कविचे निजाचे अणभव निजाचे उरनात. ते सार्वत्रिक जातात. इंदिरा सन्ताचीय रचना प्रेमकवितेचीच. पूण ती चडशी घोवाच्या सहवासांतली आनी उपरान्त ताच्या विरहांतल्यान उप्राशिल्ल्या भावनात्मक प्रतिक्रियेचेर आदारिल्ली आनी देखूनच संकेतात्मक. हे फाटभूंयेर पु० शि० रेगे हांची कवितेची प्रतिती येत जाल्यार रसिकाक वेणिमाधवाच्या कवितेची नाट कळून येतली. अस्तुरीची सृजनशक्त पु० शिं०चे कवितेच्या अभिव्यक्तींत उगती जाता आनी जीवनोत्सुकततायेची प्रतिती येता. ही सृजनशक्त वेणिमाधवांतल्या प्रतिभाशक्तीकय भुलयता.

ह्या कवीचे कवितेंत अस्तुरी आनी दादलो हांचे मदले मुळावे ओडिचीं चित्रणां आयल्यांत. ह्या विंगड लिंगांमदीं कुडीचें आकर्शण उत्पन्न जाता तेन्ना ताका कामभाव आनी मनसीक आकर्शणाक प्रेमभाव वो मधुराभक्ती (प्लेटॉनिक लव्ह) अशें म्हणटात. अशा अर्थाच्या वर्णनांत वेणिमाधवान कामभावाचो अणभव कल्पकतायेन काव्यात्म उतरांत उगतायिल्लो दिसता. पु० शिं०ची अस्तुरी आदिबंधात्मक बायलेच्या पांवड्यार पावता तर वेणिमाधवाची अस्तुरी ही निखटी अस्तुरीच उरता. तिचे भ्रम-विभ्रम, तिची सैमीक संवेदना *पर्जळाचें दार* उगतें करता. 'थाव', 'फांतोड', आनी 'रगतांत रुजूं घाल्लो रोव' ह्यो कविता कोंकणी शारदेक लाबिल्ले अळंकारच. 'जोरगतीच्या भारान / फुटिल्लें / रगताचें एक ल्हार / दोळ्यां वाट्यां / परतलें...' (पा० ६) वाटेकच तिच्या येवपाची सुलूस लागतकच कवीक 'आंगभर चंवर फुट्टा आनी 'रंद्राचे मोर / थै थै नाचतात' (पा० ७) 'माथ्यार न्हाल्ले केंस सुकयतना / म्हाका दुसरें कांयच सुचना / फकत आंगार येतात फुलारून / तुज्याच स्पर्शांची रानां...' ही एक सनातन ओड. 'तुज्याच / लावण्याचो उत्सव / चलता मनांत / दीस आनी रात (पा० ७७). तिच्या लावण्याचें चित्रण आन तिचे तृप्त वृत्तिचे शब्दांकन आदलेवरी निरागसपणाचें उरूक ना. 'ती' ताका आव्हानात्मक दिसूंक लागली. एखाद्र्या

कवीक जेन्ना 'ती' आव्हानात्मक दिसता तेन्ना कवी वयांत येता अशें म्हळ्यार जाता.

*यमन* साहित्यमळावेलो पर्यायान वेणिमाधवाच्या प्रवासातलो मैलाचो फातर आसा अशें म्हणन दिसता. ही कविता नव्या तेजान अभिरूप जावन आयल्या. जिणेविशिंची निष्ठा उगतावन येवपाक नदरेची वृत्ती लागता. संवसाराकडेन पळयतना निखटे निरागसपण चलना तशेंच वयांत येवन चलना तर संयमित नदरेची वृत्ती लागता. अटंग्य रानांतल्यान वतना मनीस जर सळाबळा जायत जाल्यार ताका जिणेविशिंची नदर आयली अशें म्हणून चलचें ना. समतोलपणान जेन्ना जिणेविशिंची चिंतना करपाची तांक येता तेन्ना ताचे नदरेची वृत्तीय समतोल जावंक मजत जाता. बापायचें वात्सल्यरूप हो कोंकणी कवितेंतलो एके परीन नवो आविश्कार. *तुजें / जायवळ सांसपिताना सगळें विश्वूच / बाळकृष्ण जावन / म्हजे / व्होटयेंत खेळटा* वो *सगळ्या घरा-दाराक तेन्ना / म्हज्या अस्तित्वाचेच सासायेक / वसंत ऋतुची / पांचवी पालय फुट्टा* ही जाणविकाय संतृप्त अभिव्यक्तीची.

'ब्रह्म', 'खंय', 'तरी', 'गीत' ह्यो कविता प्रणयाक शांतचित्त नदरेन नियाळपाची बुनियाद दिता. *वृंदावनातल्यो सगळ्यो वाटो / आडायल्यो आडांगी कृष्णान / करतली कितें राधा / गोपांत ताच्या विसल्ली भान* ('भान'). जयदेवाच्या 'गीतगोविंदां'तलो प्रणय उत्तान जाता तसो जायना. अल्पाक्षरी कवितेंत सुचकता आसता, हीच ती नदरेची वृत्ती आनी तेंच अशा बरपाचें मूल्य. *चान्न्यांत भिजिल्ल्या ओल्या भानाक, पर्मळाची तान फुट्टा* आनी *रातभर सपनांच्या गांवांत'* पर्जळपी नखेत्रां *आगळेच तृप्तीन / फांतोडेच्या पोशांत / झडटात.* वासनाहीन खरी पूण निश्काम न्हय अशी ही सुचकता. *मनाचें वृंदावन / राधा आनी कृश्ण / यमुनेचें पाणी / आज कितलें उश्ण.* मीलन जावपाच्या क्षणाचें हें इतलें सुचकतायेन वर्णन कवीचे तांकीची जाणविकाय करून दिता. कालिंदीच्या डोहांत कालियाकडेन झुजपी वा *बुडल्यो तडी तरी / पैल सादता कोण / पावस शिरंधारांचो / भेटलो राधेक कृष्ण* वो *गोविंद गोविंद / यशोदेचो गोविंद / गोकुळांतलो गोविंद / गोपींचो गोविंद / राधेचो गोविंद / मिठयेंत मुकुंद / विश्वरूप* असो दिसपी कृष्ण अचकित *गगनाक भिडटा* परंत राधेचो कृष्ण हो काळजांत रिगता. कवीक एकच कृष्ण कसकसो दिसता आनी उपरान्त ताची कविता कृष्णरूप जायत वेता, हें दिसप म्हळ्यार अंतर्गत लयीन साधिल्लो आत्ममग्नतेचो आविश्कार, प्रतिभेचें विलोभनीय दर्शनच. अशा कवितेचे निर्मणेचो सोद घेवपाखातीरय नदरेची वृत्ती जाय पडटा. खरें म्हळ्यार कोंकणी कवितेंन राधा-कृष्ण ही प्रतिमा विपुल प्रमाणांत केळयल्या. एखाद्र्या अभ्यासकान ते नदरेचे वृत्तीन वट्ट कोंकणीतले ह्या प्रतिमेचीं तासां नियाळपाचें चिंतीत जाल्यार तुलनात्मक अभ्यास करूंक संद आसा.

*म्हज्यो कविता / तुजींच सपना सपनेतात / हांव खऱ्यांनीच जाणां आसतां / तूं म्हजे*

*पासून पैस ना* वो *तुज्या स्वासाचीं फुलां  / काळजांत म्हज्या / घमघमतात* ह्यो वळीं वो ‘कवाड’, ‘केळ’, ‘पातें’, ‘सकाळ’, ‘चान्नें’ ह्यो कांय कविता एक खीणभर आयिल्लो अणभव उतरांतल्यान स्तंभित करतात. मोगी मनशांचे एकमेकांत आनी सैमांत जाल्ले तादात्म्य कोंकणी कवितेक एक नवेंच रुपनिश्ठ स्वरूप दिता. ताचे अणभवविश्व एककेन्द्री आसूनय एकांगी जावंक ना. तें आत्मनिश्ठ आसुनय आत्मकेन्द्री जावंक ना.

कवीचोय एक ताल आसता. हो ताल जाणें ताणें सांबाळचेलो. कवीक जेन्ना तो बेसबरो सादलो तेन्ना भुंयेर पांय घट्ट धरून पण्टेच्या उजवाडाक काळखाचो थाव फुटिल्ल्याचो साक्षात्कार जालो, मोनेळींत रुजून फळटना विन्सेण्ट व्हॉन गॉगय याद जालो, किशोरी आमोणकाराचो सूर लयब्रह्म चंवर सो दिसलो आनी *यमना*◌ाचे सूर ताच्या मळबांत नखेत्रां पेटोवंक पावले. कवी जशी स्वान्तसुखाय कविता बरयता तशेंच वाचपीय स्वान्तसुखायच आसू येता ही गजाल आयजचें विचारविश्व मतींत घेताच अशें म्हणूं नज. कविता ही किंवाट्यान सांगची आसता अशेंच मत्त जावंक लागत जाल्यार स्वान्तसुखाय सारक्या गजालीक गुरूत्व लाबना. कविता मतींत, मनांत रिगूंक जाय अशें म्हणपाचें हें यूग आशिल्ल्यान कविता रसिकाच्या काळजांतय वेटाळून रावता, तिणें तशें रावंक जाय, ती एकांतांतय गुणगुणपाक येवंक जाय हे गजालीकडेन आडनदर करतल्यांक तशें पटून दिवपाचें हें यूग उरूंक ना.

स्वताल्याच अणभवाक आत्मनिश्ठेन स्वताल्या उतरांनी बद्ध करपी हो कवी कवितेकडेन आयज आसा तसोच प्रामाणिक उरचो अशी मनोकामना कवितेचो पुजारीच उगतायतलो.

# आधुनिकतावाद आनी कोंकणी कथा

म्हजें हें टिपण म्हळयार कोंकणी कथेच्या इतिहासाचो नियाळ न्हय. तशे तरेचे नियाळ कांय जाणांनी हाचे आदीं घेतल्यात. हांवेंय कांय वर्सां फाटीं 'कुळागर' (जून-जुलाय १९९२) ह्या नेमाळ्यांतल्यान कोंकणी कथेचो इतिहासीक नदरेन नियाळ घेतला. आयज कोंकणी कथा ज्या मोडणार उबी आसा तिचे कडेन पळयतकच कांय गजालींचेर विचार करप गरजेचें दिसता म्हूण हो लेखनप्रपंच.

शणै गोंयबाब हांचे वज्रलिखणींतल्यान कोंकणी कथेची धारा स्त्रवूंक लागली (१९३०-३५) तेन्ना संवसारांतल्या कथासाहित्यान उत्कर्षाची तेंगशी गांठिल्ली. इतलेंच न्हय तर कथेच्या रुपाविशीं, तिच्या आशयाविशीं टिकाकार उलोवंक लागिल्ले. कथा ह्या साहित्य प्रकारांत जिविताचें दर्शन घडोवपाची एक खाशेली तांक आसा ही जाणविकाय अदीक स्पश्टतायेन जावपाक लागली.

रुपवादी वा कलावादी नदरेन चिकित्सक अभ्यास वो तिच्या वस्तुरुपाचो अभ्यास करपी दृश्टीकोण (FORMAL APPROACH) तिच्या वस्तुरुपाचे निर्मणे फाटलीं कारणां सोदपी दृश्टीकोण (GENETICAL APPROACH) आनी काळ-कळावाक अनुसरून परिवर्तनाची, इतिहासिक नदरेन, तुळा जाणविकाय दवरपी दृश्टीकोण (HISTORICAL APPROACH) मांडून कथा ह्या साहित्यप्रकाराविशीं विचार करूंक येता.

रुपवादी दृश्टीकोणांतल्यान कथेची अंतर्गत चिकित्साय करप गरजेची गजाल. तातुंतल्यान तिची व्याख्या, तिचे घटक, तिचो आवांठ, वातावरण निर्मिती आनी हांच्या मजतीन साकार जाता ते एकात्म लेखनाचे शैलिचो विचार जावंक येता. कथेच्या बरपावळीच्यो जायत्यो तरा, देखीक रुपक कथा, ललित-गद्यात्मक कथा, आत्मनिवेदनात्मक कथा ह्या दृश्टीकोणांत येवंक पावतात.

दुसरे तरेच्या दृश्टिकोणांतल्यान समीक्षक एकाद्री कथा विशिश्ट पद्दतीचीच कित्याक हें सांगपा खातीर निर्मणे फाटल्या कारणांचोय सोद घेता. शणै गोंयबाब हांच्या वेळची कथा तशीच कित्याक हाचें कारण त्या वेळावयले समाज परिस्थितींत आसा तशेंच ते लेखकाचे एके विशिश्ट भुमिकेंतूय आसा. वाङ्मयीन आनी समाजीक चळवळी, लेखकाचो पिण्ड, ताची जिविताकडेन पळोवपाची दृश्टी ह्या घटकांचोय परिणाम कथेचे संघटनेचेर जावं येता.

तिसरे तरेच्या दृश्टिकोणांत कथेतली परिवर्तनां खंयच्या समाजीक आनी वाङ्मयीन कारणांखातीर जातात हे विशिंचो विचार जावं येता.

हे दृश्टीकोण कित्याक मानपाक जाय? जाल्यार कोंकणी कथेक नवे दृश्टिकोणांतल्यान

पळोवपाखातीर ही फाटभूंय जाणा जावप गरजेचें आसा. १९१०च्या सुमाराक आधुनिकतायेचें वारें व्हावूंक लागलें. पुराय मनीस कुळयेच्या सभावांतच वेगळेपण आयलें आनी जिविताच्या सांगातान साहित्याकडेन पळोवपाची दृश्टी बदल्ली. विज्ञानीक उदरगतीक लागून भोंवतणच्या वास्तवांत कांय मुळावी परिवर्तनां जातात आनी तांका अनुसरून मानवी संस्कृतायेच्या जायत्या पांवड्यांचेर आनी घटकांमदीं परिवर्तनां जावप सभावीकच. धर्म, कला सारकेल्या संस्कृतायेच्या पोरण्या घटकांत हीं परिवर्तनां घडटना परंपरीक, प्रस्थापीत गजालिंचे सुवातेर नव्याची स्थापना करतना कलावंत कांय प्रमाणांत स्वताली मत्तां, विचार जुळोवन घेता. अशे तरेन जुळोवन घेवपाची आनी परंपरीकाक नवें रूप दिवपाची मनसिकताय म्हळ्यार आधुनिकतावाद. वाङ्मयकृतिंचो कलावादी भुमिकेतल्यान विचार जावंचो हो आधुनिकतावादाचो दृश्टीकोण.

वाङ्मयाच्या मळार आधुनिकतायेची ही नवी संकल्पना रोमॅण्टीक चळवळींतल्यान येवंक ना. तर ती देव आनी धर्म हांका पर्याय म्हूण निर्माण जाली. तो निखटे लेखनशैलिचो आविश्कार सोदपाचो येत्न न्हय. अन्तरंग आनी बहिरंग धवळून काडपी नवी प्रभावी विचारप्रणाली आधुनिकतावादी संप्रदायाक साकार करूंक पावली. ह्या संप्रदायाचे विशेश रोमॅण्टिसिझमापरसय वेगळे आनी स्वतंत्र आसात. स्वातंत्र्य, समता, बंधुता, परंपरिकांच्या विरोधात बण्ड, सैमाचो मोग, गूढ भूतकाळाविशीं आकर्शण, अप्राप्याविशिंची ओढ अशे रोमॅण्टिसिझमचें विशेश आशिल्ले अशें म्हणूं येता. तर धर्माचें म्हत्व उणें करप, बुद्धीप्रामाण्यवाद, विज्ञाननिश्ठा, स्वातंत्र्य, समता, बंधुभाव, मनीसकुळयेचें हीत सांबाळप, व्यक्तिवाद, अस्तुरीची सन्मानजनक जपणूक, मनशांच्या परस्पर नात्यांतलें परिवर्तन, इतिहासाचें भान बाळगप ह्यो गजाली आधुनिकतावादाच्यो विशेशतायो आसात अशें सांगूं येता.

रोमॅण्टिसिझमांत एके तरेचो आशावाद आशिल्लो पूण आधुनिकतावादांत आशावादाचो अभाव आसा तशेंच खंयच्याच भायल्या आकर्शणांतल्यान इतिहासाविशिंचो मोग येवंक नासल्यारय तो नवे जाणविकायेचो वांटो म्हूण येता. आधुनिकतावादाचो संबंद कलेंतले प्रयोगशीलतेकडेन आसा. देखून बरोवप्याच्या व्यक्तिमत्त्वापरस कलाकृतिची एकात्मताय, सलगताय आनी अर्थपूर्णताय, आकार (FORM) ह्यो गजाली म्हत्वाच्यो मानूंक येतात. टि० एस० एलियट हाणे कलावंताच्या व्यक्तिमत्त्वाचो आविश्कार कृतींत जाता हें न्हयकारलें. It is not an expression of personality, but an escape from personality ह्या तत्त्वांतल्यान जाणविकायेचो अर्क घेतकच *व्यक्ती* हें केन्द्र वचून *कलाकृती* हें केन्द्र जावंक येता. बरोवप्याक कितें दिसता हें म्हत्वाचें नासून धर्माचें म्हत्व उणें करप, बुद्धीप्रामाण्यवाद, विज्ञाननिश्ठा, स्वातंत्र्य, समता, बंधुभाव, मनीसकुळयेचें हीत सांबाळप, व्यक्तिवाद, अस्तुरीची सन्मानजनक

जपणूक, मनशांच्या परस्पर नात्यांतलें परिवर्तन, इतिहासाचें भान बाळगप, ह्या मनशाच्या उदरगतींतल्या घटकांक समजून घेत कलाकृती कशी साकार जाल्या हे गजालीकडेन नदर पावपाक जाय अशें म्हणू येता.

म्हणटकच आधुनिकतायेचो अर्थ पुराय जावचो देखून रंजन, बोध, प्रबोधन, वाचप्यांकडेन संवाद, परंपरागत नितिमुल्ल्यां हांका बरपावळीच्या हेतांचे वळेरीतल्यान कुशीक काडचें पडटा. जिविताचो वो अणभवाचो अर्थ समजून घेवपाखातीर नव्या साहित्यप्रकाराचे निर्मणेची गरज ना. नव्यानच जिविताचो अर्थ समजून घेवपाचो वेळ आयिल्ल्यान कांय काळ-कळाव लागतलो. तो मेरेन कांय संकल्पना दुर्बोध जातल्यो. जिविताची व्यामिश्रताय खबर नासत जाल्यार तिचें आकलन जावंकय काळ-कळाव लागू येता. पूण निखटे साहित्याच्या संदर्भांत चिंतचें जाल्यार आशय आनी अभिव्यक्तीची एकात्मता म्हत्वाची मानूंक येता. आधुनिकतावादाचो आलाशिरो घेत जाल्यार निखटीं भावचित्रणां, निवेदनात्मकता टाळची पडटात. उपरोध, परात्मभाव (alienation), प्रतिमांच्या आदारान अभिव्यक्तिची एकात्मताय सादप ह्या गजालीकडेन आधुनिकतावादाचें चड लक्ष आशिल्लें. प्रतिमासृश्ट सैमाच्या सांगातान मनशाच्या सपन संवसारांतलीय आशिल्ली. बरोवप्याचेर आपूण हेरांपरस वेगळो वो दायजाकडेन फाट करीना अशें दाखयतास्तना कळत-नकळत हेर भासांच्या विंगड-विंगड साहित्याचो संदर्भ दिवपाचो ताण येतालो. वाचप्यांचेर नदर मोखून ताका हो द्राविडी प्राणायाम करचो पडटालो; परंत कथानक, घटना, व्यक्तिरेखा, भाशाविश्कार हांचेकडेन आडनदर करून आशय आनी अभिव्यक्तीचो एकवट सादपाच्या येत्नांत भोंवतणचे जिविताकडेन आडनदर जावं येता.

परमेश्वराच्या अस्तित्वाचेर श्रद्धा न दवरपी आधुनिकतावाद मनशाच्या अस्तित्वाकडेन आनी जिणेंतले स्वताखातीर घेतिल्ले निर्णयाची जापसालदारकी स्वताचेर घेवपाची तांक मनशाक आत्मनिर्भर आनी आत्मविस्वासपूर्ण घडयता. मनशाच्या व्यक्तिमत्त्वाचें हें एक झगझगीत तास. स्वताल्या चुकांखातीर हेरांक जापसाल्दार न मानपाची वृत्ती ही स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाक आकार दिता, ताका साकार करता. काळाचें स्वरूप आनी काळाची गरज पळोवन मनशाक भितल्ल्यान जी प्रेरणा मेळटा तीच मनशाचें भवितव्य घडयता, देखून स्वतंत्र जिविताक ती प्रेरणा गरजेची अशें मानूं येता. ह्या पांवड्यार पावतकच नियतीशरणतेक, परात्मभावाक, निर्शेवणीक, मिथ्सांक, आदीम श्रद्धांक, दन्तकथांक समजून घेवन तांचो नवो अर्थ लावपाचो येत्न करूं येता. हीच ती मनशाक भितल्ल्यान लाबिल्ली प्रेरणा. तिची काळाच्या आनी मुल्ल्याच्या आंगांनय जाणविकाय जावं येता. हेंच तें कालभान आनी मूल्यभान. तें जितलें कलात्मक तितलें आधुनिकतावादी. आधुनिकतावादी साहित्यांत दिसपी मानवी जिविताच्या परिस्थितीची कारणां सोदीना, कारणांच्यो जापो दिवंक सोदीना, निखटे प्रस्न विचारता.

हे फाटभुंयेर कोंकणी कथेचो विचार करतास्तना फाटल्यो चार पिळग्यो मतींत घेवंच्यो पडटात. शणै गोंयबाब सावन आयजमेरेन कांय कथाकार आयज नात, कांयजाण अचकीत थांबले, कांयजाणांनी हेर लेखनप्रकार केळयले. आयज कोंकणी कथालेखन जायत आसा तें कवितेच्या निर्मणेफाटोफाट मोठ्या संख्येन अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. सुर्वेच्या कथाकारांची कामगिरी तशी दैदिप्यमानच. एकापरस एक बरी कथा बरयतना भावचित्रण सादलें, नवे वाटार हाडले, नव्यो व्यक्तिरेखा हाडल्यो, मनोविश्लेशणात्मकताय दाखयली, अस्तुरीचें व्यक्तिमत्व रेखाटलें. आयजचो लेखक विंगड-विंगड भाववृत्तीतल्यान जिणेचो अणभव घेवपाचो आनी तो समजून घेवन मांडपाचो येत्न करता व्हय? ताच्या दोळ्यांमुखार जितली सृश्ट आसा ताचेपरसय सुदूर वाटारांत ताण-तणावांची वृश्टी जायत आसा पूण ती विविधरुपी जीण आनी तिचीं साबार रुपां ताच्या कथेंत येता व्हय? अशे तरेन निखटे संख्यात्मक नदरेन वाडिल्ली कथा जिविताचें सत् उत्कटतायेन समजून घेवंक पावल्या काय? कोंकणी कथेक आधुनिकवादाचीं तत्वां आनी मूल्ल्यां कितली होलमल्यांत आनी ती आपणावचींशें दिसलें? अशें कांय प्रस्न विचारचें अशें दिसता. ती आजूनय कितलो काळ आशयाची बाजू कृत्रिमतायेन रंगोवंक घेतली? भौशीक ताण-तणावांत आनी गांवगिऱ्या वाटारांतल्या जिवितांत आधुनिकतावादाचीं तत्वां सोदूंक ती केन्ना रस घेतली? आधुनिकतावादांतले घटक नियाळून घेत जाल्यार घडये कांय शीमेमेरेन ह्या प्रस्नांक जाप मेळूंक येतय बी.

# कोंकणी 'एकांकि'च्या निमतान

भारतीय नाटकाचे परंपरेन 'रुपक' ही पारिभाशीक संज्ञा नाटकाखातीर आपणायलेली मेळटा. संस्कृत साहित्यशास्त्रांत नाटकांतल्या आंकांची संख्या, नाटकांची कथानकां, नाटकाचे प्रकार, रस आनी शैली हांच्यावेल्यान ताचे विंगड-विंगड अशे धा प्रकार मानल्यात. अशा रचनांक 'दशरुपक' अशें मानतात. नाटक ह्या रुपक प्रकारांत निखटो एकच आंक आसता जाल्यार 'अंक' नांवांचो रुपकाचोय एक प्रकार मेळटा. ताका 'उत्सृष्टिकांक' अशें म्हुण पाचारतात. *भाण*, *वीथि*, *व्यायोग* हे आनीक रुपकप्रकार एकूच आंकी आशिल्ले. तांचें स्वरूप नाटकाच्या मेकळ्या आंकापरस पुराय वेगळें. 'भाण' हें रुपक एकपात्री आसता. 'व्यायोग' एकांकींत दादल्या-व्यक्तिरेखांची संख्या चड आसता. झुजांप्रसंगांनी रौद्र आनी बीभत्स रस हांचो प्रभाव चड प्रमाणांत दाखयतात. जाल्यार 'वीथि' हे एकांकींत एक वो दोनूच व्यक्तिरेखा आसतात. हांगसर 'आकाशभाषित' वो आपउलोवण्याचो उपेग मुखेलतायेन केल्लो आसता.

एकांकींत मनशाच्याच मना-काळजाचें चित्रण येवं येता. पूण केन्ना व्याप्ती उणी आनी खोलाय चड तर केन्ना व्याप्ती चड आनी खोलाय उणी अशे रितीन जिणेतलो आशय एकांकींत येता; परंत परिणाम मात एकेच भावनेन ओतप्रोत. म्हळ्यारच संस्काराचो एकेरी परिणाम ही एकांकिची स्वतंत्र विशेशताय. देखून एकांकींक आमीं एक 'स्वतंत्रपणान आविश्कार करपी कलाकृती' अशें म्हूण पळयतांत. तुळा करीत जाल्यार कथानक, उपकथानक, विंगड-विंगड भावनाचें खरायेन केल्लें चिंतप, मनशांतल्या परस्परसंबंदांचे घडणुकांच्या आदारान केल्लें चित्रण नाटकांत येता. जिविताच्या व्हडल्या वांट्याचें-भागाचें दर्शन नाटक घडयता. नाटकाचे साबार गूण घेवन जरी एकांकी आयली जाल्यारय *पिण्डी तें ब्रह्माण्डी* अशेंय म्हणूंक येता. मराठींत अशे प्रयत्न जाल्यात आनी ते ज़ैतिवंतय जाल्यात. हो वाङ्मयव्यवहार वट्ट साहित्याच्या विकासाक उत्तमच. तरीकूय नाटक आनी एकांकींत भेद-वेगळाव आसताच. तशें पळयत जाल्यार कवितेंत, कथेंत, नवलिकेंतय एकांकिचीं रूपां दिसून येतय बी. म्हण्टकच आकारावांगडा विधाय एकांकीक जल्म दिवंक पावता; परंत अशा रुपाक रंगमाचयेर सादर करप भोवच कठीण. *खामसुत्री* जावं वा *एक पॉर नागडेंच उरता* जावं तांका फावता तोच फॉर्म तांणीं घेतलाशें दिसून येतलें. 'मर्णकटो'ची अभिव्यक्ती ही नाटकांच्या रूपान हाडपाचो येत्न जाल्लो जाल्यार आशयाच्यो वादऱ्यो वादऱ्यो जावपाच्यो. वाङ्मयव्यवहार हो अभिव्यक्तीचो फाव तो मान राखूनच करपाचो आसता. म्हाका तर मर्णाचो, आत्महत्येचो वेपार करपी 'तो' मनीस म्हळ्यार जिणेचें मर्म समजून घेवपी एके तरेन आकाशभाशितच

करताशें दिसता. ताच्या उलोवण्यांत मर्णाचेर वो जिणेचेर कल्पनारम्य भासाभास ना म्हणपाचें होलमतलें. निर्शेवणी दिवपी सरभोंवतणच्या वातावरणाक उबगून बेजारिल्ल्या मनशाक, आत्महत्येक आयिल्ल्या तरनाट्याक जिणेचीं आव्हानां स्विकारपाची प्रेरणा मेळटा. खरें तर कांय पात्रां आसूनय म्हाका तर 'तो'च साबारांत घुसून बसला आनी ताका जाय ती भास तीं पात्रां उलयतातशें दिसता आनी वट्ट एकांकी म्हळ्यार एकेभशेन आकाशभाशितच जाता. देखून संस्कृतांतल्या 'वीथी'ची ही कोंकणी आवृत्ती अशें म्हणनशें दिसता. हो प्रत्यय एकांकिचोच. एकाच अणभवाचे अभिव्यक्तिचें एकसंधपण आनी एकसंधपण ही एकांकिची जाणविकाय. ती नाटकांत विंगड-विंगड अणभ्नव आकारतात आनी एकारतात.

कोंकणीचेर, आडवाद सोडत जाल्यार, ह्या साबार गजालींचो प्रभाव आसाशें दिसना. आर्विल्ल्या तंत्राच्या कोंकणी नाट्यरचनेचो आरंब अस्तमतेकडल्या देशांत व्हडविकेक पाविल्ल्या साहित्यप्रकाराच्या संपर्कान आनी उपरान्त ताच्यातल्या कांय कृतींच्या अणकारान जालोशें दिसता. पुर्तुगेज, फ्रांसेज आनी इंग्लेज ह्या भासांतल्या साहित्याच्या अभ्यासान कोंकणींतय साहित्यप्रकारांची भर पडली, एकांकिचीय. कोंकणीचे पयले एकांकिकार रामचन्द्र नायक हांणी *चवथिचो चन्द्र* सोडल्यार हेर एकांकी पुर्तुगेज आनी फ्रांसेज भासांतल्यानच अणकारीत करून कोंकणींत हाडल्यो. आदीं जी कोंकणी एकांकी लोकनाट्याच्या स्वरुपांत अस्तित्वांत आशिल्ली तिका आटीव, बांदीव रुपाचो आदर्श घालून दिलो. ह्या प्रयोगाचो लाव उपरान्तच्या एकांकिकारांक निश्चितच जाल्लो आसूये.

*चवथिचो चन्द्र* ही रचना खऱ्या अर्थान एकांकी न्हय अशें कांय जाणांक दिसतय बी. तिका *चवथ* आनी *पंचम* अशें दोन आंकांचें रुपडें लाबिल्लें आसा देखून ते एकांकिच्या वट्ट गुणात्मक परिणामाचेर वो एकवताच्या प्रभावाचेर भासाभास करूंक येतय बी. परंत दोन प्रवेस आशिल्ली एक एकांकी अशेंय म्हणूंक येता हें विसरायेर घालूंक येनाशें दिसता. तांच्या उपरान्त जायत्या लेखकांनी एकांकी बरोवन कोंकणींत मोलाची भर घातल्या. १९५० सावन १९६० ह्या दसकांत म्हळ्यार पुण्डलीक नारायण नायक लेखक म्हूण स्वताली लखलखीत नाममुद्रा तयार करपाच्या तेंपार मुंबयंत व्हडा प्रमाणांत कोंकणी एकांकी चळवळीचो आरंब जालो. ते भायर हेर भारतीय भासांतल्यान नवकथा, नवकविता, नवनाट्य सादर करपाचें आंदोलन आकार धरूंक लागिल्लें. कलानिर्मिती वो साहित्यनिर्मण करपाचे नदरेंत परिवर्तन आयलें. कलेच्या मळार नवे नवे प्रयोग जावंक लागले. नाट्यकलाय हांतुंतल्यान सुटली ना. ह्या साबारांचें पडबींब 'कोंकणी नाट्य महोत्सवां'त वांटो घेवपी कोंकणी लेखकांच्या बरपावळींतय दिसतलें.

किसन कामत, अशोक कामत, रघुवीर राम नेवरेकार, विनय म० सुर्लकार, विश्वनाथ

संझगिरी हे तेदेवेळचे गाजिल्ले एकांकिकार. वयर उल्लेख केल्ले एकांकी सर्तीक लागून तांणीं एकांकी बरयिल्ल्यो. तांच्या एकांकिंचें स्वरूप चडशें विनोदी आनी फार्सिकल. रंगमाचयेची गरज वळखून तिची परिणामकारकताय आनी प्रयोगक्षमतायेकडेन लक्ष दिवपी. बाप्पा, पोपेबाब वो प्रातिनिधीक घोव-बायलां घेवन ह्यो विनोदी-फार्सिकल एकांकी आकाराक आयल्यात ह्या निमतान मेजकीं पात्रां आनी चटपटीत संवाद हांतुंतल्यान विनोदाची निर्मणी सादपाचो येत्न जालो. शाळा-महाविद्यालयांच्या वर्सुकी संमेलनांनी, जात्रांनी, काल्यांनी मनोरंजन-करमणूक करपाखातीर ह्या एकांकिंचो उपेग जावपाक लागलो. ह्या कारणान त्यो एका मर्यादीत स्वरुपांतच कितलोसोच तेंप उरल्यो. एकांकिचे साहित्यरूप अशी नदर दवरपाची मोख नाशिल्ल्यान अशें घडलें आसूये. ताका लागून त्या तेंपार गंभीर विशयाचें तें नाटक जाल्यार हांसोवन करमणूक करपी ती एकांकी अशें समीकरण जाल्ल्याची नोंद पुण्डलीक नारायण नायक कित्याक करतात तें त्या काळांतल्या एकांकिंचें स्वरूप पळयतकच लक्षांत येता.

विनोदी वा प्रहसनात्मक अशा एकांकिभायर गंभीर आनी रहस्यपुराय अशोय एकांकी बरोवचेलो येत्न ह्या काळार जाल्लो म्हणपाचें दिसून येता; परंत आडवादानच. सुर्लकारान हे दिकेन प्रयोग केल्लो अशें म्हणूं येयत. मनशाचो स्वभाव आनी तांतुंतल्यो विसंगती ‘बाप्पा’ च्या प्रतिनिधीक चित्रणांतल्यान सूक्ष्म विनोदाचीय निर्मणी तांणीं केल्ली दिसता. किसन कामत हांणी विनोदी एकांकिच्या लेखनातल्यान जिणेच्या कांय मुळाव्या प्रस्नांक मतींत दवरून बरप केलें. घराब्यांतलें आनी समश्टीतल्या जिणेचें वास्तव संघर्श आनी समन्वय (तडजोड) हांच्या समजिकायेंत आसता अशें विश्वात्मक सत् सांगपाचो येत्न जावन गेलो. ते भायर बरपावळीच्या हेर मळांर स्वताली नाममुद्रा उठोवन दाखोवप्यांतले कांय जाण एकांकिच्या बरपांत रस घेवंक लागले. तातूंत मनोहरराय लक्ष्मणराव सरदेसाय, रवीन्द्र राजाराम केळेकार, प्रकाश थळी हीं कांय नांवां. तांणींय शाळा-महाविद्यालयांच्या वर्सुकी संमेलनांनी तशेंच गोंय शासनाच्या कला अकादमीन घडोवन हाडिल्ल्या सर्तींनी वांटो घेवपाखातीर हें एकांकिलेखन केलें. *स्मगलर* आनी *साखरभात* हे सरदेसायांचे एकांकी झेले. तातूंत तांच्या काव्यगुणांचें कांय प्रमाणांत दर्शन घडटाच. केळेकारांनी कोंकणींक *मुक्ती* आनी *तीन एके तीन* अशे झेले दिले. हांतुंतल्या कांय एकांकिंचो आशय हेर भासांतल्या कथा आनी नाटकुल्यांच्या आदारान बेतला. ह्यो आशयसंपन्न एकांकी रंगमाचयेर करपाखातीर प्रयोगाचे नदेरन व्हडल्योश्यो जैतिवंत जावंक नात. ह्या उपरान्त नांव घेवपासारकें म्हळ्यार मुदलाक अभिनयसंपन्न आनी दिग्दर्शनांत गुणसंपन्न आशिल्ले प्रा० थळी. विद्यार्थिदशेंतच नाटकाचे चळवळींत स्वताक ओंपून घेतिल्ल्या ह्या अभिनेत्यान प्रयोगक्षम एकांकिलेखनाच्या मळार

उपकारा पडत अशीं *वेटिंग फॉर घासलेट* हें मराठीतल्यान आनी *तीन खेतीं शाणी सुरती* हें कोंकणी पुस्तक बरयलें. तांका उचित सांगात दिवपी दिलीप बोरकार, दिगंबर शिंगबाळ, दत्ताराम बांबोळकार, श्रीधर कामत बांबोळकार, शशांक सिताराम अशा कांय जाणांनी स्वताली उपस्थिती दाखयली. हे एकांकिलेखनाचें प्रयोजन मनोरंजन अशेंच आशिल्लें. प्रसंग आनी मनीस हांचेर आदारून समाजांतली, मनीस स्वभावातली विसंगती वेल्यावेर दाखोवपी अशी ही एकांकी. हे एकांकींत तंत्राचो वो रचनेचो प्रयोग जाला वो मनशाच्या स्वभावाचें तपशिलान वो खोलायेन चित्रण केल्लें आसा अशेंय म्हणूंक जावंचें ना. निखट्या प्रयोगक्षमतेचे कसवटणेर ही एकांकी उबी केल्ली. समकालीन साहित्यांत ह्या तेंपार जायत्यो घडणुको चलताल्यो. येवरोपी देशांतल्या 'लिटल थिएटर्स', 'कम्युनिटी थिएटर्स', 'रेपर्टरी थिएटर्स' हांचो तशेंच मराठण, बंगाल, गुजरात वो हिन्दी वाटारांतल्या एकांकिविशिंची चळवळ घडये कोंकणी एकांकिंचें बरप करतल्यांक ज्ञात आशिल्ल्यो; परंत ताचो लाव तांणीं घेवंक नाशें दिसता. ही कोंकणी एकांकेची मर्यादा.

ह्या फाटभूंयेर पुण्डलीक नारायण नायक हांणी कोंकणी एकांकिलेखनाचें स्वरूप साप्प बदलून वडयलेंच खेरीज तिका नव्या दिकेनय व्हेली. त्या फुडली कोंकणी एकांकी नायकांनी दाखयल्ले वाटेनच वेता काय कितें? काय तिणें वेगळें मोडण घेतलां? नव्यो दिको सोदताना तिच्यो शीमो-मेरो स्पश्ट जातात काय कितें? काय ती आजूनय पोरण्या आवर्तांतच भोंवडे काडीत आसा? अशे कांय प्रस्न ह्या संदर्भांत उप्रासतात. तांचो आदार घेवन हांव म्हज्या निरिक्षणाची मांडावळ करतां; परंत ह्या मांडावळींत ह्या प्रस्नाच्यो जापो दिवपाचो येत्न आसा अशें मात निखालस मानचें न्हय. *चौरंगां*तल्या एकांकिंतले सगळे घटक स्वतंत्रपणान वेगळे रावनात. ते एकदुसऱ्याच्या सांगातान वाडत रावतात. आशयाक परिणामाचे नदरे एकसंधपण दितात. म्हळ्यार *मर्णकटो*, *एका जुंव्यार*... हे एकांकिखातीर आदल्या मनोरंजन बरपावळीपरस साहित्यिक खोलाय तशेंच मोल आशिल्ली अशी वेगळी संहिता, । येवजण वेगळो, माचीयेची मांडावळ वेगळी, स्वर-सूर दिवपाची पद्दत वेगळी हें चिकें रच तरीकूय एकांकी ही आदलेवरी निखटी आशयाकडेन बांदील नासता तर दर एक घटक दुसऱ्याक तेंको आनी तांक दीत आशयाक मुखार व्हरूंक सोदता हें सांगपी कोंकणी एकांकीन नवें मोडण घेतलें. आशयाचे नदरेन मर्णकट्यावेल्यान उडी मारून पर्थून वयर सरिल्ल्या मनशाकडेन सांगपासारकें तशें कायच उरना वो जुंव्यावेलो 'तो' धनयाच्या अवतारांत रिगलो म्हणटकच ताचेर वेगळें भाश्य करपासारकें कांयच उरना हे स्पश्ट जाता. निखटें मनोरंजन करचेपरस जिणेंतलें कुवाडें सोदपाचो येत्न ही तर कोंकणींतल्या साहित्यिक विकासाची कुरू. पूण मुखार वचून एकांकी ही एक साहित्यकृती आसताच खेरीज ती

कलाकृतीय आसता देखून वाङ्मयव्यवहारच न्हय तर कलाव्यापारय परिणामाचे नदरेन मुखार पुर्णत्वाक वचूंक जाय हें कोंकणी एकांकेन वळखलें. परिणामी एकांकी ही परिपूर्ण अणभवाची अभिव्यक्ती आसता अशीच एक जाणविकाय निर्माण जाली. ही कोंकणी एकांकिच्या वाटारांतली स्वयंपूर्ण जावपाचे पायणीवयली क्रांतीच.

कोंकणी एकांकिचे निरिक्षण करीत जाल्यार ती आजुनूय भौसाकडेन तशेंच मध्यमवर्गियांच्या जिणेंतल्या विंगड-विंगड घडणुकांकडेनच घुस्पून उल्ल्याशें दिसता. घडये आमचे बरोवपी ह्याच समश्टीचे प्रतिनिधित्व करपी आशिल्ल्यान तशें जाल्लें जावंये. पूण तें आसुनय तिचें स्वरूप, तिची तांक आनी ती जें जिवीत आमच्या मुखार दवरता तें पळयल्यार जिविताच्या आनीकय नर्म-नाजूक आनी खोल अशा स्तराक उगतें करपाचो हावेस स्पश्टपणान दिसून येता. मनशांच्या संबंदांतले ताण-तणाव, भौसांमदीं अहनिर्श चलत आयिल्ल्या झगड्यांची जाणविकाय, समश्टीतल्यांचो अस्तित्वाखातीर चलिल्लो संघर्श, राजकी जिणेंतलीं खांवटां कोंकणी एकांकिंनी येतली तेन्ना अपरूप असो बरपावळीचो संवसार उगतो जायत वतलो. तिचेवेल्या समिक्षेचो अभाव हेंवूय तिच्यांत विविधताय येवपाखातीर कळाव लागपाचें एक कारण आसत. कविता, कथा, नवलिका ह्या साहित्यप्रकारांच्या समीक्षकांनी कोंकणी एकांकिविशिंचोय नियाळ घेवपाचो वेळ आयला हें खरें; परंत समीक्षक ह्या वाटारांत प्रवेश करूंक कांचवेतातशें दिसता. *रंगपाट* (पुण्डलीक नारायण नायक) आनी *कोंकणी तियात्राचो इतिहास* (प्रा० प्रकाश थळी) हीं दोनूच पुस्तकां हें समिक्षेची भूक भागयता अशें म्हणप समा न्हय. म्हणटकच नाट्यसमिक्षा ह्या संकल्पनेची भिरांत घेतल्या काय कितें? तशें जावपांचें कारण कितें आसू येता? काय नाट्यसमिक्षा ही वेगळीच बरपाची कला आसता आनी तिका वश करून घेवप सादे-सोपें काम न्हय म्हणपाचो विचार आमकां आमचो पांय फाटीं ओडूंक लायता व्हय? अशे प्रस्न उप्रासतात. एकांकिची समिक्षा करतल्यांचेर भोवच जापसालदारकी येता. एकांकि जावं वो नाटक जावं तांतुतल्यान कथात्मकतेचें दर्शन घडटा. नाटकांत 'नाट्य' आसता तशें कथा-नवलिकेंतय नाट्यात्मकता आसताच. तांचें परिक्षण म्हळ्यार तांतुंतल्यान उगतें जावपी जिवितांतलें नाट्य वो जिवितनाट्य, अणभवनाट्य हांचेंच परिक्षण. एकांकितलें नाट्य म्हळ्यार द्वंद्वात्मक अनुभूतीच. तिचें स्वरूप समजप म्हळ्यार नाट्य समजप. हीच जाणविकाय साबार साहित्यप्रकार करून दितात. निखट्या नाटकांतच न्हय तर कथा-नवलिकेंतय ह्या अणभवनाट्याचें आविश्करण जाता. म्हणटकच समिक्षण जाता तें ह्या आविश्काराविशिंचें आनी ताच्या पुर्णत्वाविशिंचें. एकांकिचें समिक्षण करतना समिक्षक लेखकाक आफडून गेल्ल्या एका असामान्य, अनन्यसादारण अणभवनाट्याच्या आविश्काराविशिंचें चिंतप करून स्वताल्या निरिक्षणाची मांडावळ करता, करूंक जाय.

देखून त्या अनुभूतीची अर्थपुर्णतायय मतींत घेवंचीशें दिसू येता. एकांकिंतलें वास्तव आनी समाजांतलें वास्तव हांचेसंबंदान ताका चिंतचें पडटलेंच. तर्काच्या, संभवनियतेच्या वरकलार तो घासून पळयता. तो ज्या घटकांसावन एकांकिकाराक अनुभूती लाबल्या त्या घटकांचे अस्तित्व एकात्म पावता वो ना हें तपासून पळयता. एकांकिकार त्या घटकांविशिंच्यो जापो हेर तरेन दीत जाल्यार त्योंय मतींत घेवच्यो पडटात; परंत एकांकितल्यानच तें तपासप चड बरें. परिक्षण करतास्तना तिच्या आकाराचें, अणभवाविश्काराचें आनी रचनाप्रक्रियेचें भान दवरप म्हळ्यार एकेपरीन पुनर्प्रत्ययाचो आनंद. समिक्षकाक जेन्ना संवाद, अपरिहार्य घडणुका अटळ प्रसंग, तांतुंतली प्रवेशाची-रचना, माचयेचें स्वरूप, स्वर-सूर हांचो मिलाफ आनी जिणेच्या दर्शनातली एकात्मता हांचेविशिंचे भान येता तेन्ना परंपरेंतल्यान लक्षांत येवंक नाशिल्लें गजालिंचो नव्यान सोद लागता आनी ताणे केल्ली बरपावळ उत्तम पांवड्यावेली जाता. कोंकणी एकांकिकडेन वचपाच्यो कितल्योश्योच पायणी आसात. त्यो दाखोवपाचो हो सुपुल्लो येत्न म्हळ्यार जाता.

# रमेश वेळुस्कारांली कविता

हेर खंयच्याय साहित्यप्रकारापरस 'कविता' हो साहित्याचो प्रकार आमच्या संस्कृतीक जिविताक पोरण्या काळासावन पुरायेन रेवाडून आशिल्ल्यान कवितेविशीं वाचप्याचो जायत्यो कल्पना आसतात. कविता हो साहित्याचो एक मुळावो प्रकार. कवितेचीं इतलीं विंगड-विंगड रुपां मेळटात की तिची मूळ प्रकृती आनी ती सिद्ध करपी तिचें मुळावें रूप हांचें विशिंचो विचार केन्ना केन्ना गोंदळून वडयता. हाचें कारण कवितेचीं विंगड-विंगड रुपां न्हय तर, तांका जल्म दिवपी आमगेलें संस्कृतीक, वेव्हारीक आनी कलात्मक अशें जिवीत. ह्या तीन पांवड्याक लागू पुराय जिविताक आनी कवितेकय विंगड-विंगड अर्थ आनी अर्थभाव मेळिल्ले आसतात.

हे विशीं कवितेचो जल्म गितांतल्यान आनी गिताचो जल्म आदिमनशाच्या नाचांतल्यान जाला अशी एक उपपत्ती मेळटा. नाचांतल्यान गीत आयलें तेन्ना उतरांक अर्थ नाशिल्लो. उपरान्त ते अर्थान पुराय जावन आयले. उतरां नाद, लय, ताल हातूंत घोळिल्ले आसले. सैमाच्या अखंडित सहवासाक लागून लय, ताल आनी ध्वनीची जाणविकाय त्या मनशाक जाताली, काळजाक हापुडटाली, शिरंतरांतल्यान थरथरूंक लायताली, रगतांतल्यान हेरांचो सहवास सोदताली. उर्बेन भरिल्ले विश्व उतरांतल्यान साद दितालें, प्रतिसाद सोदतालें. ओंठांतल्यान साद सोदपाची प्रक्रिया जावचेपयलींच सर्वांगांक लय लाबताली. रोमांचित जावन भाव-भावना, मुद्रा, अभिनय आनी नृत्य हांच्या माध्यमांतल्यान भावसूचक हालचाली शब्दांकन करूंक तळमळटाली. उस्फूर्तताय आनी उत्साह, सहजताय आनी सादेपण, मेकळेपण आनी गुंतवणूक अशीं संप्रेषण जावपाची क्रिया जावंक लागली. तांतुंतल्यान काव्य जल्मलें. उपरान्त त्या काव्याक उतरांचो साज मेळ्ळो.

मनशाक शब्द मेळटकच संवेदना, भावना, विचार, कल्पना, स्मृती अशो जायत्यो मनसीक शक्ती जाग्यो जाल्यो. तांतुंतल्यान ताच्या अ़णभवांक एक विलक्षण उत्कटताय आनी संमिश्रताय आयली. ताच्या गितांतले शब्द अर्थयुक्त जातकच तें गीत 'वाङ्मयीन' रूप घेवपाक लागलें. ल्हवू ल्हवू तें गावपाक येता हाचो प्रत्यय मनशाक येतकच गेयतेचे तरेकवार सांचे जाले. गितांतल्यान उत्क्रान्त जाल्लें हें वाङ्मयीन रूप म्हळ्यारच तर कविता. ती नाचांतल्यान आयिल्ल्यान गितांतलो ताल, लय, ध्वनी हांची जाणविकाय, शब्दांचे गुणविशेश, शब्दांचें अर्थाकडेन आशिल्लें गूढ नातें ह्यो साबार प्रक्रिया कवितेंच्या जल्माची गजाल सांगतात. पूण कवितेन आपणालें सर्वस्व एकवटायलें तें निखट्या शब्दार्थांचेर आनी शब्दार्थांच्या एकवटान आपणाले परिणाम घडोवपाचेर. हे प्रक्रियेंत भाशेची सर्जक शक्त 'मिथिकल' जाता. हाचें कारण कवितेंतल्यान उगतो जावपी आत्माविश्कार, कवी आनी ताचें व्यक्तिमत्व. कविचे भावावस्थेंतल्यान ताच्या अंतर्मनाचो, ताच्या संवेदनांचो,

व्यक्तिमत्वाचो फुटून आयिल्लो उमाळो म्हळयार कविता. हो उमाळो उगतो करपाक उतरांचो मोठो आदार. ते खातीर तांचो वापर जतनायेन, नकसूदपणान करचो पडटा. उतरांच्या अर्थांचेंय भान दवरुंचे पडटा.

साहित्य अकादेमी पुरस्कारप्राप्त कोंकणी कवी रमेश भगवन्त वेळुस्कारांच्यो कविता वाचतकच वयल्या साबार अपरिहार्य गजालिंचो पट नदेरमुखारच्यान झळकून वेता. हाचें कारण म्हळयार तांच्या कवितेंतल्या शब्दांक आशिल्ली निजाची लयबद्धता. तांचे वट्ट सा कवितांचे झेले[१] वाचतकच सैमाच्या उत्थानासावन मिथकतेच्या आदारान उबें केल्ल्या गूढ वातावरणांतल्यान लोकगितांतल्या नर्तनामेरेनचो प्रवास कोंकणी कवितेक नवी दिका दिवंक पावलो अशें म्हळयार अतिताय जांवची ना. सैम, सुंदरकाय, अस्तुरी, मोग-प्रीत हे तांच्या कवितांचे मुखेल विशय. कोंकणींतल्या हेर कविंच्या काव्यांतली सैमाचीं रुपां मनशाच्या भावनांक स्पश्टताय दिवपाक आदार म्हूण आयिल्लीं. पूण वेळुस्कारांले कवितेंत सैम मनशासारकेंच वावुरता. तांणी मनशाच्यो भावनाच सैमाचेर आरोपीत केल्ल्यो आसात अशें म्हळयार जाता. माती, मोरपांखां, सावुलगोरी आनी हिरण्यगर्भ ह्या साबार झेल्यांतल्यान त्यो स्पश्टतायेन दिसतात. देखून तांची 'पानां लजतात', (*सांगात*, मोरपांखां), दनपार 'हळडुवीच पिंगशी कशी, पिंगशा सावळयांची' हिप्पीण जाता. तांचे सावुलगोरींतलें झाड मनांतल्यान खंती जालां. आनी हाची जाणविकाय कवीक ज्युस्त जाल्या देखून तो ताच्यो भावनाच उगतायतना म्हणटा: *दुख झाडाच्या मनांत / दुख झाडाक सोंसना / मिटी फोडची म्हटल्यार / ताका कोणूच मेळना / ताका कोणूच समजना* (पानांक १०) अशे तरेन झाडाचें रुपक घेवन बरयिल्ल्यो आनीक कांय कविता ह्या झेल्यांत मेळटात '*मनवासी / मनवासी हें झाड / झाडाच्या मनांत / सुकण्या राशी वो ह्या सुकण्यांची / त्या सुकण्यांची / झाडाक लागल्या नड / आनीक सगळी / ही जीण जाल्या / अवघड अवघड* (पा० ९)

झाड खंती जाता ही जाणविकाय कितली नर्मसंवेदनशील. कवी खंती झाडाचें चित्रण करता तेन्ना तो शेवण्याच्या उडपान खंती जाल्लें झाड दाखयता आनी शेवण्याक लागून झाडाक जाल्लें दुख्ख दाखयता तेन्ना कवी प्रतीक रुपान स्वताल्या मनाचें चित्रण करीना मू? पानझडटेच्या दिसांनी उगतें मळब पळयतकच झाडाक ताची माया तोंपूंक लागता आनी 'सुकण्यांच्या राशींच्यो नडी' सांबाळटाना तें 'सैरभैर जालां' म्हणपाची जाणविकाय अभिव्यक्त जाता. ताचे जिणेचो 'हुंवार तुटला'. ताका लागून झाड वाऱ्याकडेन मागणें मागता '*वाऱ्या वाऱ्या जशें सर्गार जाता / तशें संवसारांत जावंदी* (पा० २२) ह्या झेल्यांतले निमाणे कवितेंतलें मागणेंय अशेंच मळबाकडेन केल्लें: हे सर्वव्यापका मळबा / म्हज्या समेस्त पेल्यांक / तूं तुजी उंचाय दी. दर्याकडेन खोलाय मागपी, न्हंयेकडेन निर्मळताय मागपी, फुलाकडेन मोग आनी परमळ मागपी हो कवी मनीस जिणेंतलीं साबार अप्रुपां सैम मनीस

जाल्लेवरीच मागता तेन्ना तो सैमांतल्या साबार रुपांक मनशावरीच कसो लेखता हें दिसता आनी हें सैम थंय मनीसरूप जावनच मनशाच्या भावविश्वांत उबें जाता.

अशे रितीन सैमाक वो तातुंतल्या झाडांसारक्या घटकांक मनशाच्यो भावना दिवन त्या भावनांचें वैश्विकीकरण शाश्वत सत्याची जाणविकाय करून दिता. ह्याच जाणविकायेतल्यान जिविताकडेन पळोवपाची नदरय मेळटा. चित्रदर्शन हो वेळुस्कारांच्या कवितेचो स्वभावधर्म कसो. '*अशी आमोरी शिमोरी / एक काळ-सांवळण / माथ्यार उजवाड दुधाची / बिंदली गवळण / जाय सांज-सांवळण*' अशें आमोरेचें पुराय एक चित्र-मिथक पितारताआनी कृष्ण-राधा हांचे काणयेतलें गूढ वास्तव वातावरणाकच धुसरताय हाडटा. सांजेची गवळण चुकल्या, शेवण्यांचें पांयजण बांदून 'कृष्णखीण' गरयत वयता अशी एक प्रतिमा जेन्ना तांचे कवितेंतल्यान येता तेन्ना जाणविकायेच्या संवेदनांतल्यान कल्पनेच्या साम्राज्यांत वास्तव केन्ना पावल दवरता हेंच समजना. *सावुलगोरी*ची पुराय काल्पनिक मिथक-कथाय उबी करून तो सोनायसुंदरी आनी मोराच्या आगळ्या-वेगळ्या मोगाचें खण्डकाव्यात्मक मिथक रचता.

संस्कृतांत अष्टनायिकांचो संदर्भ येता. वेळुस्कारान नवनायिकेक जल्म दिला अशें म्हाका दिसता. स्वताल्या प्रतिभेची अपरिमित तेंगशी हातासपाचो आनंद म्हळ्यार सावुलगोरीसारकी कविता. सावुलगाळींतल्यान 'पावशी शेन' झडटा तशी *सावुलगोरी* झळकत येता. श्रावणांतल्या शेनपी पावसाच्या पड्ड्याफाटल्यान ती दृश्यात्मक जावंक लागता. श्रावणांतलें एकंदर वातावरणच पावसा-वताक लागून धुमील, धुसर कशें जाल्लें आसता. तीच धुमीलताय सावुलगोरीचें प्रतिमेभोंवतणी पातळून आसा. देखून वाचप्यांक तिचें स्पश्टतायेन दर्शन घडप म्हळ्यार अप्रूपच. देखूनच तिचेविशींचें गूढ आकर्शणय बी. दिठयेच्या हातांनी सांसपून गेल्ली ही सावुलगोरी काळजां-यादींक खिणांचीं घुंगरां बांदून गेल्या. ती हयन्हयशी भुलय घालून गेल्या. उपरान्त दोळ्यांक झालर लावन बशिल्लो तिचो 'चंद्रीमखडो' कसो 'सोनायमुखडो' जावन येता. कोणाकय *सावुलगोरी*चें पिशें लागचें अशी ही प्रतिमा. तय चंद्रीमाशी, साखर उतरी, शेरवड शिंगार लेवून आयिल्ली ही नवनायिका 'रगत थेंब्याच्यो घुरी' घालतना दिसतकच सैमाक रुंवारुंवांतल्यान हूरहूर लागता.

काव्यांतल्यान प्रतिभा आनी प्रज्ञा हांचो जेन्ना सुमेळ जाता तेन्ना *जोगी*सारकी कविता साकार जाता. ह्या वांट्यांत जोगी हो सामान्यातलो न्हय. ताचे पांय उपाट, मस्तक उपाट, ताच्या वंठार वेदांचें पुस्तक किल्लून येवंचें अशी प्रज्ञा आशिल्लो हो जोगी. ह्या गगनभोगी जोग्याच्या रुपान कवी आपल्या जिवितांतली पिडा, दूख उगती करता. ताका लागून ही निखटी निसर्गवर्णनाची रुपकात्मक वो प्रतिकात्मक कविता उरूंक ना. ती घुंगराच्या नादान शेणिल्लीय ना. ती कदीमकाळच्या दुख्खाची, आतांच्या प्रस्नांची-व्यथांची आनी फुडाराक तेळून पळोवपी संवेदनशील व्यक्तिमत्त्वाचें मिथक तयार करपी कविता. ही जोगीची कविता

म्हळ्यार वेळुस्कारांच्या फुडारांतल्या *हिरण्यगर्भ* कविताझेल्याचो पूर्वरंग अशें म्हळ्यार बरें.

*हिरण्यगर्भां*त मनशाच्या आनी सैमाच्या आदिमतत्वाकडेन वचपाचो येत्न करपी कविता वाचूंक मेळटा. स्वताकच समजून घेवपाचे उमळशिकेक लागून ती कविता आध्यात्मिक वो संतवाङ्मयांत आस्पावपासारकी आसा अशें कोणूय म्हणतय; परंत अध्यात्मांचो वाटार हो योगविद्यादी तपस्काराकडेन संबंद दवरता हें आमीं जाणातच. अभंग वो ओवी छंदांतल्यान आयिल्ल्या ह्या काव्यांत आशयाचें, रचनेचें आनी विशयाचें नदरेन तत्त्वगिन्यानीशें बरप जाल्लें दिसता. 'सवन / सूर्यवंशी बांधवांक' उदेशीं ह्या काव्यांत स्वताकच होरायिल्लेवरी उतरां उद्‌गारस्वरूप धारण करतातः *आतां म्हजो उजवाडू / तुज्या ब्रह्मांडाक वेडूं / आनी तरीकूय उरूं / धा आंगळांनी* (फा० ३१) *वो दोळियांचो देवु / म्हजो इश्ट उजवाडु / म्हज्या तनरांचो सर्गु / सर्वयामी* ।। म्हणटकच पर्थून प्रतिभा आनी प्रज्ञा हांचो सुमेळ जाल्लें हें काव्य अशें म्हणूंक येता. पुराय संवसाराचें चैतन्य म्हळ्यार सुर्या. सुर्याबगर ह्या संवसारांतलो अणूरेणू मूल्यहीन. '*ताका लागून हे सुर्यशक्ते / तुजे विणें हाका कांयच अर्थ ना... / हें जाणा जावप / हीच म्हजी समर्थताय / आनी सुंदरताय* (पा० ११) सुर्याची / तेजाची विंगड-विंगड रुपां केळयतना 'अस्तित्व सुक्तां'त आदीम स्वर-सूरासयत उद्‌गार येताः अस्तित्व संवसाराची सुंदराय जी उतरां व्हाळांनी व्हांवता ती पळोवंकूच पावना...अशें जातकच 'हांव' नांवाचें अस्तित्व घुस्पूंक लागता. निसर्गान ताका दिल्ल्या तेजाचें ताका दर्शन लेगीत जायना...ह्या संवसारांतल्यो कांय आडखळी 'हांव' ह्या अस्तित्वाक विचार करपाक लायतात. आनी हे विचार इतले खर जातात की 'हांव' खरायेंत जळपाक लागतां. हें जळपच साक्षात्कार जाता.

*तनरजोतीं*त स्वताक विरगळून वडोवपांत, आत्मत्यागांतय सौंदर्य आसता अशें सुचोवपी, सौंदर्याच्या साक्षात्कारचीं वर्णनां करपी कविता अभिजात भाशेक जल्म दिताशें दिसता. ती पारलौकीक आसा अशीय बेठीच जाणविकाय जावंक लागताः *हीं म्हजीं काश्टां / काय पांच पंचिश्टां / हें म्हजें हांव / भायल्या ॐचें गांव / ही म्हजी वळख / काय भुलयाळी अळख वळख* (पा० २९). मिथकाक ओंपिल्ली ही कवितावली. तातुंतल्या मनशाचें अस्तित्व संवसाराक उजवाडावपी जोतींत आपणाले नदरेची जोत मेळोवन एके तनरजोतींत नाच्च जालें. एकेपरीन *आंगणीं नाचता* सावन *सावुलगोरी*मेरेनचें दायज *तनरजोतीं*न मुखार व्हेलें अशें म्हणूंक येतय. हांवपण विसरून येतकच 'तुज्या स्पर्शाचे पारसमणी लागतात'. तिचेकडेन येता तेन्ना आपणालें हांवपण वगडावपाचो पण घेवन येवप जाता. देखूनच 'म्हजें हांवपण विसरून जातकूच / मागीर आमचें कितें जातलें तें कांयच खबर ना / तें मेळोवपाखातीर तुजेकडेन येतां' अशी मान्यताय दिवंची पडटा. विरह आनी मिलन हांतूंतय आनंद आसता हें सांगपी ह्या कवितेंत स्वताचें अस्तित्व अशें आनंददायी जावन येता.

एकाद्र्या अभ्यासकाक वेळुस्काराच्या मिथकाचें अपरूप आपणामेरेन पावना म्हणपाचें

दिसू येता. वाचप्याच्या आकलनाची बसका ही वातावरणाकय लागून अज्ञात रावंक पावता. कवीच्या अस्करांतल्यांक ते शब्दब्रह्म समजता आसतलें अशेंय म्हणप धाडसाचेंच जावं येता. *हिरण्यगर्भा*तली भासय अशीच प्रतिमास्वरुपी जाल्या. म्हणटकच अशा काव्याचो रूपकार स्पश्टपणान कळून घेवपाची गरज आसता व्हय? असो प्रस्न विचारनशें दिसता. कविता ग्रहणशील मनसीक अवस्थेंत आसतनाय कळटाच अशें नासता. तेन्ना कवितेची लय जरी वाचप्याक, अभ्यासकाक वा अस्करांतल्याक भावली तरी काव्य कळूंक संद आसा म्हणपाचें स्पश्ट जातलें. देखीक 'धपक धपक घुमटां', 'घन दनपार', 'लीप-दीप दोळे', 'शिर्शिर', 'भुलकोमरी' ही लयकारीच. भुलभुल्लैयांत नादावन सोडपी उतरांची लयकारी अशीय आसता म्हणपाची गवाय मेळप म्हळ्यार एक आगळें-वेगळें शब्दब्रह्मच. तातूंत प्रतिमांचें गारूड नासता, उतरांची कसरत नासता, निखटी कारागिरीय नासता. काव्य ना म्हळें जाल्यारय उतरांच्या पलतडीं वतकच गोचर जावंक जाय अशें आमीं म्हणटातच. वेळुस्काराच्या काव्याक नवीच खरी परंत कोंकणी शब्दकळेची कांत मारिल्ल्यान भाववृत्ती लयबद्ध जाता आनी गोंयचे लोकगीत रसरसून साकार जाता. गोंयचे मातयेसावन हे कवितेक वेगळी काडुंकच येना. देखीकः 'शंबल्यो रे बाबा शंबल्यो' सारक्यो लोकगिताच्यो वळी कवितेंत धृपदाभशेन येतात. तशेंच 'गराशेरान शेलो दिलो / शेलो जागराचो' म्हणटना 'झांकूंक आतां लागला / घुमटावेले थापीन म्हजें काळीज दिग् दिग् घुमलां' म्हणटना वातावरणांत घुमपी शिगमो कानांक आयकूंक येवंकच जाय.

'आनी ती जाता हुस्को / आनी ती जाता दोळ्यांचें पातें / आनी ती जाता...' अशें लोकगिताचे, जागराचे संदर्भ घेवन आयिल्ल्या उतरांची आवर्तनांतल्यान लयबद्दता सादप हो वेळुस्काराच्या कवितेचो गुणधर्म. देखीकः 'अंतरे सरगमता', 'घुंगूर घुंगरता', 'तुजी प्रसन्न मोनेळ म्हाका शब्दुलायत वयता' तशेंच 'तू गे अमाशेची रात्रा / तुका चोवन म्हजे रक्तरेणू / करी आकाशगंगी यात्रा' अशी उतरांची पांयजणां वाजतात. अशा चरणांवांगडाच 'आमोरी-शिमोरी', 'उलुपी सांजवेळो', 'घुंधुर घुंगुरता' 'मत्त मोतयाळें चान्नें', 'लिप-दीप दोळे', 'शिरशिर शिर नाम्रुबे', 'शेवण्या-शुबुल्या', 'शेवण्या-शेणोरा', 'शेवण्या-शुतुल्या', 'सपनपारो', 'सूर्यपर्जळी मोतयां', 'सैमसुरमई सांजवेळो', 'हर्त रे कावळ्या हर्त रे हर्त', 'सुनरचंवरी चान्न्यांत सर्पसुरंगी कोचो' अशीं सादाच्या स्वरा-सुरान उतरां आवर्तना करतात. गूढ, कठीण, आकळपाक दुर्बोध अश्यो वळी निखट्या अनुप्रासांच्या आवर्तनांतल्यान सरळ-सुलभ कश्यो दिसूंक लागतात. 'अनहद नाद, अनादी नाद, झिणझिणटे शिर्वाण केण, नृत्यकळाशीर, (तिची दिश्ट म्हळ्यार), मनहद नाद, रंगतरंगांचे आंकूर, हेमनदर द्वारका, सपनपारो' हीं अस्पश्टशीं प्रतिमा घडोवंक पळोवपी कोंकणी, संस्कृत वो उर्दू-फारसी उतरांय तांतुंतल्या निखट्या लयीखातीर मनभुलयाळीं जातात. विंगड-विंगड प्रतिमांच्या भाशेंतल्यान उलोवप ही कवीची

मिरासदारी मानून घेवंचीच पडटा. अर्थात् ह्यो प्रतिमा वाचप्यांक प्रतिती सरळपणान दीत म्हणपाची गवाय कोणूच दिवंचो ना. 'आकाशगंगेच्या उजवाडांचो काळोख' सारकेली विरोधाभास करपी, रसिकांक धक्को दिवपी प्रतिमाय साकार जाता. अल्पाक्षरी पद्धतीन सांगताना आशय साप्प झिरझिरीत आनी कांय फावटीं तर पुराय अमुर्तसो जावन येता. ताका लागून रसिक ह्या उतरांफाटलो अर्थ सोदपाच्या भोंवऱ्यांत सापडटा. मुक्तछंदी पूण कांयशी कठीण, उण्या उतरांनी उलोवपी कविता स्वताचो घाट सोदपाच्या येत्नांत घुस्पून उरूंक जायनाशें दिसता. 'हुस्कार सुस्कारांत प्रदक्षिणाय रावता' तो रसिक. इतलेंय करून ताच्या आकलनांत आयिल्लो अर्थ पारजाभशेन सुळकन् सुटून वेता. कवीक आवडटा तसो अध्यात्मीक, तत्वगिन्यानीक, वैदिक वाटारांत भोंवडी करपाचो हावेस रसिकाक जमता अशेंय नासता. तो बाबडो तीं रुपां सोदपांत गुल्ल जाता आनी कवीच्या अनुभुतीचो प्रत्यय घेवपाच्या येत्नांत उतरांतली काव्यात्मकता शेणोवन बसता.

अणभवांची आवर्तनां घेतना भाशीक रचणुकेचो, कवितेचे पतीची जाण दवरपाचो आनी नवे अर्थ तशेंच नवे आयामांविशिंचे आकलन करून घेवपाचो येत्न करीत राविल्ल्यान रसिक खरशेता. ते भायर ही भास चड संस्कृतमय अशीय जाल्या. देखीक 'हें वसुंधराय संवेदन, आदि अनिरुद्ध उर्जा, तमसंहारक, तुजे प्रदक्षिणार्थ, तंद्रेतलें चडांश, हिरण्याक्षा, अग्निगर्भा, रत अविरत तू संभवाग्निठ' बी उतरां पळयतकच अशें दिसता की ही जानपदाची भास न्हयच न्हय परंत जानपदां जावंक पावता इतली तांक आशिल्ली भास. माती, सावुलगोरी ह्या आदल्या झेल्यांतली सोपी, सादी, लोकसाहित्याच्या बाजाची रचना उपरान्त उल्ली ना. बाकीबाब हांणी नकसूद उतरांत सांगलां: 'जी भास साहित्याच्या प्रांतांत आजतागायत येवंक नाशिल्ली ती हाका लागून आतां साहित्यांत प्रतिष्ठा जोडूंक लागल्या. तांचे जिणेंतल्यो प्रतिमा सौंदर्यरूप घेवंक लागल्यात आनी तांची कविता मुळाव्या आनी थळाव्या जानपद छंदाक भिडूंक लागल्या. हांची ही कविता फुडली वाट रेखतली आनी सगळ्या भौसाक जागयतली. मागीर सान्नीकोनशांक पडिल्लें जानपद छंद नवी जिवसाण घेवन उठ्ठले.' (२)

पुण्डलीक नारायण नायकान कोंकणी साहित्यमळाक मानवी जिणेंतल्या तीव्रतर अणभवांची वळख करून दिली आनी ताका समकालीन आशिल्ल्या रमेश भगवन्त वेळुस्कारान कोंकणीक अप्रतिम शब्दकळा दिली अशें म्हणनशें दिसता. दोगांकय जानपदांत मानाची सुवात आसा आनी रावतली अशें म्हणपाक ज्योतिशाची गरज आसा व्हय?

---

(१). मोरपांखां, १९७७, माती १९८३, आंगणी नाचता मोर मोरया १९८८, हिरण्यगर्भ १९९३, सूर्यवंशी, तनरजोती १९९९, सावुलगोरी १९८९.

(२). कोंकणी काव्यसंग्रह, *'करंड सोडवंचे पैली'*, संपादकः बाकीबाब बोरकार, नवी दिल्ली, १९८१, १९८९, पानांक X।

## *निमज्जन* : केरळी कोंकणीचो सर्जनशील आविश्कार

केरळच्या *कोंकण जनता* ह्या नेमाळ्यावरवीं जायते नवे कथाकार कोंकणीक लाबले. ह्या बरोवप्यांनी स्वताल्या भाशावैभवान आनी उतरावळीन कोंकणी कथेचें साल गिरेस्त केलें. *कोंकणी कथाश्टक* (१९७८), *काणयां घोस* (१९७८), *कथा: ८३-८४-८५* (१९८६) आनी *अंतर आयामी* (१९९१) अशे कांय नांव घेवपासारके हे केरळ-शैलीतले कथांझेले.

प्रा० के० आर० वसन्त मणी हांगेल्याय कथेची ही वैशिश्ट्या आसात अशें म्हणू येता. तांचो पयलो *भांगरा दांत* (१९९३) हो कथा झेलो केरळ कोंकणी अकादेमीन उजवाडायिल्लो. कोंकणी भाषा प्रचार सभेचो पुरस्कार ताणीं जोडिल्लो आसा. हो लेखक स्वताले सरस निवेदनात्मक शैलीन केरळी कोंकणी बरोवप्यांमदी वि.ेशतायेन उठून दिसता. ह्या केरळांतल्या कोंकणी कथाकाराचो *निमज्जन* (१९९९) हो दुसरो कथा झेलो. ह्या झेल्यांतली कथा म्हळ्यार मानवी जिणेंतल्या विसर्जनाची काणी. मानवी समश्टींतल्या साबार ताण्यां-बाण्यांचें विसर्जन ताच्या मर्णा उपरान्तच जाता. पूण तें पळोवपाक मनीस जिवो आसना. ह्या लेखकाचे सर्जनशीळ आनी कल्पक लिखणेंतल्यान हो दिश्टावो वास्तवाचो घटमूट आदार घेवनच साकार जाला. केरळी कोंकणी मोडीतल्यान आकाराक आयिल्लो ह्या झेल्यांतल्यो बारा कथा केरळी शैलीची तांक विविधतायेन दाखयतात आनी वांगडाच ह्या विलक्षण शांतचित्त आनी संवेदनशील मनाचेंय दर्शन घडयतात.

मनीस आपणाल्या ह्या सुपुल्ल्या जिवितांत आपणाचेर कितलिंशीं बंदनां घालून घेता. पूण त्या बंदनांचें खरें रुपडें दिसता त्या बंधनांसावन पयस वतकच. केन्ना केन्ना हें रुपडें ओडलायणें आसता जाल्यार केन्ना केन्ना तें विदारक सत् उगते करपी आसता. जिवीतभर राखून दवरिल्ले मायपास कितले तकलादू आनी वेव्हारी आसतात हें *निमज्जन* ह्या शीर्षकाची कथा दाखोवन दिता. अर्थात् हें सत् दाखोवपाखातीर हे कथेची निर्मण जाल्या अशें कोणाक दिसतय; परंत म्हज्या मत्तान ह्या निमतान केरळांत, सुदूर कोंकणी वाटारांत, कोंकणीसारकेल्या लोकभाशेंत कलात्मकतेकडेन झुकपी एक सोबीत साहित्यनिर्मणी जाल्या हें मतींत घेवंक जाय. थंयचे कोंकणींतल्या फाकिवंत बरपाचें एक तास म्हूण हांव ह्या कथाझेल्याचो उल्लेख करीन.

*निमज्जन* ह्या झेल्यांत विंगड-विंगड विशयांचेर बरयिल्ल्यो कथा मेळटात. कांय कथा सभावचित्रणाचेर आदारिल्ल्यो आसात तर कांय कथांनी जिवितांतल्या माणकुल्या घडणुकांचो आशय आयिल्लो आसा. निवेदनाचे व्हांवतेंत, कथेंतल्यान आनी एक काणी आकार घेता म्हूण, वाचप्यांक ह्यो कथा सोंप मेरेन स्तिमीत करतात. देखीक *रोटसां* ही कथा घेवंया. प्रथम पुरुशी निवेदनातल्यान ही कथा मुखार सरता. रोटसां म्हळ्यार तांदळाचें केल्लें एक परखन्न. निवेदकाक तें खायनशें दिसता. पूण केरळांतले पर्थून-पर्थून लायट ('करण्ड') आनी 'डामां'त

नाशिल्लें उदक हाका लागून रूच येवनय रोटसां वेळार पोटांत पडनात. अशा वेळार ताका आदली एक काणी याद येता. ती आदल्या पुत्तुमामाची. स्वताल्या कर्तुपान धनवन्त जाल्ल्या ह्या मनशाची काणी सांगतनाच केरळी समश्टींत रोटसांक आशिल्ले वेगळे सुवातेची जाणविकाय निवेदक करून दिता. तो 'बालकृष्णा'चे आख्यायिकेन. केरळांतल्या देवळांनी बालकृष्णाच्या हातार भाजत्याची कुरू ('बोक्को') कशी ही काणी वाचूंक मेळटा.

*एकलो यात्रिक* ही कथा मनशाच्या एकलेपणाची व्यथा उगतायता. तरणे पिळगेर बळ आसता तेन्ना मनीस व्हडे उमेदीन आनी निस्वार्थपणान घराब्याखातीर कश्टता. 'हांव सिकूंक गेल्यार भावंडां कितें करतली?' 'म्हगेली भावी पळोवच्यांक गेल्यार भावंडां वाट आधार जातलीं (पानांक २७) ह्या चिंतनान तो मुखार शिकूंक वचना आनी 'प्रमोषन'य घेना. पूण जेन्ना भावाक, तो मुखार शिकिल्ल्यान, नोकरी मेळटा तेन्ना तो हेर गांवांत ट्रान्सफर घेवन वेता तेन्ना कथेचो नायक 'तो म्हाका फाटबळ दितलो म्हूण लेखलेलें व्यर्थ जालें!' म्हूण हातार हात धरून मोन्यान बसता. मुखार आपणाल्या भुरग्यांच्या फुडाराचेर आस्त दवरून तो तांचे शिकप पुराय करता. तांका अनुशासनान ('डिसिपळिन') आचरण करूंक लायता. स्वताल्या सुखांदुख्खांत समान फाटबळ दिवपी बायल मेळ्ळी देखून तो धादोशी जाता परंत ती तिचे कुडिंत भितर घाय ('इण्टेणल इनजुरी' - internal injury) जावन खंवसता. निमाणे कडेन भावा-भयणिंची आनी आपणाल्या चले, चलयांचे विशिंची कर्तव्यां पुराय करूनय तो एकलो-एकसुरोच उरता. रुग्णालयाभायर आशिल्ल्या एकमुळ्या पिंपळाच्या रुखाकडेन स्वताली सर करीत रावता.

*शान्ती* हे, अशेच तरेचे, कथेंत लागच्या, रगताच्या वांगड्यांमदलो वेव्हार आनी सुवार्थी वृत्ती अधोरेखीत जाता. *मीरा हरण* आयजचे तरनाटे पिळगेर जाल्ल्या चित्रपटांच्या अनिश्ट परिणामांचें सूचक चित्रण करता. 'व्हरेताक देखूक ना', 'आरार', 'धोल्लकार किटुमाम' ह्या कथांतल्यान येवपी व्यक्तिरेखा आनी ताचें भोंवतणचे वातावरण, तांचे दुख्खी आनी निराश मनस्थितीचेंर घणघणीत उजवाड पडटा. *निमज्जन* ही कथा वाचतना म्हाका चा० फ्रा० द कॉश्त हांच्या 'सुणें माजर हांसता' हे एकांकिची याद जाली. लेखकान विनोदाच्या आदारान मोडें मोर्तोयच्या सपनांतल्या जिवितांतली विसंगती आनी व्यथा उगतावपांत फाव तितलें येस जोडलां.

*खबरेमाम* हें वसन्तबाब हांच्या खूबशा कथांनी येवपी सर्वसाक्षी व्यक्तिरेखा. टाईम्स ऑव्ह इण्डियाच्या माध्यमांतल्यान 'कॉमन मॅन'वरवी कार्टुनिस्ट म्हूण संवसारभर जाणें नामना जोडली त्या आर० के० लक्ष्मण हांची याद येवची अशी ही व्यक्तिरेखा. हेच व्यक्तिरेखेचो मनसीक आनी विश्वात्मक विकास जायत गेलो जाल्यार केरळातली कोंकणी कथा *खबरेमाम* हे व्यक्तिरेखेखातीर चड यादींत उरतली अशी तिची पोटेन्शियालिटी आसा.

हे भाशेंत काळ गोठून गेला अशेंय न्हय. हीच तिचे प्रगतीची कुरू. परंत विश्‍यांतलो आशय मात साप्प मर्यादीत जावन पडला. विशयावांगडाच आशयाकच प्रादेशीक तशेंच विश्वात्मक परिमाण लाबत आनी चिकें भावविवशताय उणी करप जमत जाल्यार वसन्तबाब हांची कथा एकविसाव्या शेंकड्यांतले वट्ट कोंकणीतली एक पांवडो - मायल स्टोन - थारतली. वसन्तबाब हे मुखारय नवे तांकीन आनी आशयविशयाचे विविधतायेन स्वताली अभिव्यक्ती कोंकणी कथेच्या आंगणांत फुलयतले म्हणपाची गवाय *निमज्जनांत* मेळटा.

*निमज्जन* तशेंच हेर साबार कथांझेल्यांचेर आनी ते निमतान उजवाडावन आयिल्ल्या सुट्या सुट्या कथांचेर नदर भोंवडाल्यार हे कथेची कांय वैशिश्ट्यां दिसतात:

हे कथेंत चड करून दक्षीण केरळांतल्या कोंकणी समाजांतली समश्टी येता. पूण त्या समश्टींतल्यो व्यक्तिरेखा, जिणेंतल्या अणभवाचो आपरोस घेत जाल्यार, हेर वाटारांतल्या समश्टीपरस वेगळीं आसात अशें म्हणूं नज. समश्टीचे हे वांगडी विंगड-विंगड सभाव-वृत्ती घेवन आयल्यात. प्रादेशिकताय अधोरेखित करपांत ह्या व्यक्तिरेखांच्या भाशेन भोवच वांटो उबारला. हे कथेन गोंयच्यान विंगड-विंगड काळार आनी विंगड-विंगड कारणांक लागून केरळांत वचून राबितो करूंक गेल्ल्या आदल्या गोंयकारांचे जिबेवयली सरस्पत राखून दवरून हे भाशेचे पोरणेपण आनी गिरेस्तपण दाखोवपी तिची मोड, तिचीं आर्विल्ली रुपडींय दाखयता. गोंयचे कोंकणीत 'ष' हें उष्म व्यंजन ना अशें आमीं मानतात परंत केरळी कोंकणींत तें वाचूंक मेळटा. तेच बराबर हे मोडिचेर मलयालम, ह्या थंयच्या थळावे भाशेचो आनी इंग्लेजेचोय प्रभाव ह्या कथांतल्या व्यक्तिरेखांच्या संवादांतल्यान उगतो जाता. कोंकणीचें प्रमाणीकरण करतास्तना विंगड-विंगड उतरांचो समावेश करपाची गरज आसा हेंच तातूंतल्यान पुरायपणान स्पश्ट जाता. ही भास शब्दकोशकारांचें कुतूहल जागयता. व्याकरणाचो अभ्यास करतल्यांकय हे मोडितले वाक्यरचनांची दखल घेवंची पडटली ह्या शक्यतेंत दुबाव दिसना. देखीक: 'मीरा हरण' हे कथेंतलो 'चलयेक आषा वर्षा ज़ावंचाक राकून राबलीं', 'तीनी सारें घालून दिलें' अशे कांय संस्कृतीक संदर्भ मेळटात ते कळून घेवंक भोवच खोशयेची गजाल आसा म्हणपाचें दिसूंक फाव. हे कथेतल्यान प्रादेशीकतेचो परिचय जाताच खेरीज थंयच्या जिणेचेर विपुलतायेन टीका करून समश्टींतल्या अनिश्ट गजालींकडेन वाचप्यांचे लक्ष ओडटा. साहित्यांतल्यान समकालीन जिणेचो दर्पण दिसता हें सत् जर मानून घेवपी आसत जाल्यार हे कथेक ऐतिहासिकतेचें मोल लाबलां अशें म्हणू येता. हे कथेवरवी गिरेस्त अशी उतरावळ आनी नकसूद प्रतिमासृश्ट उगती जाल्ल्यान थळावे कोंकणी भाशेच्या मोडिची पत मतींत येता. सादारण वाचप्याक हे सुदूर वाटारांतले भाशेची संवकळ ना हें वास्तव आसल्यारय अभ्यासकांक ही भास होरायता अशेंय म्हणचेंशें दिसता.

# कोंकणी साहित्यांतलें सैमदर्शन

साहित्यनिर्मणी हो मनशाच्या मनाकडसून आनी काळजाकडसून जावपी तशेंच गुरूत्व लाबिल्लो बरपांवेपार. वस्तुनिश्ठताय आनी आत्मनिश्ठताय अशा भूमिकेतल्यान तशेंच कल्पनाशक्तीच्या आदारान जी अभिव्यक्ती जाता तातूंत प्रतिती दिवपाची तांक आसता, आसची पडटा. प्रतिकात्मक आविश्कारांतल्यान मनशाचें मन हें ताच्या चेतन, अर्धचेतन आनी निश्चेतन पांवड्यांचेर वावर करता. साहित्यनिर्मणी ही ह्या साबार पांवड्यांचेर साकार जाता.

भारतांत साहित्यनिर्मणेचो आरंब वेदांच्या निर्मणेचो काळ अशें आमीं मानतात. आयज निखटे वेदांचीं बाडां आसात देखून आमीं तशें म्हणटास्तले. इजिप्तांतल्यो ममी जशो मेळूंक लागल्यो तशीं वेदांच्या आदलीं बाडां मेळूंक लागत जाल्यार साहित्यनिर्मणेचो इतिहासच बदलून वतलो. आपणालें, आपणाल्या पंथांचेंच साहित्य मेळचें देखून दुश्टबुद्ध आशिल्लें पंथानुयायी हेरांची साहित्यसंपदा ना नपश्चात करून वडयतात म्हणपाचें कोंकणीच्या इतिहासाकडेन पळयतकच होलमता. अशें आसूनयं आतां आमकां वेदांचोच आदार घेवंचो पडटा.

पुर्विल्ल्या काळांतल्या ऋषि-मुनिंनी वेदांत ओडलायण्या ऋचांतल्यान सैमाचें नितांतसुंदर आनी उदात्त अशें दर्शन घडयलां. स्वयंभू तत्वान अस्तित्व लाबिल्ले साबार शक्तींक नवलकायेन, स्तिमीत जावन नियाळपाच्या येत्नातल्यान ऋचा जल्माक आयल्यो. ह्यो ऋचा गावप्यांच्या वृत्तींतल्यान सैमाची वृत्तीय झगझगता. तांका चंद्रीम 'सहस्रशृंग वृषभ' कसो दिसता. सुर्या मळबांत 'श्येन' कसो उडटा. उषा ही नर्तिकेच्या प्रतिमेंत पळयली तर पावसाक 'बळिश्ट' घोड्याभशेन वो 'मत्त' वृषभाभशेन तोखेला. सैमांतल्या साबारांची वृत्ती-प्रवृत्ती दाखोवन दिलीच खेरीज तांका शक्ती अशें संबोधून अभिवादनय केलें. वेदोत्तर काळांतल्या आर्ष कवींनी विंगड-विंगड रुपांत उषेच्या प्रतिमेचें वर्णन केळयलें. तिका कांय फावटीं चिरतरुण सुंदरतायेची देवीच कशी मानल्या. कवींनी तिच्या रथाचेंय काव्यगूण आशिल्ल्या भाशेंत वर्णन केलें. ताणी तिचे रथ शंबर आनी ते अरुण वर्णाच्या घोड्याकडसून ओडून व्हरूंक लायले. तिका 'जरयन्ती' अशेंय म्हळां. जरयन्ती म्हळयार मंगल अर्थान जाण्टेपणाकडेन व्हरपी देवता. ऋषिमुनींक स्वताल्या सैमीकपणान आयिल्ल्या जाण्टेपणाचें भंय केन्नाच दिसलें ना. ज्या मनशाचेर रोगा-वायटांनी जर्जर जावन पडपाची पाळी येता ताका जरयन्ती मेळूंक ना अशें म्हणपाचो अर्थ. अशा जाण्टेपणाचो भंय तांका दिसतालो:

तुभ्यदेव जरिमन् वर्धतामयं मेममन्ये मृत्यवो हिंसिषुः शतं ये ।
मित्र एन वरुणो वा रिशादा जरामृत्युं कृणुतां संविदानौ ।।

(अर्थात्: हें बाळक व्हड जांवन शंभर मरणां मेरेन पीडा ना दिवं. ते नदरेन मंगलतायेचो शिंवर करपी उदारतायेची आनी जिविताक पोसवण दिवपी, अचेतनाक चैतन्य दिवपी, अरुपाक रूप दिवपी उषादेवतेचो उल्लेख असो करपांत तिचो फाव तो गौरव केला अशें दिसता.) सैमाकडेन, ताका पंचमहाभूतां अशें म्हळ्यारय, पळयतास्तना तें एकेपरीन उदारतायेचें प्रतीक आसून जिविताक पोसवण दिवपी, अचेतनाक चैतन्य दिवपी, अरुपाक रूप दिवपी अशाच सकारात्मक नदरेकोणातल्यान प्रशंसा जाल्ली दिश्टी पडटा. देखूनच उषःसुक्तांतल्यान वैदीक कवितांचे सोबीत दर्शन जाता. संवसारांतल्या हेर साहित्यांत अशे तरेचें वर्णन आसा म्हणपाचें एक फावट कोणेय तरी सांगचें. ऋग्वेदांत उषःसुक्तावरवीं सैमाचें *ललितमृदुल* दर्शन जाता जाल्यार त्याच सैमाचें प्रलयंकर दर्शन 'पर्जन्यसूक्तां'त जाता. वैदिक आर्यांचीं समर-संगरदेवता म्हळ्यार इन्द्र. ऋग्वेदांत ताचें पौरूष ठसठशीत जाता. वरुण साबार विश्वाच्या नेमान जाल्यार उषा आपणाल्या सोबीतकायेन तशेंच अस्तुरीक सोबत अशा विभ्रमांनी मोहीत करून सोडटा. सैमाची पुजा होच धर्म मानिल्ल्यान रचिल्ले सूक्तांक उपरान्त मात गुरूत्व लाबले ना. तांचेपरसय संघर्शाखातीर, झुजांखातीर तशेंच सैमाकच देव-देवता अशें मानून केल्ल्यो आंगवणी पुराय करच्यो देखून यज्ञ-हवन-याग-होमांखातीर रचिल्ले मंत्रोच्चार बळिश्ट जाले आनी सैमापुजा फाटीं पडली आसूये. केतुं कृण्वन् अकेतवे पेशो मर्याः अपेशसे समुषद्भिर जाय थाः ।। (अर्थात्: अचेतनाक चेतन करत अरुपाक रूप दीत हो सुर्या उषःकालासांगातान जल्माक आयला.)

मुखार साहित्यशास्त्रकारांनी काव्यहेतू म्हूण वर्णन केल्ली प्रतिभा ही शक्त ऋग्वेदांत उषेच्या रुपान गायिल्ली दिसता. उषःसुक्तांत निखटें सैमाचें वर्णन ना तर एकेपरीन प्रतिभाशक्तीक उद्देशून बरयिल्लीं तीं होरावणी गितांच अशें म्हळ्यार जाता. ही गितां उपरान्त अभिजात संस्कृत साहित्यांत साचेबद्ध (CONVENTIONAL) जालीं. सैमाचें दर्शन विंगड-विंगड तरांनी जावनय ताका छायाचित्रणात्मकताय लाबली. तातूंतलो प्राण अदृश्य जालो, तातूंतली जिवीतसाण सोंपली. चड वर्णनांतल्यान तंद्रा वो उत्फर्के उगते करपाबदला कृत्रिमताय सादर जाता. सैमाच्या मुळाव्या वर्णांपरसय गाड वर्णांतली शब्दचित्रणां कृत्रिमतायेकच जल्म दिता अशें म्हळ्यार जाता. मुळावें दृश्य प्रतिमांचे आनी रुपकांचे राशींनी लिपून वेता. वैदीक कवी मुखावेल्या दृश्यांतली दिव्यताय वो भव्यताय पळोवन स्तिमीत जातकच ताचेमुखार आपशींच स्वताली मान बागयताच खेरीज ताच्या अस्तित्वांतच स्वताली जाणविकाय सोदूंक लागता. अभिजात साहित्यांतलो सैम हाचेपरस चड रसरसून आयलाशें दिसना.

देशी कोंकणी साहित्यांत सैमान स्वताली पाळांमुळां अशी रोयली की सैम ह्या उतराची व्युत्पत्तीय नियाळप हें मोठें मजेचें थारू येता. 'स्वयंभू' ह्या संस्कृत उतरांतल्यान

*सैम* जल्माक आयलो. सुदूर मंगळूर-कोचींतले कोंकणींत *सैम्ब* हें उतर घोळटिकेंत आसा. स्वयंभू>सैम्ब>सैम अशीय व्युत्पत्ती लावंक येता. भोंवतणी रुखावळ, माथ्यार मळब, पायांपोंदा भूंय, पयस पयस वचपी दर्या-दोंगरावळ, ह्या साबार वाटारांत जियेवपी पशु-प्राणी आनी तांका सांबाळपी ऋतू हांच्या सहवासांत मनीस धादोशी जाल्लो दिसता; परंत मस्तवाल जालो ना. ताणे संयम दवल्लो. निसर्गय स्वताचेर संयम दवरता. देखून ह्या संयम दवरपाचे वृत्तीतल्यान भोंवतणच्या स्वयंभू उपजावळीक *सैम* हें देशी नाम लाबलें अशेंय म्हणपाक संद आसा. हो सैम कोंकणीच्या वावरांत दिसून येता.

कोंकणींत संगीत आनी सैम हांचे विलक्षण लागींचें नातें. सैमाक सांबाळपाची, ताका वाडूंक दिवपाची गरज आसा म्हणपाचें कोंकणीतल्या बरोवप्यांक दिसलें. संगीत आनी कविता हांचो लागसार कदीमकाळासावनचो. कोंकणी बरप करपी सैमाक गुरू मानता. बाकीबाब हाणी *गुरू शिटकायता । आरे गुरू शिटकायता* अशें म्हळां. कोंकणी नेमाळ्यांची आनी कविताझेल्यांचीं नांवांय सैमाकडेन लागसार दवरपीः *उदेन्तेचें साळीक* (१८८९) हें कोंकणींतलें पयलेंवयलें नेमाळें. सदांच उत्फुल्ल रावप हो कोंकणीचो गूण नेमाळ्यान दाखोवन दिलो. कोंकणी बरोवप्यांची प्रतिभा साळकाच्या एक-एक पाकळेभशेन फुलत गेली. तातूंतल्यानच बयाभावांली 'सड्यावेलीं फुलां' फुललीं, लोककवी मनोहरराय सरदेसाय हांच्यो 'जायो-जुयो' फुलल्यो. हीं फुलां रसिकांक 'परमळ' दिवंक लागलीं. साबार कोंकणीचो कुळपुरुश वामन वर्दे वालावलिकार 'शणै गोंयबाब' हांच्या वावराक *सड्यावेलीं फुलां* अशें मानूंक लागले. शणै गोंयबाब हांणींय स्वताचे बरपावळींत पणस-पोपाय सारकीं फळां हाडलीं, तुफान हाडलें. आयज आमीं रुखावळी सांबाळून दवरूंक जाय अशा गजालीचेर भासाभास करतात पूण १९३०त पुराणां, उपनिशदां, मनुस्मृती, बायबलसारके ग्रंथ पाराथून शणै गोंयबाब हांणीं ह्या संबंदान संबंदितांक शिटकायिल्लें. तांणीं सैमान केल्लो हिंसाचार आनी मनशान केल्लो अत्याचार हातूंत अंतर आसा म्हणपाचेंय दाखोवन दिलेंच खेरीज सैमांतल्याच फुलां-फळांक जीव आसता, तांकाय भावना आसतात, तींय परमेश्वराक दूशणां दितात अशें सांगलें. सहृदयता आनी हिंसक वृत्तीचें प्रतीक ते बरपावळींतल्यान दाखोवपाक लागले. आयजच्या मनशान स्वताल्या खादोळ्या जीबेक, सुवार्थी सभावाक आनी हांवरटी वासनेक लागून रुखावळीचो संहार आनी पर्यावरणाक ना नपश्चात् करून उडोवपाचो येत्न चलयला तें पळोवन 'बाबुमामालो पणस' दुख्खी-कश्टी जाता. तो म्हणटा, 'अगा मनशानु, हिंसा केल्याबगर जर तुमगेली दांतकडी हालना तर अहिंसेच्यो काणयो तुमीं कोणाक सांगतात?...तुमीं सगळे हिंसाकार, सगळे मांसखायरे. 'हिंसा परमोधर्मः' हेंच तुमगेलें खरें ब्रीद. हीच तुमगेली घुडी.' आडोळ्या पावसांत मोडून पडिल्ली 'वासुशणैली पोपाय' स्वताक

चलूंक येना, हात-पाय हालोवपाची मुदलांत तांक ना म्हूण खंती जाता. सैमाचें मानुशीकरण करपांत कोंकणीन बाजी माल्ली अशें म्हणूं येता. शणै गोंयबाब सैमाचेर जीव उवाळूंन वडोवन ताचें अपरमित रुपडें नियाळूंक जाय अशेंय सुचयतात, कारणः

*इन्द्रनीळ मळबाचें*
*भांगराच्या ओताचें*
*रुप्याच्या चांदन्याचें...*
*...पथीक उदका-वाऱ्याचें,*
*चकचयाळ पिकावळीचें*
*सोबीत फुलां-फळांचें*
*शिटूक सावदां-सवण्यांचें*

अशें विश्व मुखार येतकच नकारार्थी जावन कित्याक जियेवपाचें हें तांकाय कळना.

कोंकणी गद्याच्या मळार शणै गोंयबाब हांच्या उपरान्त नांव घेवपासारको बरोवपी म्हळयार चन्द्रकान्त केणी. *आशाढपावळी* (१९७३) आनी *अळमीं* (१९७५) ही शीर्शकांच सैमाच्या लालसरुपाक केळोवपी. अर्विल्ल्या कथातंत्रान बरोवपी ह्या कथाकारान आपणाल्या कथेक वैश्विकतायेच्या पांवड्यार व्हरपाक सैमाकच एक आदार मानला. तांच्या कथांनी फाटभुंयेच्या रुपान बदलत्या ऋतुंतलो सैमाचो आविश्कार जाल्लो दिसता. मीना काकोडकार हांच्या *दोंगर चंवल्लांत* व्यक्तिरेखांच्या मनसीकतायेचेर आदारून सैमाच्यो विंगड-विंगड नुरा उतरांनी दाखोवन दिल्यात. मानुशीकरणाची एक-एक उत्तम देख ह्या कथाझेल्यांत मेळूंक येता. आयजच्या नागरिकरणाच्या प्रवृत्तीक लागून सैमीक सुंदरताय ना नपश्चात् जायत चल्ल्या ह्या वास्तवतेकडेन अंगुलिनिर्देश करून चुरचुरे उगतायल्यात. जयमाला दणायत (*कवासो*), दामोदर मावजो (*रुमडफुलां*), पुण्डलीक नारायण नायक, शीला नायक (*ओली सांज*) हांच्या कथांनी गांवगिरो सैम पुराय रुपान उगतो जावन येता. तांतूंत ताची निर्मळसाण, निवळसाण ओडलायणीच कशी. तांच्या झेल्यांची शीर्शकांय सैमाक गोंजारपी. मीना काकोडकारांलो *सपनफुलां* ही अशीच एक पत, गद्याचें काव्य करून सोडपी.

कोंकणी गद्यांत सैमान बिराड लायलें तर कवितेंत सैमान स्वतालो घराबो उबो केलो. झाडां-पेडांक प्रतिकात्मक अर्थ दिवन कविता आशयसंपन्न करपांत कोंकणी कवी हेर खंयच्याय कवींपरस फाटीं नात. उतरां म्हळयार तरेतरेची माणकां, मोतयांवरी एकठांय करत रावचीं आनी तांका साहित्यान तोखेवचें. नखेत्रां जशीं सोंपनात मेजून तशीं हीं उतरांय सोंपनात सैमाक तोखेवन. *गोठलां* (विजयाबाय सरमळकार), *पिसोळीं, गाथन, जोगलांचें झाड*(शंकर पाण्डुरंग रामाणी), *एका झाडाक घर जाय* (अरुण साखरदाण्डे) . *उजवाडाचो*

रूख (वेणिमाधव बोरकार) अशीं सैमाकय पिसो करून सोडपी शीर्शकां कोंकणींत मेळटात. *खूब वर्सां पयलीं / कांय झाडां / आपलीं मुळां उखलून जगपाक लागलीं / तांका आज आमी मनीस म्हणटात* अशें बरोवन सैमांत मनशांचे आदीरूप आसा अशें साखरदाण्डेन सांगलें, एकेपरीन तातूंत सैमाविशिंची कृतज्ञताच आसा. अशी जाणविकाय आसप होच खरो *दिश्टावो* (पाण्डुरंग भांगी) अशेंय म्हळयार जाता. बाकीबाब हांची *पायजणां*त तर 'उर्ध्वमूलं अधःशाखा' म्हळयार वडय येता आनी ताच्या सहवासांत तिची मंद मंद वाजपी पायजणां सगळयांकच पिशें करून सोडटातः

गळयां सुखां द्वोळयां दुखां
लकलकपी जावन थिकां
...वडफळांच्या अक्षदांत
कितलो वेळ न्हायत न्हायत
हुपलो कितलो चन्द्रलोक, इन्द्रनन्दना




स्वर्गांतल्यान दिसता तें निळें निळें ब्रह्मच न्हय! निराकार *निळें निळें ब्रह्म* रामाणींलें कवितेंत साकार जाता. *जोगलांचें झाड* हेंय एक तरल प्रतीक. मोगी मनशाचें भावविश्व ल्हवंपीक हातान उगतें करून दाखयत एकमेकांत काळजाच्या नात्यान जोडिल्ली तीं दोगांय कशी? तर *मोखली नदर / ताच्याय पेल्यान / वयल्या रानां फुल्लां झाड...केन्नां कोणे रोयलें झाड? / वयल्या रानां / फुलांच फुलां काळजाभितर...निळशा वाटे / मोगरे दोळे / परमळाक / फुटलां उतर* अशी अवस्था जातकच *वयल्या रानां / शेणलां कोण* अशी भावरम्य अवस्था जावकच जाय.

र० वि० पण्डित हांचे पांय वसुंधरेचे मातियेंतच. कवितेंतल्यान सैमाक काडूंक मेळना इतलो तो तातूंत भरसून गेला. मनशाच्या काळजांत सैमाचीं साबार रुपां आसात. तो त्या त्या रुपांचो अवसर येतकच रानांत येता वा मनामेरेन पावता.

*मनांतल्यान रानाभितर, रानांतल्यान*
*मनामेरेन...*

*...ज्या रानांतुलें...*
*हरणूय हांव, शिंवूय हांव*
*मोरूय हांव, कोलोय हांव...*
*कोगूळ तसो, तक्षकूय हांव...*
*...सुगंदी, अश्वगंदा पानपत्री, जीणदिणी*

*अमृतावेल* ('एक सपनाळो गांव')

मनोहररायाल्या कवितांत सैमाचें अजरंवर रुप केळयिल्लें दिसताच खेरीज स्वताले जिणेंत न्हंयेकय म्हत्वाचें स्थान मेळटाः

माण्डवी,
तूं म्हजी पयली प्रीत...
म्हजें काळीज हुलपलां
सपन म्हजें करपलां
मोगाळ माते, गोमते
घे म्हाका तुजे कुशींत
माण्डवी,
तू म्हजी पयली प्रीत

जिवितांत सपनां करपतकच एकूच आलाशिरो उरता. सैम. ही तर जिणेंतली जीवघेणी वास्तवताय.

भांगींचे कवितेंतय वास्तवतायेचें भान येताः *रोयलें बी / रुजलें शेत / पीक घेंवक मळणी केली / खळ सगळें पोलानच भल्लें.* सैमाच्या अस्तित्वांत निर्शेवणी आसू येता म्हणपाचो दिश्टावोय जावं येताः

*फागराक आड फागूर*
*खांदयेक आडखांदी*
*अशी जीण वळची*
*म्हणून आळें धल्लां*
*मुळार शिंपी घाल्या*
*तरी थंडाय धरना*
*हाड तिजें पालेना*

मनाची हुमकाळणी हीय एक वृत्ती, सैमीकच. अशा वृत्तींत आनंददिणे खिणांचे अस्तित्व मात खिणयाळें:

*मनाची पांचवीचार पात खिणांत फुलून येता...*
*हो संवसार तर म्हज्याच आसपाची ही खूण...*

अशा अवस्थेचो तिगाव चड वेळ लागना. ती खिणयाळी अवस्था वतकच पर्थूनः

*दु:खच आंगार सुखावता*
*तेन्ना वाल जावन बळटा*
*पानां पानांतल्यान कांटे*

*नदर भितर्यांच भोंवता...*

*मातयेचीच कूड ही*

*मातयेंतच मेळटली*

*मातयेंतच रुजता भात*

*त्याच भातार पोसचेली* (दिश्टावो)

बी० ई० मेन्दीसांच्या कवितेंतल्या सुर्याक वैदीक काव्यांतले रूप लाबता आनी सैमाचें दायज कितलें पोरणें तेंय होलमता:

*पर्जळाच्या वस्तुं भितर फांकलो पर्जळ मुक्तवंत*

*सुर्या दिवो विश्वा भितर चकचकाचो उजळ गुळो*

*रूप तें निसर्गाचें पूर्णवंतांनी उपेग ताजो*

*केल्ल्या निर्मळ विचारांचें दायज जावन भक्तांचें*

अभिजित हांच्या कवितेंत सैमाकय जिखपाची मोख मेळटा. मनशाच्या कर्तुपाक आव्हान दिवपाची तांक सैमांत आसता:

*आनंदाची ल्हारां उबार दर्यार तुफान*

*तारया रे, उखल व्हलें ताण रे व्हडें ताण*

*घेवन ओजें आसत येरें रगत साबार साण्ड*

*कातर धार सर मुखार वचूं गेल्यार प्राण*

मनीस हो सैमांतच हालता, धोलता. तो ताका आव्हान दिवं वा ताची प्रार्थना करूं, काळीज नाचता तें सैमाच्या सांगातान, ताच्या वांगडा:

*चान्याचे राती माडांचे सावळेंत सारयल्ल्या सोबीत मांडार*

*हातांत घालून हात नाचूंया गांवया घुमटाच्या मधुर तालार*

उदय भेम्ब्रे हांच्या ह्या कवितेंत देशी जिविताचेंय पडबिम्ब पडिल्लें दिसता. एकेपरीन मनीस आनी सैम हांचो सुमेळच अणभवूंक मेळटा. दीपा पैच्या कवितेंतलें झाड *रखरखीत भूतकाळ* सांबाळीत निर्विकारपणान स्थीर जाता. शिमिटाचीं घरां, कॉंक्रिटची रानां जळीमळी उबीं जाल्यांत. सैमाचो फुडार उबन्तरा पडला. काळाचेर जैत मेळोवंक ताका जमना. पोरणेंच दायज सांबाळीत तो आयजवेर उबो आसा... ह्या कविंच्या काव्यांत एक-एक रूख चंवरून येता. प्रकाश पाडगांवकारांच्या कवितेंत जो रूख युगांनयुगां जितो उरतो तो महारूखाचें स्थान मेळयता. *तांबडेगुंज मातयेंत / युगां युगां पांय रोवून / उबो राविल्ल्या महारूखा! तुज्या मुळांचे फांटे खडपा फोडीत / पाताळांत खंय खंय पावल्यात...*हो रूख म्हळ्यार भारतीय संस्कृतीचें प्रतीकच, संवसारभर पातळ्ळा तो. ह्याच दायजान दिल्लो आंब्याचो रूख घराब्याचे

वांटणींत सगळें वगडावन बसलो. मनीस आनी सैम हांचें नातें समाजीक, अर्थीक, कायद्याच्या वेव्हारांत ना नपश्चात् जालां. सु० म० तडकोड हांच्या कवितेंतलो आंबो मेरेर पावलो. ताका मनशासंबंदाचें नातें भोव मानता जायत पूण तो कोणाचोच न्हय कारण तो तर *मेरेवेलो आंबो*. सैम हो मनांत तिगून रावपी काळखाकय उलोवंक लायता :

*...उप्रांत पर्थून सगळोच निःशब्द निराकार काळोख*

*ताका निःशब्द जावंक दिनात रुखावळीतली शेंवणीं*

इतलेंय करून मनीस सैमाचो उपेग करून दुडू जोडटा: *फुकट दिना*

*पन्नास पटीन व्याज घेतां* (पण्डित, *धर्तरेचें कवन*)

सैमाचें हें रूप, काळजांतलें आनी वेव्हारांतलें, वृत्तीतलें आनी कृतींतलें. तरीकूय कवी साखरदाण्डे म्हणटा:

*तुकां झाड लावपाचें आसा?*

*मागीर तें खंयूय लाय*

*ताचीं मुळां मात तुज्या*

*काळजांत रुजूं दी* ('मुळां')

कोंकणी साहित्यिकांनी ही समजिकाय दाखयल्या देखून सैमान आजूनय गोंयांतलें स्वतालें नंदनवन काडून व्हरूंक ना काय?

